Price ₹40/- (₹45/- Outside Goa)




फेब्रुवारी २०१२

# वेंचणुकेचो पावलो शिगमो
# कोण घालता शबय
# तर कोण म्हणटा ओस्सोय!

कोंकणी मासिक
बिम्ब
११ वें वर्स

वर्स : ११ अंक २

फेब्रुवारी २०१२

मोल ४० रुपया

मुखेल संपादक
दिलीप बोरकार

पालवी संपादक
अजय बुवा

मुद्रक आनी प्रकाशक
दिलीप बोरकार

छापणावळ
इम्प्रेशन्स, बेळगांव.

व्यवस्थापक
कामिनी किणी

अक्षर जुळवणी आनी मांडावळ
श्वेता नाईक

वर्गणीचे दर
वर्सुकी ३५० रु. / तीन वर्सा १००० रु.

खंयच्याय म्हयन्या सावन
वर्गणीदार जांव येता. वर्गणीचो चेक
'बिम्ब' ह्या नांवान धाडचो

संपादकीय पत्रवेव्हाराचो पत्तो
'धर्म-लक्ष्मी', सांत लॉरेन्स,
आगशी - गोंय ४०३ २०४
दूरध्वनी : (०८३२) २४३८३५५
E-mail : bimbkonkani@yahoo.co.in



५

# वेंचणुकेचो पावलो शिगमो
# कोण घालता शबय
# तर कोण म्हणटा ओस्सोय!

– दिलीप बोरकार



संपादकीय /३
प्रतिबिम्ब /४
पुनर्नवा – रवीन्द्र केळेकार/११
कादंबरी – दिलीप बोरकार/१३
ललित – नं. ध. बोरकार /२३
दिका – विन्सी क्वाद्रूस /२९
इंद्रधोणू – आशा शानभाग/३२
खळांतली आंबली – दिलीप बोरकार/३४
उमाळे – राजश्री मोरजकार/ ३५
एकांकी – अजय बुवा/ ५७
पडवेर – कुसूम अग्रवाल / ६६
कथा – ब्रॅण्डा मिनेझीस / ६७
आंकरी – जॉन एम्. आल्फोंसो, कार्मेलीत /६९
वोवळां – रमेश वेळुस्कार/७३
तेफळां – अतुल र. पंडित/७५
उतरकुवाडें – संतोष शिवराम हळर्णकार/७७
भलायकी – राज वैद्य/७८

४१ मनसंवेदना
- युसूफ अ. शेख
- आर. रामनाथ
- अमेय नायक
- कविता फोंडेकार
- शीतल नंदकुमार परब
- चंद्रिका पाडगांवकार
- हर्षा शेटये
- उषा ज. कामत

४२ भुरग्यांचें आंगण
- सुधा खरंगटे
- रेखा रामनाथ नायक
- किरण म्हांब्रे
- आश्विनी सिरसाट
- फेलिक्टी लॉपीस

रेखाचित्रां
गिरिश नंदा बोरकार

# संपादकीय

# गोंयच्या माध्यम प्रस्नाचेर कोंकणी परिशदेंत विचार जातलो व्हय?



१९४२ वर्सा, मुंबय, कोंकणी परिशदेची तिसरी बसका जाली. ते परिशदेचे येवकार अध्यक्ष आशिल्ले शणै गोंयबाब. शणै गोंयबाबान कोंकणी मनशाक स्वाभिमान शिकयलो. आमी कोंकणी मनीस म्हळ्यार बाबत कुळां न्हय म्हणपाचें ताणें आमच्या आत्म्याक हात घालून सांगलें. त्याच जैतवंत, तेजवंत आनी पुण्यवंत शणै गोंयबाबान आपलो निमणो स्वास घेतलो तेच मुंबयत आयज फेब्रुवारी म्हयन्याच्या १७, १८ आनी १९ तारखेक अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य परिशदेची बसका भरता.

१९४२ वर्सा म्हळ्यार ७ दसकां आदीं आपल्या येवकार अध्यक्षाल्या उलोवपांत शणै गोंयबाबांनी कोंकणीच्या विरोधकांचेर फोग काडून कोंकणी भाशेच्या म्हत्वाची नकसूदपणान विस्कटावणी केल्ली. ७० वर्सां आदींचो काळ आनी आतांचो काळ हातूंत खूब व्हडलो फरक आसा. ते काळार कोंकणी विरोधकानी आपूण जावन आपल्या दोळ्यांर साय हाडिल्ली. ते अज्ञान पांगरून पेडगांवांत वताले देखून तांचेवेलें पिशें निवळावंक तांका झाडो घालप गरजेचें आशिल्ल्यान शणै गोंयबाबान आपले खर वाणयेन तो बेस बरो घाल्ल्यान खूबश्या जाणांचे मानेर बशिल्लीं भुतां आनी पिशीं पयसावल्लीं. पूण आज तो काळ नासलो , तेन्नाचे विरोधक नासले तरी आमचे मर्दी फिरंगी भाशेचीं भुतां नाचोवपी नवे विरोधक तयार जाल्यात. तांचे मानेर बशिल्लें हें इंग्लीश भाशेचें भूत सासणाचें कशें काडून उडोवं येता आनी ते पासत कसले तरेचो खर झाडो घालूं येता हाचो विचार मुंबय भरपी हे परिशदेंत जातलो अशी आमी आस्त बाळगुया.

सुपुल्ल्या कोंकणी भुरग्यांक कोंकणी भाशेंत शिकयल्यार सट करून समज पडून, शिकपांत तीं बेगीन फुडें सरतात म्हणपाचें शणै गोंयबाबान ता. ४ एप्रिल १९४२ दिसा मुंबयच्या 'सर कावसजी जहांगीर हॉलां'त भरिल्ले कोंकणी परिशदेचे तिसरे बसकेंत आपल्या येवकार-अध्यक्षांल्या उलोवपांत सांगिल्लें आनी आयज ७० वर्सां उप्रांतूय तीच गजाल पर्थून सांगची पडटा हें दुर्दैव्य आसलें तरी सांगले बगर दुसरो पर्याय ना. कित्याक ज्या काळार गोंय सरकारान मुळाव्या शाळांचें माध्यम इंग्लीश करपाचो निर्णय घेतला त्याच काळामर्दी ही कोंकणी परिशद भरता आनी सरकारच्या ह्या निर्णयाचो कडक निशेध हे परिशदेच्या माटवांत जावपा वांगडाच सरकाराक असो निर्णय घेवपाचें धाडस कशें जावंक पावलें हाचोय विचार जावंक जाय.

कोंकणी परिशदेचो जल्म १९३९त जालो. एक कोंकणी समाज घडोवप, तांका एके लिपयेन बांदून हाडप हीं मुखेल उद्दिश्टां दोळ्यांमुखार दवरून परिशदेची निर्मणी जाल्ली. ती मोख सार्थी पावल्या काय ना हाचोय विचार हे वेळार जावन तशें कित्याक घडूंक पावलेंना हाचो विचार जावंक जाय.

गोंयचे मुखेलमंत्री दिगंबर कामत हाणीं इंग्लीश माध्यमाच्या शाळांक अनुदान दिवपाचो निर्णय घेतलो ही ह्या शेकड्यांतली सामकी दुर्दैवी गजाल म्हणपाची कोणूच न्हयकारूंक शकना. हो निर्णय घेवंक तांचेर तांच्या पक्षांतल्या इंग्रजी धार्जिण्या घटकान दबाव हाडलो हें जरी खरें आसलें तरी त्या निर्णयाची पुराय जापसालदारकी सरकाराचो मुखेली म्हूण दिगंबर कामत हांचेरूच येता. तेच पासत हेर सगळ्या मंत्र्यांक खंयच हात लाय नासतना देशी भाशाप्रेमी मुखेलमंत्री दिगंबर कामत हांका धोडायत आयल्यात. परिशदेच्या व्यासपिठारूय हें धोडावप जातलेंच. तेच वांगडा हें धोडावप रास्त आसा काय आमी सोरोप सोडून चुट्टी धोडायतात तेंय पळोवंक जाय.

दिगंबर कामत मुख्यमंत्री आसलो तरी पक्ष आनी सरकार सांबाळप हो ताचो धर्म आशिल्लो हें कोणें विसरूंक फावना. जेन्ना इंग्लीश माध्यम जाय म्हूण मोठे संख्येन लोक उचंबळीत जावन मुखार सरतात वो कोण तरी तांका मुखार काडटात तेन्ना धर्मीक तंटे टाळपा खातीर आनी पक्ष सांबाळपा खातीर सरकारच्या मुखेल्याक त्या वेळची परिस्थिती पारखून निर्णय घेवंचे पडटात. ते निर्णय समाजा खातीर घातक थारत आसल्यार तांचो निशेध जावन विरोध जावप सामकें गरजेचें. तेच वांगडा ही परिस्थिती येवपाक जापसालदार कोण हाचोय बारीकसाणेन विचार जावपाची गरज आसा.

कोंकणी राजभास जावंची म्हूण जें आंदोलन जालें त्या आंदोलनांत भोवसंख्येन लोक रस्त्यार आयिल्ले तेच आज इंग्लीश मागप्यां मर्दी आसात. आज ते रोमी लिपींतली कोंकणी आनी मुळावें शिक्षण इंग्लीशींतल्यान मागतात.

खंयच्याय राज्यांत शासन हें कायम स्वरुपी आसता. सरकारांतलीं मंत्रीमंडळां येतात आनी वतात. दिगंबर कामत आनी ताचें सरकार आज ना जाल्यार फाल्यां वतलेंच. पूण सरकाराची वेवस्था आसता ती सदांच उरता. सरकार शिक्षणखातें चलयता. ह्या खात्यान मुळावें शिक्षण कोंकणी भाशेंतल्यान जाल्यार कितें फायदो जाता हें जनतेक सांगून तांका कोंकणी शिकपाकडेन हाडपाचो वावर केला?

गोंय सरकार कला आनी संस्कृती खातें चलयता. ह्या खात्याचो वावर लोकांमर्दी आपले संस्कृतायेची वळख घडोवन ती लोकांनी तिगोवन दवरची म्हूण वावुरपाचो आसता. ह्या खात्यान तें काम केलां?

गोंय सरकार कोंकणी अकादेमीक अनुदान दिता. अकादेमीचें काम जे लोक भाशेविशीं, संस्कृतायेविशीं नेणार आसात तांचे म्हऱ्यांत वचून कोंकणीचें म्हत्व पटोवपाचें. फाटल्या २५ वर्सांत अकादेमीन हो वावर केला?

गोंय सरकारचें राजभास संचालनालय आसा. ह्या संचालनालयान राजभाशेचें म्हत्व वळखून राजभाशेची अंमलबजावणी करूंक सशक्त पावलां उबारल्यांत?

ह्या आनी असल्या साबार प्रस्नांच्यो जापो जर हय अश्यो आसत जाल्यार सरकारान जो निर्णय घेतला तो चुकीचो हें मानून सरकाराचो हे परिशदेंत धिक्कार जावंचो आनी जाप जर 'ना' अशी येता जाल्यार कोंकणी नेतृत्व अपेशी थारलें देखून हें घडूंक पावलें हें मान्य करून पर्थून एक खेप सगळो वावर मुळासावन आरंब करपाचो संकल्प हे परिशदेंत जावंचो!

जातलें व्हय अशें?

## तांकां हीं इनामां खरेंच फावतात

भौ. संपादक,

बिम्बाचो डिसेंबर २०११चो अंक मेळ्ळो. गोंय मुक्तीच्या सुवर्ण महोत्सवी वर्साक सलाम करपी बिम्बाचो अंक सोबीत जालो. अंकाची सजावट बरी आसा. पळोवनच खोस जाली. वाचतकीच खोशयेंत भर पडली. पेपर, चित्रां आनी एकंदर सजावट पळयल्यार अंक खऱ्यानीच सुंदर आसा. बिम्बांक माणकुलो, साणकुलो म्हूण पळेतां पळेतां बिम्ब धा वर्सांचो केन्ना जालो कळ्ळें लेगीत ना.




कोंकणींतल्यान बरोवपाची इत्सा आशिल्ल्या ल्हान व्हड तशेंच नवोदीत आनी प्रतिथयश बरोवप्यांक बिम्बान व्यासपीठ दिलां हाका लागून कोंकणीच्या मळार नवे नवे लेखक, कवी उदयाक आयल्यात. ह्या धा वर्सांत बिम्बान कोंकणींतल्यान वाचनसंस्कृती वाडीक लागची म्हूण केल्लो यत्न कौतूक करपा सारको आसा.

बिम्बाचो अंदूचो दिवाळी अंकय बरो जालो म्हणपाचें रसीक वाचप्यांचे अभिप्राय वाचले. म्हज्या हातांत अजून तो अंक पावूंक ना. म्हाकाय तो पळोवपाची उमळशीक लागल्या. वाचतकीच म्हजेंय मत मुजरत कळयतां. बिम्बाचे २०११चे पुरस्कार ज्यांका ज्यांका फाव जाल्यात त्या सगळ्यांक परबीं. तांचीं नांवां वाचतकीच तांकां हीं इनामां खरेंच फावतात अशें म्हाकाय दिसलें.

तुमचो,



**– नागेश नायक वडिये**
मडगांव – गोंय.

## पुरस्कारामुळे नवसाहित्यिकांना प्रोत्साहन मिळते

स. न. वि. वि. डिसेंबरचा 'बिम्ब' अंक काही दिवसांपूर्वी मिळाला. पण तात्काल वाचायला-न जमल्यामुळे बाजूला ठेवला होता. काल तो अंक वाचला. अंक सुरेख, वाचनीय व संग्रहणीय झाला आहे. विशेष म्हणजे 'बिम्ब पुरस्कार २०११' याची योजना स्तुत्य वाटली. अशा पुरस्कारांमुळे ज्ञानपीठकार रवीन्द्र केळेकरां सारख्या कोकणी साहित्यास महत्त्वाचे योगदान देणाऱ्या साहित्यिकांचे स्मरण टिकून राहाते व त्याचबरोबर नवसाहित्यिकांना प्रोत्साहन मिळते व ते अधिकाधिक सकस साहित्य निर्मितीस प्रवृत्त होतात. या योजनेबद्दल 'बिम्ब'चे म्हणजे आपले हार्दिक अभिनंदन.

पुरस्कार सोहळा उत्तम रीतीने पार पडला असणारच. 'बिम्ब'चा अंक वक्तशीर मिळतोच. तो मी आपुलकीने वाचंत असतो. 'बिम्ब' पाठविल्याबद्दल आपले आभार मानून हे पत्र पुरे करतो.

असाच लोभ असावा ही विनंती

**– डॉ. विठ्ठल प्रभू**
शिवाजी पार्क, मुंबई.
मो. : ९८२०६७५८१५

## कोंकणीची व्हड सेवा तुमच्या हातांतल्यान घडटा

भौ. संपादक 'बिम्ब',

चिटये वांगडा बिम्बाक धा वर्सां पुराय जालीं म्हण सुचिल्लीं कांय उतरां बरोवन धाडटां, तुमकां योग्य दिसल्यार बिम्बांत छापचीं. (गरज तर दुरुस्तूय करची)

तुमी धा वर्सां बरे तरेन, सोबीत असो अंक छापता हे खातीर तुमकां व्हड परबीं! कोंकणीची व्हड सेवा तुमच्या हातांतल्यान घडटा, ताच्यापरस चड फुडाराक घडूं अशी आस्त बाळगितां.

तुमचो बरें मागपी!

**– विक्रांत स. पांगम**

## बिंबाक भेटवण

पावसाच्या धारांनी, भिजून जाता चिंब
उतरांचा धारांनी, गिन्यान वाडयता बिम्ब

उतराचें आकाश, गिन्यानाचो प्रकाश
लेखकाचो काश, वाचप्यांक सुकाश

मायभाशेन म्हालगणों, बाब बोरकार दिलीप
गोंयच्या कुपान, उजवाडायता कोंकणीतल्यान बिम्ब

धा वर्सां पुराय जाता, टिंबातल्यान उजवाडांतल्या बिम्बाक
फुडाराक अशीच येवं, ताचेर आनीक टिंब
आनी... टिंबार... टिंब

शि र्फ क था

# वेंचणुकेचो पावलो शिगमो कोण घालता शबय तर कोण म्हणटा ओस्सोय!

- दिलीप बोरकार





गौंय मुक्त जाल्या उप्रांत गौंयचेर लश्करी राजवट आशिल्ली. ती काडून उडयतलो जाल्यार गौंयचें कितें करप हाचो पयलीं निर्णय घेवप गरजेचें आशिल्लें. तेंच पासत गौंय मुक्ती उप्रांत तें खंयच्या राज्यांत आसपावन घेवपाचें हाचेर विचार जावंक लागिल्लो.

आचार विचार म्हळ्यार कितें हाची मात्तूय चाड नाशिल्ल्या गोंयच्या राजकारण्यांक आचार संहिता लायली कितें आनी ना लायली कितें एकूच! तातुंतल्यान कशी वाट काडूंक जाय हाचें बेस बरें गिन्यान आमच्या राजकारण्यांनी फैदासलां म्हणटकच हे आचार संहितेचो 'आचार' कसो घालप हें तांकां कोणें सांगपाची गरज ना.

तरी आचार संहिता लागू जावप म्हळ्यार ह्या राजकारण्यां पासत ती वेंचणुकेची नांदी अशेंच म्हणचें पडटलें. आयज येतली, फाल्यां येतली अशें म्हणत वेंचणुकेची वाट पळोवपी पक्षांक आचार संहिता लागू जाली असो आदेश वेंचणूक आयोगान काडलो म्हणटकच प्रतिक्षा सोंपोवन वावराक लागपाचो जणकाय आदेशूच आसता. तीच नांदी जातकच जेन्ना कार्निवालाक आरंब जातलो तेन्ना हे सगळे समाजाचें बरें करूंक वथरेवपी राजकारणी मेकअप करूंक बसतले. व्हिवा मतदार म्हणत तांचेर आस्वासनाच्यो कोकाती शेंवटितले आनी शिगमो जसजसो लागीं पावता तशे सगळे पक्ष शबय घालूंक लागतले. शबयचें बावलें तारीकडेन पावलें, शबय!

वेगवेगळ्या पक्षाचीं हीं बावलीं वेंचणुकेच्या नांवान शबय घालीत नाचतलीं. तांतल्या कोणाकोणाक मतदार तारीकडेन पावयतले हें मार्च म्हयन्यांत शिगमो उलगतकच कळटलेंच. मतदार कोणाकोणांक तारीकडेन पावोवपाची शक्यताय आसा हाचो अदमास बिम्ब परिवारांतले राजकीय निरिक्षक मतदानाच्या दोन दीस आदींच बिम्बाच्या वाचकांमेरेन पावयतले. पूण ते आदीं गोंय मुक्तीच्या भांगरा उत्सवी वर्सांतली ही भांगराळी वेंचणूक खरेंच भांगराळी जावंक जाय आशिल्ली ती कित्याक जावंक पावली ना आनी ते पासत गुन्यांवकारी कोण हाचीय उस्तवारी जावप खूब गरजेची. मतदान

जावपाक बरोबर १ म्हयन्याचो अवधी आसतना ही उस्तवारी जावंक पावली जाल्यार एका म्हयन्या उप्रांत ३ मार्च हे दिसा जेन्ना मतदान जातलें तेन्ना् दरेक स्वाभिमानी गोंयकाराक, दरेक आदर्शवादी गोंयच्या नागरिकाक वोटींग मशिनाचो बटन दामतना, भितरल्यान खंयतरी ही वेंचणूक म्हळ्यार गोंय मुक्तीच्या भांगरा उत्सवी वर्सांतली वेंचणूक म्हणपाची याद जावन, आदर्श उमेदवार वेंचून दिवंक मतदान करपाचो साक्षात्कार जातलो अशी एक पिशी आस्तशी ही शीर्शकथा बरयतना मनांत जागल्या बगर रावना.

## वेंचणूक ही एक भांगरा संद

गोंय मुक्त जावन गोंयकारांक भारतीय जावपाचो मान मेळ्ळो आनी भारता सारख्या व्हड लोकशायप्रधान देशाचो नागरीक जावपाचें भाग्य फावो जालें. आयज गोंयकार लोकशाय तंत्र प्रणालींतले सगळे अधिकार भोगतात जे तांकां पन्नास वर्सां आदीं झगडून घेवंचे पडिल्ले. पुर्तुगेजाच्या शेकातळांतल्यान मुक्त जाल्ल्यानूच गोंयकारांक मतदानाचो हक्क प्राप्त जालो. वेंचणुकेक उबो रावपाची आनी वेंचून येवपाची संद लाबली. गोंयकारांक आपलेच मांयभुंयेर आपलीच सत्ता राबोवपाचो योग हे मुक्ततायेक लागूनच फावो जालो.

गोंयचे जनतेक गोंय मुक्त जालें तेन्ना वेंचणुकांची सवंय म्हणटात ती नाशिल्ली. पुर्तुगेज काळार वेंचणूक म्हळ्यार एक फार्स आशिल्लो. मतां दिवपाचो अधिकार फकत कांय जाणांकूच आशिल्लो आनी अधिकारी सांगतात तांकांच मतां दिवंचीं पडऽ. गोंय मुक्ती उप्रांत गोंयांत ग्राम पंचायतीच्यो वेंचणुको जाल्यो पूण ह्या वेंचणुकांनी सुशिक्षीत आनी प्रतिश्ठीत अश्या गोंयकारांनी वांटो घेतलो ना. वेंचणूक ही सर्वसामान्य लोकांची. तातूंत आपल्या सारख्या प्रतिश्ठितांनी पडप ना असो लोकांमदीं अहंकार आशिल्ल्यान हे लोक सुर्वेक पयसूच रावले. पूण जेन्ना विधानसभेच्यो वेंचणुको जाहीर जाल्यो तेन्ना मात ह्या प्रतिश्ठितांक जाग आयली. विधानसभेचे वांगडी गोंयचें राज्य चलयतले म्हणपाचें कळ्ळ्या बराबर विधानसभा वेंचणुकांचेर सगळ्यांचें लक्ष केंद्रीत जालें. वेंचणूक म्हळ्यार कितें, आपल्याक जो मतांचो अधिकार मेळ्ळा ताका कितलें म्हत्व आसा हाची व्हडलीशी म्हायती तशी गोंयचे जनतेक नाशिल्ली. तरी लेगीत काँग्रेस पक्ष, प्रजासमाजवादी पक्ष असले राष्ट्रीय पक्ष वेंचणुकेच्या मळार देंविल्ले कम्युनिष्ठानीय शेतकारांचो पक्ष ह्या नांवान वेंचणूक लढोवपाची थारायल्ली. महाराष्ट्रवादी गोमंतक पक्ष आनी युनायटेड गोवन्स ह्या दोन थळाव्या पक्षां वांगडाच कांय अपक्ष उमेदवारूय मुक्त गोंयचे पयले वेंचणुकेंत देंविल्ले.

## महाराष्ट्रवादाचो आरंब

१९ डिसेंबर १९६१ दिसा गोंय पुर्तुगेजाच्या शेकातळांतल्यान मुक्त जालें. गोंयचे भुंयेर इ. स. १५१० वर्सा आफोंस द आल्बुकेर्क हाणें तिसवाडी म्हालांत पावल दवरलें. हो म्हाल जिकून घेतलो. अशे तरेन पुर्तुगेज सत्तेचीं धवीं पावलां गोंयचे मातयेंत उदेलीं. तिसवाडी म्हाला उप्रांत तेत्तीस वर्सांनी पुर्तुगेज सोल्दादानी बार्देश आनी साश्टी हे दोन म्हाल घेतले. मागीर हेर आठ म्हाल आपले सत्तेच्यां नेटार साम, दाम, दंड, भेद असले सगळे उपाय वापरून घेतले. अशे तरेन गोंयचो हो माणकुलो वाठार पुर्तुगेज सरकारान साडेचार शेकडे आपले सत्ते खाला राबयलो.

हो साडे-चारशीं वर्सांचो काळ गोंयचे जनतेन कसो सारलो आनी तांचेर ह्या काळार कसले कसले अत्याचार जाले, तांची मानसिकता कशी बदल्ली आनी आयज जें गोंय आसा आनी त्या गोंयचे जे गोंयकार आसात तांची मानसिकताय अशी कित्याक जावंक पावली हाचें मूळ आमकां कोंकणींतले नामनेचे कथा-कादंबरीकार महाबळेश्वर सैल हांच्या युग-सांवार हे कादंबरींत पळोवंक मेळटा. गोंय मुक्त जाले बराबर जर ही कादंबरी वो असल्या प्रकारचे विचार गोंयच्या नव-निर्मणेचो विचार करपी फुडाऱ्यांकडेन पाविल्ले जाल्यार गोंयकारांची मानसिकताय थोडी तरी बदलूंक पावून गोंयकारांच्या मनांत स्वाभिमानाची पणटी पेटूंक पावपाची. पूण आमच्या गोंयच्या नेतृत्वाक दुवाळे लागले ते विलिनीकरणाचे. पुर्तुगेज सत्तेच्या चोपक्यांतल्या मुक्त केल्लें गोंय पर्थून एक फावट, देशी जावं मागीर, दुसरे सत्तेच्या हातांत दिवपाचे यत्न सुरू जाले.

आफोंस द आल्बुकेर्कान गोंय पुर्तुगेजाचे भकीक घालून ताचेर पुर्तुगेजाचो बावटो उबयलो तेन्नाच्यान पुर्तुगालच्यान नियुक्त केल्लो पुर्तुगेज गव्हर्नर जनरल गोंयचें राज्य चलयतालो. ताचें नांवा खातीरूच सल्लागार मंडळ आशिल्लें. त्या सल्लागारांचे सल्ले मानूंक जायच अशें गव्हर्नर जनरलाक बांदील नाशिल्लें. देखून तो करता तें जालें अशी गोंयची सामाजिक परिस्थिती आशिल्ली. हे मानसिकतायेत वाडिल्ल्या गोंयच्या समाजाक आपणें गोंयचेर राज्य करूं येता म्हणपाचो विचार लेगीत आपडूंक पावूंक नाशिल्लो. तेच पासत आतां एक राजा गेलो म्हणटकच आपणें आतां कोणाचे गुलाम जावपाचें हो प्रस्न नाय म्हळ्यार गोंयकारांमदीं उप्रासप साहजिकच आशिल्लें आनी तेन्नाच गोंय वेगळें दवरचे परस तें महाराष्ट्रांत घाल्लें बरें असो विचार वयर सरूंक लागलो.

गोंय मुक्त जाल्या उप्रांत गोंयचेर लश्करी राजवट आशिल्ली. ती काडून उडयतलो जाल्यार गोंयचें कितें करप हाचो पयलीं निर्णय घेवप गरजेचें आशिल्लें. तेच पासत गोंय मुक्ती उप्रांत तें खंयच्या राज्यांत आसपावन घेवपाचें हाचेर विचार जावंक लागिल्लो. गोंयचें वेगळें अस्तित्व राखपाचें असोय एक मतप्रवाह



नाशिल्लो. क्रिस्तांव भोवजन समाज तर सामकोच काळखांत आशिल्लो. देखून गोंयचें महाराष्ट्रांत विलिन जाल्यार आपलें कितें जातलें हें खबर नाशिल्ल्यान हो समाज सामकोच घुस्पल्लो. ते पासत 'गोंयचो पक्ष' संघटनेचे डॉ. जॅक सिकेर, 'गोवन नॅशनल युनियन'चे जे. एम्. डिसौजा आनी 'पार्तीद इंदियान' पक्षाचे डॉ. आल्वारू द लॉयल फुर्ताद ह्या तीन फुडाऱ्यां फाटल्यान हो समाज वचत रावलो.

अशें जरी आसलें तरी गोंयचे सर्वसामान्य जनतेक काँग्रेस पक्षूच लागींचो दिसतालो. तोच पक्ष पयले वेंचणुकेंत वेंचून येवचो अशीच समाजाची धारणा आशिल्ली. तेच पासत राजकीय मळार देंविल्लो दरेक गट काँग्रेस पक्षांत आपलें भोवमत दाखोवंक वावुरताले. हिन्दू, क्रिस्तांव, विलिनीकरणवादी, विलिनीकरण विरोधी अशे सगळेच काँग्रेस पक्षाच्या बावट्या सकयल येवंक पळयताले. ह्या काळांत काँग्रेसचे सरचिटणीस के. के. शहा पणजे मांडवी हॉटेलांत राविल्ले. तांका मेळपाक दयानंद बांदोडकार गेले. ते वेळार बांदोडकारांची तितली नामना जावंक नाशिल्ली. तांकां राजकारणांत भितर सरपाचें नाशिल्लें आनी पक्षूय काडपाचो नाशिल्लो. तांकां फकत काँग्रेसीक मजत करपाची आशिल्ली. पूण तांकां बरोच वेळ भायर ताटकळत रावचें पडलें. भितर ॲड. मुळगांवकार बी के. के. शहा वांगडा चर्चा करताले. तेन्ना बा. द. सातोस्कार हाणीं भायर बांदोडकार उबे आसात आनी तांचो पक्षाक बरोच आदार जातलो अशें सांगलें तेन्ना तांकां भितर आपोवन हाडलो. बांदोडकारांक राग आयिल्लो. ताणीं थंयच तांकां सांगलें, म्हाका अशी वागणूक दितले जाल्यार काँग्रेस पक्ष आपल्याक नाकाच.

गोंय मुक्ती उप्रांत मुंबय गोंय हिंदू असोसिएशनच्या सभाघरांत मुंबयतल्या कांय लोकांनी 'महाराष्ट्रवादी' पक्ष स्थापन करपा

गोंयकारांमदीं वसतालो. गोंयचे एके वटेन कर्नाटक राज्य आशिल्लें. त्या राज्याची संस्कृताय द्रविड जाल्ल्यान कन्नड भाशेची संवकळ गोंयकारांक नाशिल्ली आनी आपलीशीय दिसनाशिल्ली. महाराष्ट्र हें शेजारचें राज्य आर्य संस्कृतायेचें जाल्ल्यान गोंयच्या हिंदूंक तें लागींचें दिसतालें. ते भायर गोंय पुर्तुगेजाच्या शेकातळा आसतना आर्य संस्कृतायेच्या हिंदूंक मराठीच हेर भासां परस लागींची आशिल्ल्यान सगळी धार्मीक गरज महाराष्ट्रानूच पुराय केल्ली. हेच फाटभुंयेर गोंयचें महाराष्ट्रांत विलिनीकरण जावंचें अशें मत नॅशनल काँग्रेस (गोवा)चें जालें आनी १ मार्च १९६२ दिसा तसो थारावूय मांडलो.

हेच अदमासाक गोमंतक मराठी साहित्य संमेलन भरलें आनी ह्या संमेलनांत विलिनी करणाचो थारावूय आयलो. गोंय मुक्त जालें तरी पुर्तुगेज परत येतलो अशें गोंयच्या कांय लोकांक अजूनय दिसतालें. ह्या पुर्तुगेज धार्जिण्या लोकांपासून मुक्ती मेळयतलो जाल्यार गोंय महाराष्ट्रांत विलीन जावंकच जाय अशें कांय लोकांक दिसतालें. हाचे उरफाटें, गोंयांक सुटका मेळ्ळया, हे स्वतंत्रतायेचो आतां बरो उपेग करून घेवया, गोंय महाराष्ट्रांत घालून तांकां आपलें सत्व विकचे परस आपलें राज्य आमीच चलोवन कल्याण करून घेवया होय विचार एक गट मुखार हाडूंक लागलो. मराठीन भारतीय संस्कृताय तिगोवन दवरली देखून मराठी जाय. तीच आमची भास असो विचार समाजांत बळयां बळावपाचो यत्न जावंक लागलो. ताका विरोध स्वाभिमानी गोंयकारांनी सुरू केलो.

गोंयचे मुक्ती उप्रांत संसदीय लोकशाय गोंयच्या समाज जीवनांत चालीक लावपाची गरज आशिल्ली. ताका लागून मुक्त गोंयचे जनतेक स्वतंत्रतायेचीं फळां चाखूंक मेळपाचीं. पूण दुर्दैवान गोंयच्या फुडाऱ्यांनी हे नेणार जनतेक कोंकणी-मराठी, हिन्दू-क्रिस्तांव, विलिनीकरणवादी आनी विलीनीकरण विरोधी असल्या घुस्पा गोंदळांत घाले. गोंयांत राष्ट्रीय पक्षांनी वावर सुरू केल्लो. काँग्रेस, प्रजासमाजवादी आनी कम्युनीस्ट पक्षान आपलें अस्तित्व दाखोवंक आरंब केल्लो. गोंयच्या लोकांक हें सगळें नवें आशिल्लें तरी हिन्दूनी ही गजाल भारतीय राजकारणांतल्यान थोडीभोव जाणून घेतिल्ली. पूण तांकां प्रत्यक्ष अणभव

पासत बैठको घेवपाक आरंब केल्लोच. बांदोडकारूय त्या बसकांक हाजीर आशिल्लो. असलोच एक पक्ष 'महाराष्ट्रवादी गोमंतक' म्हूण आमी गोंयांक काडपाचें थारायलां म्हणपाचें ताणीं ते वेळार सांगलें. काँग्रेस पक्ष आपल्या सारख्या मनशांक म्हत्व दिवपाचो ना हाची कल्पना आयिल्ल्यानूच बांदोडकारान महाराष्ट्रवादी गोमंतक पक्षाची स्थापना केली जाका लागून गोंयच्या समाजांत धार्मिक वेर आयली. कोंकणी ही क्रिस्तांवांची, मराठी ही हिंदूंची, हिन्दू ते राष्ट्रवादी, क्रिस्तांव ते अराष्ट्रीय असो सूर समाजांत वयर सरूंक लागलो आनी जाचीं मुळां ते काळार रूजलीं ताचीं फळां राजकीय नदरेन काजऱ्याचींच थारलीं.





## १४/१२चें राजकारण गोंयांक पिडलें

गोंयचें महाराष्टांत विलीनीकरण हें एकलें एकसुरें महाराष्ट्रवादी गोमंतक पक्षाचें ध्येय आशिल्लें. गोंयची मातृभाषा मराठी आनी कोंकणी ही मराठी बोली अशी भुमिका ह्या पक्षान घेतिल्ल्यान अशिक्षीत भोवजन समाजाक ह्या पक्षाचें धोरण हेंच खरें सत्य अशें दिसलें. शिकिल्ले हिन्दू सारस्वत आनी भोवसंख्य क्रिस्तांव हे कोंकणी ही स्वतंत्र भास आनी गोंय हें वेगळें उरूंक जाय असो आग्रो धरतात तें पळोवन मगो पक्षाच्या फुडाऱ्यांचें वागरें पडिल्लो भोवजन समाज हो बामणाचो डाव म्हणपाचें येवजून चडांत चड हिन्दुत्ववादी आनी महाराष्ट्रवादी जायत रावलो. हाचोच फायदो मगो पक्षान घेतलो आनी ह्या अशिक्षीत नेणार भोवजन समाजाच्या नाड्यार १४ सुवातो वेंचून हाडपाक यशस्वी जालो. कोंकणीच्या नाड्यार आनी गोंय महाराष्ट्रांत वचपाचो म्हारू नाचयत युनायटेड गोवन्स पक्षान १२ सुवातो पदरांत घालून घेवपाक यश मेळयलें. दोन सुवातो दमण, दीव ह्या मतदार संघाच्यो आशिल्ल्यान जांकां गोंयच्या लोकांचें कसलेंच सुखदुख नाशिल्लें ताणीं फक्त सरकार घडोवपाचे नदरेनूच वेंचणुकेकडेन पळयलें आनी आपलो सुवार्थ तितलो सादलो. पयले वेंचणुकेक मगोन चौदा सुवातो जिखिल्ल्यो. ते भायर ह्या पक्षान पुरस्कृत केल्ले आनीक दोन उमेदवार वेंचून आयले आनी मगो सत्तेर आयलो. उप्रांतचें सगळें राजकारण हेच बुन्यादीचेर थीर उरलें.

गोंय मुक्त जाले उप्रांत गोंयांत आर्थिक उदरगत जावपाचे नदरेन कसलोच प्रयत्न जालोना. पुर्तुगेज आशिल्लो तेन्ना हिन्दूंक हें राज्य क्रिस्तांवांचें दिसतालें. गोंय मुक्त जालें आनी मगो सत्तेर आयलो तेन्ना क्रिस्तांवांक हें राज्य हिन्दूंचें दिसूंक लागलें. हाचोच फायदो मगो सरकारान गोंयांत हाडिल्ल्या नोकरवर्गान घेतलो आनी गोंयची जी उदरगत जावपाक जाय आशिल्ली, गोंयकारां मदीं जें धनीपण जागपाक जाय आशिल्लें तें जागूंक पावलें ना.

## गोंय राज्याविशींचो अपेक्षाभंग

आमचो देश हो राज्यां आनी संघराज्यां हांची संघटना. वेगवेगळी भास आनी भेस आशिल्ल्या राज्यांक एकठांय दवरून देश चलोवप ही तशी एक कसरतूच. तरीपूण 'भारतीय' हे एकेच भावनेन आमचो देश संवसारांत आपली खाशेली सुवात दवरून



आसा. आमच्या देशांतलीं कांय राज्यां विस्तारान इतलीं व्हड की ताचेर नदर मारप शक्य जायना आनी कांय राज्यां आनी संघप्रदेश इतले ल्हान की इतलीं ल्हान राज्यां आमकां परवडटा काय? असोय प्रस्न अदीं मदीं तकली वयर काडले बगर रावना.

गोंय हें अशेंच एक ल्हान राज्य. गोंय पुर्तुगेजाच्या चोपक्यांतल्यान मेकळें जालें तेन्ना ताचें वेगळें अस्तित्व सांबाळप काय तें हेर राज्यांत विलीन करप हो प्रस्न

उप्रासलो ताचें फाटलें मुखेल कारण म्हळ्यार गोंयचो ल्हान आंवाठ. तरी पूण गोंयची वेगळी संस्कृताय नदरेमुखार दवरून गोंय हो वेगळो संघ प्रदेश म्हूण दवरचो असो निर्णय पं. नेहरुनी घेतलो. उप्रांत जाल्ल्या विलिनीकरणवादा उप्रांतूय जनमत कौल घेवन गोंयचें वेगळें अस्तित्व राखलें. ताच्या फाटलें मूळ कारण आशिल्लें गोंयची स्वतंत्र भास आनी वेगळी संस्कृताय. उप्रांत गोंयांक घटक राज्याचो दर्जोलाबलो तोय कोंकणी ही एक वेगळी भास, ती मराठीची बोली न्हय ह्याच तत्वाचेर. तरी लेगीत प्रश्न उप्रांसतालोच तो म्हळ्यार इतल्या ल्हान प्रदेशाक राज्याचो दर्जोउपकारता?

आमच्या देशांतलीं हेर राज्यां पळयत जाल्यार, थंयची राजकीय अवतिकाय पळयत जाल्यार केन्नातरी ह्या राज्यांचे कुडके जावन आनीक ल्हान ल्हान राज्यां निर्माण जातलीं म्हणपाचें भाकीत राजकीय जाणकार करताले. अजून करतात. तेच फाटभूंयेर गोंयांक घटकराज्याचो दर्जोलाबलो तेन्ना अशेंच, इतल्याच आंवाठाचें आटोपशीर राज्य आसूंक जाय असोय एक सूर राजकीय मळार आयलो. पूण दुर्दैवान गोंय राज्याचो ल्हान आंवाठूच हांगच्या राजकीय अवतिकायेक कारण थारलो.

## विशाल गोमंतका बगर पर्याय ना

गोंय महाराष्ट्रांत घालचें आनी गोंयचें अस्तित्वूच ना करून उडोवचें अशीं सपनां गोंय मुक्त जाल्या उप्रांत महाराष्ट्रवादाच्या नांवान कांय खपनखायऱ्यांनी रंगयल्लीं तीं वेगळे अस्मितायेच्या नांवान स्वाभिमानी गोंयकारांनी मातयेभरवण केलीं हें सत कोणूच न्हयकारचोना. ह्या लोकांक ते काळारूच न्हय आजूय विस्तारवादी म्हूण आमचे मदले पाचारतात. हेच विस्तारवादी चळवळीक लागून आमचें सोबीत सुंदर गोंय आयज हे अवतिकायेक पावलें. हिन्दू आनी क्रिस्तांव अशे दोन गट हाका लागून जाले. गोंय मुक्त जावन ५० वर्सां उलगलीं तरी दोन समाजांमदीं आयिल्ली ही वेर सादली ना तर चडूच ती रूंदावत वचत रावली. पयलीं मगो पक्षान ती घाली. आयज भाजप ती रुंदायता. हाका लागून क्रिस्तांव मतदार क्रिस्तांव आमदार हाडूंक धडपडटा तर हिन्दू मतदार हिन्दू आमदार हाडूंक वावुरता. गोंयचें हीत पळोवपी आमदार हाडपाचें कोणूच चिंतिना. हिन्दू आमदार वो नवो उमेदवार आपल्या मतदार संघांतल्या दरेक मतदाराक हिन्दू म्हूण वळखता आनी नांवानूय वळखता. तीच गत क्रिस्तांव उमेदवाराची. पक्ष उमेदवारी दिता तीय खंयच्या मतदार संघांत खंयच्या धर्माचे मतदार आसात तेंच पळोवन. हाका लागून आयज एकूच उमेदवार एकाच मतदार संघांत घास मारून बसला. मतदारसंघांची फेर रचणूक जाले बराबर हे उमेदवार थतरवितर जावन गेले ताचें कारण हेंच.

हें सगळें जर सोंपयतलो जाल्यार आयज जें गोंय आसा तें व्हड करचें पडटलें. सगळो कोंकणी वाठार एक करून गोंय विशाल करचें पडटलें. मालवण सावन सुपा-हल्याळ मेरेन वाठार एक करून विशाल गोमंतक करचो पडटलो. हो विचार विस्तारवादी प्रवृत्तीचो अशी आरड जाली तरीय तो मुखार व्हरचो पडटलो. मतदारसंघांची संख्या वाडयतनाच मतदारसंघांचो आंवाठूय वाडोवंचो पडटलो जाका लागून हे मतदारसंघ जातीय-धर्मीय रूपान खंयच थळक दिसचेनांत आनी उमेदवाराक घराघरांनी दुडू वाटतना खरस मारतली आनी नाका ती वेंचणूक अशें जावन वतलें. जे सर हें घडना ते सर आयज जो शिगमो चल्ला वेंचणुकेच्या नांवान तोच चलत उरतलो. तो जर सासणाचो थारयतले जाल्यार आज जें गोंय आसा तें गोंय तशेंच दवरिनासतना सगळ्या कोंकणी प्रदेशांचो विशाल गोमंतक केले बगर दुसरो आनीक कसलोच पर्याय ना.

## ते सर किते करपाचें?

गोंय मुक्तीच्या भांगरा उत्सवी वर्सांत गोंय राज्याची वेंचणूक येता आनी ही वेंचणूक आदर्श अश्या उमेदवारांक घेवन, आदर्श पक्षानी लडोवन आदर्श सरकार घडोवचें आनी हे तरेन भांगराळें गोंय घडोवचें अशी खूब जाणांची आंतरीक इत्सा आशिल्ली. पूण तशें करपाचे नदरेन कोणेंच पावल घालेंना. जण एकल्यान जें कितें करपाचो यत्न केलो तें रेंवेंत मुतपासारकेंच घडलें. तेन्ना आतां कोणाक रडपाचें उरूंक ना. जें कितें वाडून दवरलां तेंच गिळून ओगी बसपाबगर पर्याय ना हें सत.

सत्तेर आशिल्लो गोंयचो काँग्रेस पक्ष भ्रश्ट, हुंवाळून घाल्लो हें सगळें खरें. ताणें फाटलीं पांच वर्सां आपणेंय खालें, राष्ट्रवादी काँग्रेसीकूय खावयलें आनी मगोकूय भरपूर भरयलें. इतलेंच न्हय विरोधी पक्ष म्हूण जो नांवाक भाजप आशिल्लो ताकाय खावंक दिलें. काँग्रेस पक्षान बेकायदेशीर खणी खणल्यो आनी हेर खूब कितें केलें. तेच वांगडा पांच वर्सां काँग्रेस पक्षाचें सरकार तिगयलें. सोनिया गांधींक चड म्हत्वाचें तें हेंच. काँग्रेसपक्षाक आनी दिगंबर कामतीक कितलोय भ्रष्टाचारी म्हळो तरी ताचे बगर गोंयाक पर्याय ना. काँग्रेस पक्ष नाका म्हळो तरी हेय खेप राष्ट्रवादी काँग्रेस पक्षाकडेन युती करून २३ ते २४ सुवातो हाडटा आनी दिगंबर कामतीकूच पर्थून मुख्यमंत्री करतात. पांच वर्सां मुख्यमंत्री पद सांबाळिल्ल्याची बक्षिसी तांकांच मेळटा. भाजपा जो मगोकडेन युती करून सत्तेर येवपाचीं सपनां रंगयता तीं निव्वळ सपनां कशीं तें फुडल्या अंकांत विस्तारान पळोवया!



पु न र्न वा

# कोण दिल्लो जाप?

*कोंकणीक आनी मोंयांक व्हड करूनच आमी 'मनीस' जावंक पावल्यात. आयज? कोणाची दिश्ट की लागली ना मू कोंकणी चळवळीक, असो दुबाव येवचो अशी परिस्थिती निर्माण जाल्या. कितें जालें? कोणें आमचे भितर फूट की घाली काय कितें? काय आमीच आमचे दुस्मान जाले?*

- रवीन्द्र केळकार

'वज्जींक हांव काबार करतलों... तांगेलें राज्य मातये भरवण करतलों. तांकां भिकेक लायतलों, ना नपश्चात करतलों...' अशें म्हणून मगध सम्राट अजातशत्रू खुबलो. तो वज्जींच्या राज्याचेर घुरी घालपाचे बेत रचपाक लागलो. आपणाल्या महामंत्र्याक आपोवन ताणें सांगलें., भगवान बुद्धाक वचून मेळ, म्हजो बेत सांग आनी कितें म्हणटा तें पळे.

महामंत्री बुद्धाक वचून मेळ्ळो.

बुद्धाच्या फाटल्यान त्या वेळार आनंद उबो आशिल्लो. बुद्धान आनंदाक म्हळें, ''कांय वर्सां पयलीं हांवें वज्जींक राज्य कशें घटमूट करचें हाचे कांय नेम समजावन सांगिल्ले. हांवें तांकां म्हळें, केदोय ल्हान निर्णय आसूं, तो एकमतान घेयात. कोणूय ताचे आड आसत जाल्यार ताका कडेक दवरूं नाकात. ताका समजावन आपलो करात. उपरांतूच निर्णय घेयात... वज्जी ह्या नेमाक पाळो दिवन चलतात मू?''

''हय, भगवंता, ते सगळे एकठांय येवन सगळे ल्हान व्हड निर्णय एका मत्तान घेत आयल्यात'' आनंदान जाप दिली.

जे मेरेन वज्जी एकामेकांक सांबाळून, एकठांय रावन एका मत्तान निर्णय घेतले, ते मेरेन तांगेली उदरगत जायत रावतली. तांचे ल्हंवेक लेगीत कोण हात लावंक पावपाचो ना, अशें म्हणून बुद्धान पर्थून विचारलें, ''आनंदा, वज्जी खऱ्याचें फट आनी फटिचें खरें करून आपणालो कारभार चलयनात मू? राज्यांतल्या म्हालगड्यांचो भौमान राखतात मू? तांचेकडेन नमळायेन चलतात मू? राज्यांतले खंयचेच बायल मनशेक वांकडे नदरेन कोण पळेनात मू? भायल्यान जे व्यापारा खातीर राज्यांत येतात तांकां नागयनात मू? कोणाक तांच्या तांच्या धर्म विचारांक धरून चलपाक राज्यांत आडखळ जायना मू?''

''ना, भगवंता, वज्जी अशे चलनात'' आनंदान जाप दिली.

''अधिकाऱ्यांक लांच दिवन कामां करून घेनात मू?''

''ना, भगवंता, सगळे भगवंतान सांगिल्ल्या नेमांक धरून चलतात.''

आनंदाची जाप आयकून बुद्धान अजातशत्रूच्या महामंत्र्याक सांगलें, ''तुगेल्या सम्राटाक वचून सांग, वज्जींचें राज्य ल्हान आसूं, ताचेर घुरी घाली जाल्यार तुका हार खावची पडटली. वज्जींक तूं जिखूंक पावपाचो ना. तांच्यांतल्या कोणाक विकतो घेतलो म्हणशीत जाल्यार तेंय तुका जमपाचें ना, खंयचोच वज्जी आपणाक विकपाचो ना...''

महामंत्र्यान येवन अजातशत्रूक बुद्धाचें मत्त सांगलें आनी म्हळें, ''वज्जींचेर घुरी घालपाचे बेत सोडून दी. ते मरतले पुणून तुज्या पांयां कडेन येवपाचे नात. तांकां कोणाक विकते घेवपाचें मनांत आसत जाल्यार तेंय सोडून दी, कोण आपणाक विकचो ना. वज्जींचें राज्य घेवपाचो एकूच उपाय आसा – तांच्यांत धोशी घालूंक जाय, तांकां फोडूंक जाय... दुसरो उपाय ना...''

अजातशत्रून वज्जी समाजांत फूट घालुनूच तांगेलें राज्य घेतलें.

कोंकणी भक्त काल पयर मेरेन वज्जीं भाशेन चलताले. तांचे मजगतीं वेगळ्या वेगळ्या संस्कारांची फाटभूंय आशिल्ले लोक आशिल्ले. सगळेकडेन शिंपडून राविल्ले. पुणून सगळे 'एक' जाल्ले वरी चलताले. तांची एक संस्था आशिल्ली – 'कोंकणी भाशा मंडळ' नांवाची. ती कोंकणी माध्यमांतल्यान शाळा सुरू जावच्यो म्हूण वावुरताली. पाठ्य पुस्तकां तयार करताली. छापून हाडटाली. हो तिगेलो वावर 'लोकां'च्या आधारान चलतालो, शासन एक तर विरोधांत आशिल्लें वा उदासीन राविल्लें. ते भायर, ती वेगळे वेगळे कडेन शिंपडिल्लो

आनंदा, वज्जी खऱ्याचें फट आनी फटिचें खरें करून आपणालो कारभार चलयनात मू? राज्यांतल्या म्हालगड्यांचो भौमान राखतात मू? तांचेकडेन नमळायेन चलतात मू? राज्यांतले खंयचेच बायल मनशेक वांकडे नदरेन कोण पळेनात मू?




कोंकणी भक्त काल पयर मेरेन वज्जीं भाशेन चलताले. तांचे मजगतीं वेगळ्या वेगळ्या संस्कारांची फाटभूंय आशिल्ले लोक आशिल्ले. सगळेकडेन शिंपडून राविल्ले. पुणून सगळे 'एक' जाल्ले वरी चलताले. तांची एक संस्था आशिल्ली - 'कोंकणी भाशा मंडळ' नांवाची. ती कोंकणी माध्यमांतल्यान शाळा सुरू जावच्यो म्हूण वावुरताली.

कोंकणी समाज एक भास, एक लिपी, एक साहित्य ह्या सुतान गुथून काडपा खातीर कोंकणी साहित्य संमेलनां वा लेखक संमेलनां घडोवन हाडटाली.

गोंय महाराष्ट्रांत घालचें आनी भारताच्या नकश्यावेलें गोंयचें नांव निशाण लेगीत पुसून उडोवचें म्हूण ज्या वेळार अख्खो सांस्कृतीक, साहित्यीक, राजकी महाराष्ट्री एकठांय जालो आनी ताका आदार दिवपा खातीर कांय घरचे भेदी 'महाराष्ट्रवादी' जावन मुखार सरले त्या वेळार तांचो प्रतिकार करपी एकूय संघटन कोंकणी भक्तां कडेन नाशिल्लें. प्रतिकार करपी कोणूच मुखार सरलोना जाल्यार कोंकणी खंयची, गोंयूच संवसाराचे फाटीर उरपाचें ना ही भिरांत उपरासून आयली तेन्ना कोंकणी भक्तां मजगतचे कांय म्हालगडे मुखार सरले आनी तांणी 'महाराष्ट्रवादा'च्या प्रतिकाराच्यो तरांतरांच्यो कार्यावळी आंखून काडल्यो. सभा संमेलना घेतलीं, निदर्शनां केलीं, सत्याग्रह केले, बंदखणी भोगल्यो. नेमाळीं चलयलीं कोणे कितें करचें हें म्हालगडे थारायताले आनी गोंयभर शिंपडिल्ले कोंकणी-भक्त ताका एका मत्तान पाळो दिताले. हे म्हालगडे 'लीडर' नाशिल्ले. हेरां सारकेच 'कार्यकर्ते' आशिल्ले. म्हूण कोण कोणाचे पांय ओडी नाशिल्लो. म्हूण कोण कोणाक फाटीं घालपाक वा कडेक काडपाक वावरी नाशिल्लो, सगळे एका मत्तान चलताले. सगळे एक आशिल्ले.

ओपीनियन पोल मेरेन सगळे, हे भाशेन, एके तरेच्या झुजा मळार एका चित्तान वावुरल्यात.

आनी लक्षांत दवरूंक जाय -

ह्या मूठभर कोंकणी भक्तांनी - महाराष्ट्रीय फुडाऱ्यांच्या उतरांनी 'काहीं कारटयांनी' - महाराष्ट्राचे पुराय सांस्कृतीक, साहित्यीक, राजकी नेतृत्वाक हार खावयल्या. येदी व्हड हार महाराष्ट्रान इतिहासांत केन्नाच खावंक ना.

गोंय गोंय उरूंक पावलां तें ह्या कोंकणी भक्तांक लागून. इतल्यान सोंपूंक ना. कोंकणी 'भासू'च नाशिल्ली. खासा गोंयचे विद्वानूच तिका 'बोली' म्हणटाले. तिच्यांत हें ना, तें ना म्हण हिणयताले. पयलीं कालिदास, शेक्सपीयर निर्माण करात म्हूण उपदेसूय करताले. ती कोंकणी आयज घटनेचे आठवे वळेरेंत हिन्दी, बंगाली, मराठी सारकेल्या तिच्या गिरेस्त भयण भासांचे पंगतीक वचून बसल्या. ही सिद्धीय ह्या कोंकणी भक्तांचीच.

कोंकणीक आनी गोंयांक व्हड करूनच आमी 'मनीस' जावंक पावल्यात. आयज? कोणाची दिश्ट बी लागली ना मू कोंकणी चळवळीक, असो दुबाव येवचो अशी परिस्थिती निर्माण जाल्या. कितें जालें? कोणें आमचे भितर फूट बी घाली काय कितें? काय आमीच आमचे दुस्मान जाले? म्हाका जाप मेळना. कोणूय आधार दीत म्हाका जाप सोदून काडपाक?



***वसुंधरा आनी भास्कराचें नातें कितें? वसुंधराक मरण कशें अयलें? असल्या कितल्यातरी प्रस्नाच्यो जापो वसुंधरेच्या अंत्येश्टीसावन सुरू जाल्ले हे कादंबरींत वसुंधराच्या बाराव्या मेरेन मेळत रावतात.***



- दिलीप बोरकार

# सखी वसुंधरा

एके अनवळखी चलयेक दुसऱ्या घराब्यांतल्यान लग्न जावपाच्या नांवान हाडप आनी आपल्या नांवार करप, ते चलयेक आपली बायल म्हणोवन मिरोवप, तिका वयलेंतराक अर्धांगी म्हूण पाचारप. पूण तिचेकडल्यान वावर मात पूर्णांगाचो करून घेवप.

"सखी... तूं?"

व्हडा कश्टान भास्कराच्या तोंडांतल्यान उतरां फुटलीं. मुखार उलोवपाची शक्तूच ताच्यांत नाशिल्ली. ताच्या सांगात्यांनी ताका कोणाचकडें उलोवपाची मनाय केल्ली. ताका मेळूंक येवपी दर एकल्याक ताचेकडें उलोवंक बंदी घाल्ली.

सखीक खूब उलोवपाचें आशिल्लें. तिचे वोंठ थरथरताले. दोळ्यांत दुकां दाटून आयिल्लीं. तोंडांतल्यान उतरां जरी फुटनाशिल्लीं तरी त्या वोंठांच्या थरथरांनीच तिचें मन भास्कराक उक्तें जाल्लें. नकेत्रांचीं दुकां व्हावंक लागलीं.

'पिशा, कितें जिवाची हालत करून घेतल्या तुवें? म्हजो राजा कितें आशिल्लो आनी आतां कितें जावन गेला! जिवाचे हाल करून कित्याक छळटा तूं म्हाका?'

सखीचे दोळे उलयताले. उतरां परस सशक्त भास वापरून.

"सखी, तुका होच वेळ मेळ्ळो म्हाका मेळूंक? खंयच्या प्रसंगार तरी दोन न्हंयो एक जातात? इतलेंच समादान म्हाका, प्राण वच्चे पयलीं येवन मेळ्ळें."

भास्करान एका दमान दोन वर्सांचे उत्फर्के उलोवन दाखयले. तितलें उलयता म्हणसर ताका धाप लागिल्ली. सखीन ताच्या तोंडार आपलो हात दवरलो. भास्कराच्या वोंठांक सखीच्या हातांचो जाल्लो पयलो वयलो स्पर्श. भास्कराचें रूंवानरूंव शिरशिरलें. ताचो ताकाच धक्को बसलो. आपले भितर अकस्मात बदल जाल्लो पळोवन ताकाच अजाप दिसलें. सखी ताच्या वांगडा इतलो काळ आशिल्ली. एकांतांत कितले तरी खीण दोगांयनीय सारले. कितलेदां तरी चुकून, लागूंक फावना थंय स्पर्श जाल्लो. तातूंत कसलीच आसक्ती नाशिल्ली. आशिल्लो तो मायेचो भाव. पूण आतां त्या स्पर्शांत बदल जाला म्हणपाचें भास्कराक भावलें. ही शरिराची आसक्ती म्हणपाची जाणविकाय ताका जावन गेली. ही आसक्ती कोणात आशिल्ली? सखींत काय ताच्यांत? सखींत निश्चितूच न्हय. ती ताच्याच भितर तयार जाल्ली. हें अशें घडपाचें कारण कितें? मनीस एकठांय आसता तेन्ना जी भावना मात लेगीत आफडूंक ना ती तो पयस गेल्या बराबर कशी बदलूंक शकता? काय भास्कराच्या विचारांत बदल जावंक लागिल्लो? काय भास्कराक आपूण सोंपतां आनी ते पयलीं नव्या भास्कराक जल्माक घालपाची जाणविकाय सैमीक शक्त ताका करून दिताली?



आपल्यांत असो अकस्मात बदल कसो जालो हेंच भास्कराक कळना जालें. सखीच्या स्पर्शाची आसक्ती टाळपाखातीर ताचें दुबळें मन धडपडूंक लागलें. खरें म्हळ्यार भास्कर असले नाजूक अवस्तेंत आशिल्लो जाका शाररीक आसक्तीचे विचार लेगीत आफडूंक शकनाशिल्ले. ताका

जाय आशिल्ली मांडी. आपली तकली दवरून निमणो स्वास घेवपा खातीर. जिचे मांडयेर तो तकली दवरूंक शकतालो ती धर्तर कितल्या तरी दिसांनी ताच्या म्हऱ्यांत बसून आशिल्ली. पूण भास्कराक ते धतरीची मांडयेर तकली दवरपा बदला बीं रोवपाची इत्सा जावन गेल्ली. भास्कराक स्वताचीच किळस येवंक लागली.

भास्कराक उलोवंक लावं नाका आनी ताचेकडेन उलोवंकूय नाका म्हणपाची शिटकावणी वावुरप्यांनी भास्कराचे तकले कडेन बशिल्ले ते अनवळखी बायलेक दिली.

हय. लोकांपासत ती अनवळखीच आशिल्ली. लोकां पासत कित्याक? तीं दोगांय एकमेकांकूच अनवळखी आशिल्लीं. पूण तरी तांची वळख 'वळख' ह्या अर्थाच्या भायली आशिल्ली. तांचें नातें कितें आसा आनी ही बायल भास्कराची कोण लागता हाची मात लेगीत कल्पना हेरांक नाशिल्ली म्हळ्यार जाता. भास्कराक मेळूंक येवप्यांमदीं चलयो तश्यो बायलोय आसताल्यो. पूण भास्कराच्या उशाकडेन बसून दोळ्यांतल्यान दुकां गळोवपी ही बायलमनीस आनीक कोण? होच प्रस्न थंयच्या लोकांक पडिल्लो.

भास्कराच्या आमरण उपोशणाची खबर पुराय गोंयभर पातळिल्ली. दर दिसाची खबर खबरांपत्रांचेर येताली. गोंयच्या खाची गोंयड्यांतल्यान कामगार चळवळीकडेन आशिल्ले लोक भास्कराक नैतीक फाटबळ दिवंक येताले. पूण भास्कराची आवय, बापूय जावं भयण कोणूच अजून मेरेन ताचे खबरेक येवंक नाशिल्लीं. तीं येवंचीं अशें भास्कराक दिसनाशिल्लें. तशें हो विशय तांकां समजुपाचो नाशिल्लोच. म्हणटकच गरजेभायर तांकां पणजे आपोवप वा कोणेतरी वचून हाडप भास्कराक अजिबात नाका आशिल्लें. तातुंतल्यान कांय उद्दीश्ट साध्य जावपाचें नाशिल्लें. वेल्यान भास्कराकूच मनस्ताप जावपाचे!

अशे हे परिस्थितींत कोणतरी एक भलतीच बायल येवप, तिणें भास्कराच्या माथ्याकडेन बसून हुसको करप हाका लागून सगळ्यांक ती कोण हें जाणा जावपाची उत्सुकताय आशिल्ली. ती बायलमनीस प्रदीपाचे बायले वांगडा, नेहा वांगडा आयल्या म्हणपाचेंय कांय जाणांनी पळयल्ली. पूण ती कोण हें विचारपाचें धाडस मात एकल्याकूय जायनाशिल्लें. नेहान तशें आपलेपणूच कोणाकडेन दवरूंक नाशिल्लें. संद मेळटा तेन्ना तें हेरांचो अपमान करतालें. स्वताविशीं ताणें भलतोच गैरसमज करून घेवन ते पध्दतीन तें वागतालें. पूण प्रदीपाच्या तोंडाकडेन पळोवन सगळे ताका माफ करताले. तेच पासत नेहाकडेन प्रदीपाचे जावं भास्कराचे इश्ट व्हडलेशे संबंद दवरून नाशिल्ले.

भास्कर सुदीर येवन जेन्ना ते बायल मनशेकडेन उलोवंक लागलो तेन्ना कांय जाणांक दिसतालें, ती कोण काय म्हूण भास्कराक विचारचें म्हूण! पूण भास्कराक तें आवडटलें काय? ताचेकडेन उलोवंक जातलें काय? होय दुबाव आशिल्ल्यान सगळे तिका पळयत राविल्ले. भास्कराक दुखता तशें वागप ना, ताची काळजी घेवप, ताका सांबाळप हो आपलो अधिकार अशें थंयच्या कार्यकर्त्यांक दिसतालें. त्या अधिकाराचो ते संद मेळटा तेन्ना वापरूय करताले. पूण ज्या भास्कराचेर ते बायलेचो पुरायेन अधिकार आशिल्लो ती बायल मात आपलो कसलोच अधिकार नाशिल्लेवरी अनवळखी कशी बसून राविल्ली. तेजीश्ट दोळ्यांच्या त्या धवें पडिल्ल्या मुखामळाक तेळत बशिल्ली.

भास्करूय आपले दोळे उक्ते दवरून त्या मळबाकडेन, ते धर्तरीकडेन पळयत रावलो. ताका आपले सखीकडेन खूब उलोवपाचें आशिल्लें. आपलो राग, आपली तगमग, आपले अथरेक, आपले उमाळे उक्तावपाचे आशिल्ले. पूण सखी म्हूण उलो मारपा इतलीय शक्त भास्करा भितर नाशिल्ली. आंगांत जी शक्त उरिल्ली ती शक्त ताका दोळ्यांतल्यान भायर सरूंक सोदपी दुकांक आडावपा खातीर जाय आशिल्ली. दोळ्यांत येवपी दुकां सखी पासत न्हय, भास्कर मर्णाच्या भंयान भियेला देखून तो रडटा असो तीं दुकां पळोवन हेरांचो समज जावंक शकतालो! भास्कराक लोकांची ताकत खबर आशिल्ली. ताणें आज मेरेन आपल्या भावनांचेर नियंत्रण दवरिल्लें तें आयचे घटकेक वगडावन लोकांक तोंड करून दिवपाचें नाशिल्लें ताका.

भास्करान सखीचो हात दामून उलोवं नाका म्हूण सांगलें आनी तसोच पडून रावलो. दोळे उक्ते दवरपाचो प्रयत्न करीत. तरी ताच्या दोळ्यांचेर झापड येतालीच. सखी ताच्या कपलार हात दवरून माथ्यावेल्यान ओडटाली.

आपल्या माथ्यावेल्यान कोणतरी हात ओडटा हाची जाणविकाय भास्कराक जाल्ल्यान ताणें दोळे उक्ते केले. नेहा ताच्या शेजराक खाटीचेर बशिल्लें आनी ताच्या माथ्यार हात भोंवडायतालें.

''केन्ना आयलें तूं नेहा?'' उठपाचो प्रयत्न करीत भास्करान नेहाक विचारलें.

''आसूं रे! पडून राव. उठटा कित्याक? जालें म्हाका अर्दवर आयल्यार. तूं न्हिदला म्हूण तुका जाग केली ना.''

ताचेकडेन पळयत नेहान म्हळें. नेहा येतलें हाची भास्कराक कल्पना आशिल्ली. पूण सकाळच्या वेळार येत अशें दिसूंक नाशिल्लें. आयल्यारूय सांजचें बी पासय मारीत अशी ताची कल्पना आशिल्ली.

मरणाच्या घरा जाप बी दिवंक पयले दिसा, दुसरे दिसा बी कोण सहसा वचनांत. तिसरे दिसा उप्रांत अस्थी संचयन बी जालें म्हणटकच चौथे दिसा जाप दिवंक येवपाची भोवतेक प्रथा आसूंक जाय. हेर लोकांनी ती परंपरेन आयिल्ली प्रथा जपल्या आसूं येताली. भास्कराचे बाबतींत ह्या प्रथांकूय अर्थ नाशिल्लो आनी परंपरांकूय. नेहा तर काल अंत्येश्टीक येवनूय गेल्लें वसुंधराचें निमणें दर्शन घेवन. तें आयलेंना जाल्यार कोण शिणपाचोय नाशिल्लो. पूण प्रदीप हांगा आशिल्लो. ते भायर भास्करा म्हऱ्यांत रावपाचीय गरज आशिल्ली!

पूण तें खऱ्यानीच भास्करा खातीर आयिल्लें काय प्रदीप ललिताक घेवन गेला हाची बी ताका कोणाकडल्यान खबर बी कळिल्ली? नेहाच्या दुबाव घेवपाच्या सभावाक अंत पार नाशिल्लो. ह्या संशयी सभावाक लागूनच प्रदीप आनी ताचे मदीं वितुश्ट आयिल्लें.

''प्रदीप मेळ्ळो तुका?'' कितें तरी विचारूंक जाय म्हूण भास्करान विचारलें.

जाप दिनासतना नेहा घुम्यावरी जनेलांतल्यान भायर पळयत रावलें. ताका भोवतेक हो विशय नाका आशिल्लो. पूण भास्कराक हो विशय

चर्चेक आयिल्लो जाय आशिल्लो. भास्कर-वसुंधरा , प्रदीप-नेहा, लॉरेटा, कल्पना, विवेक हीं सगळीं एका धाग्यान बांदून आयिल्लीं, भावनीक नातें संबंद आशिल्लीं मनशां फाटलीं कितलींतरी वर्सां एकठांय वावुरतालीं. एकठांय जियेतालीं. तांचे भितर कमी अदीक प्रमाणांत गूणदोश हे आशिल्लेच. म्हणुया गुणांपेक्षा दोशूच चड आशिल्ले. पूण शेवटाक कितें तर मनीस जात. गुणांचें, दोशांचें मूल्यमापन तरी कोणें करचें? हें सगळें व्यक्तीसापेक्ष आसता. जण एकलो आपले समजून घेवपाचे तांकी प्रमाण दुसऱ्यांक समजता. अश्या वेळार कोणेतरी एक सूवर्णमध्य सोदून काडचो पडटा. एका-मेका पासून पयस वचपी लोकांक विचारांचें, समुजत दारपणांचें ढींक लावन तांका एकठांय दवरचें पडटा. तें काम भास्करा सारक्यांचें आशिल्लें.

"दनपार जावन गेल्या. तुवें थोडी पेज जेवंची अशें माई म्हणटाली."

खाटीवेल्यान उठत नेहान म्हळें. दनपार जावन गेली अशें ताणें म्हणटकच भास्करान वणटीवेले घडयाळीचेर नदर मारली. खऱ्यानीच तीन जावन गेल्लीं. म्हणटकच भास्कर बरोच वेळ सखीचे यादीनी घुस्पून गेल्लो तर!

भास्कर सडसडीत उठलो. ताणें भुरग्यांवरी अशें करपाचें नासता अशें शें ताका कितें दिसलें. ताचेर सगळी जापसालदारकी आशिल्ली आतां. माई जेवली काय? पापाक पेज दिली काय? तें लालिता म्हूण कोण आयिल्लें सकाळीं ताणें कितें खालां काय? हें सगळें आतां भास्करानूच पळोवंक जाय आशिल्लें आनी भास्कर असो सगळ्यांक उबंत उडोवन, गळसणून गेल्लेवरी पडिल्लो.

नेहा भास्कराक घेवन भायर आयलें सालांत. शेजाऱ्यांनी पेज हाडून दिल्ली. ललितान घरांतली जापसालदारकी खऱ्यानीच आपल्या आंगार घेतिल्ली. ताणें पापाक पेज भरयिल्ली. ताका पुसून, कपडे बी बदलून न्हिदयिल्लो. माईकूय आग्रो करून पेज दिल्ली. प्रसंग वळखून आपणेंय माई वांगडा पेज पोटांत रकयिल्ली. भास्कराकडेन अजून तशी ललिताची सवंकळ जावंक नाशिल्ली देखून ताका उठोवपाचें धाडस ताका जावंक नाशिल्लें. तें काम तेन्नाच नेहा आयिल्ल्यान नेहाक करचें पडिल्लें. प्रदीप खंयच दिश्टी पडनाशिल्लो. भोवतेक तो सकाळीं गेल्लो तो येवंकूच नासुये!

नेहान वाटयेंत घालून दिल्ली पेज भास्करान इत्से आड पोटांत धुकल्ली म्हळ्यार जाता. शरिराक दंडोवपाचे हे प्रकार हिन्दू धर्मांत कित्याक आनी कोणें घुसडयल्यात हें कळपाक मार्ग नाशिल्लो. भास्कराक पेज हो प्रकार आवडटालो. पूण ती उकड्या तांदळांची. भुरगेपणार तोय पेजूच जेवन आयिल्लो. पुर्तुगेज तेंपार गोंयांत सकाळच्या वेळार चडशा लोकांगेर ब्रेकफास्ट हो प्रकारूच नाशिल्लो. सकयल्या जातीचे जावं वो जावं वयल्या जातीचे! एकान एक घराबो हो कश्टकरी घराबोच आशिल्लो. शाररीक कश्ट प्रत्येकाच्या वांट्याक आयिल्ल्यान कुडीक घटाय मेळपाखातीर उकड्या तांदळांची पेज हीच योग्य आशिल्ली. उकड्या तादळांची फुलिल्ल्या गोट्यांची पेज आनी तोंडाक लावपाक खळांतली आंबली जावं खाऱ्याचो कुडको, चडूच जाल्यार कालच्या उरिल्ल्या हुमणाचो चुलीचेर आटोवन तयार केल्लो मेथो. हाका लागून पेज सरसरीत पोटांत वताली. मागीर दनपार मेरेन दुसरें कांयच पोटांत गेलेंना तरी चलतालें.

मागीर सुदारणेच्या नांवान च्या - कॉफी पिवपाची संस्कृताय गोंयांत रिगली. गोंय मुक्त जाल्या उप्रांत तर क्रिस्ताव पदेरांच्या हातचे उंडेय हिंदू खावंक लागले. सकाळच्या वेळावेली पेज गेली आनी च्या-उंडो आयलो. जांका अजून धर्म बाटवणेचो भयरोजळप आशिल्लो ते पदेराल्या उंड्यांक हात लायनाशिल्ले. कारण कितें तर ज्या खोर्नांत उंडे भाजतात त्याच खोर्नांत धुकराचें मासूय भाजतात. ताका लागून बाटपाची शक्यताय आसता. म्हणटकच च्या वो संवादाची कॉफी आनी तांदळांची दाटसार भाकरी वो पोळे, कायलोळ्यो बी घराघरांनी सकाळच्या च्याच्या नांवान भितर आयलें. तरी लेगीत हे च्याचेर बऱ्याच लोकांचें जायनाशिल्लें. तांकां अकरा वरांचेर पेज वो आंबिल हो नाचण्याचो प्रकार जायच पडटालो. ते बगर तांच्या पोटाक थाकाय येना आशिल्ली.

आयज ही गोंयची पेज संस्कृताय बऱ्याच प्रमाणांत ना नपयत जावन गेल्ली. उकड्या तांदळांची पेज घरांतल्यान पयसावल्याच म्हळ्यार जाता. आतां पेज घरांघरांनी शिजता ती सुरय तांदळांची कोणूय घरांत बरो बी ना जायत जाल्यार. नातर ही अशी शेजाऱ्यांनी करून हाडून दितकच कोण खंवसल्या उप्रांत.

असल्या ह्या वातावरणांत, शेजाऱ्यांनी हाडून दिल्ली सुरय तांदळांची पेज ही वातावरणांत बदल घडोवन हाडिना तर त्या दुखेस्त वातावरणांत

आनीक भर घालता. तातुंतच घरांत हांसप खेळप ना, रेडिओ सारकें मनोरंजनाचें साधन वापरप ना होय दंडक. खरें म्हळ्यार ह्या दुखदिण्या वातावरणांतल्यान मनशाक जाता तितले बेगीन भायर काडपाची गरज आसता. आपल्या घरची, नात्यांतली, संवकळींतली एखाद्री व्यक्ती गेली म्हणटकच विरह हो जातलोच. ताच्या वचपान दुख्ख जातलेंच. पूण त्या दुख्खाचीं कितलीं गगना करप, विरहाचें प्रदर्शन करप हाकाय मर्यादा आसा. मनशाचे हे विकळाप पूर्व परंपरेन चलत आयिल्ल्यान ते सासणाचे चलत उरचे देखून समाजांतल्यान ताका उदक सारें घालपाचो यत्न जायत आसता. बारा दीस मेरेन सुतक पाळून गेल्ले व्यक्तीकडेन जांचो कसलोच संबंद ना तांका लेगीत शोक करूंक लावप हो खरें म्हळ्यार अन्यायूच म्हणूंक जाय. जाचो लागशिल्लो कोण गेला ताका विरह जावंकच जाय. कितले घनिश्ठ संबंद हाचेर हो विरह निंबून आसता. पूण फक्त सोयरे धायरे म्हूण सुतक पाळप आनी सुखी संवसारांत दुख्ख भरसवप हातूंत कितलें मेरेन तथ्य आसा? सैमांतल्य हेर सजिवांमदीं हो प्रकारूच ना. फक्त मनशांकूच हो बडवाचार लागता.

बशिल्लेकडेन भास्कराचे तकलेंत नाना विचार येताले. ताका नेहाकडेन खूब कितें उलोवपाचें आशिल्लें. पूण नेहा आपल्या व्यक्तीगत जीवनाकडेन येतकच स्वताक सामकें आंवळून शें घेतालें.

भास्कराकडेन नेहा सामकें मुक्त आशिल्लें. प्रदीप घोव जावनूय नेहान प्रदीपाक आपलेविशीं कांय गजाली सांगूंक नाििल्ल्यो त्यो उक्त्या मनान भास्कराक सांगिल्ल्यो. वसुंधरा खरें म्हळ्यार नेहाची जिवाभावाची मैत्रिण. पूण नेहा केन्ना केन्नाय वसुंधराकडेन उक्तें जायनाशिल्लें. पूण भास्कराकडेन आपल्यो सगळ्यो गजाली मन सोडून उलयतालें. पूण उप्रांत तें अकस्मात बदलून बदलून शें गेल्लेवरी भास्कराक दिसूंक लागिल्लें.

भास्कराखातीर बायल मनीस हो एक गहन विशय आशिल्लो. निसर्गान बायल नांवाची एक अतीसुंदर निर्मिती केल्या अशेंच ताचें मत आशिल्लें. पूण ती जितली सुंदर, तिचीं जितलीं रूपां पळोवंक बरीं दिसतात तितलींच तीं घातकय आसता हाचीय कल्पना भास्कराक आशिल्ली. संवसारांतलीं सगळीं झगडीं झुजां हीं बायल मनशे खातीरूच जाल्लीं आसात ह्या मताचेर तो पाविल्लो. रामायणांत रावणाक भांगराची लंका मातयेभरवण करची पडली ताचे फाटलें कारण सीता, शुपर्णखा सारख्यो बायलोच आशिल्ल्यो. कुरूक्षेत्राचेर रक्ताचे पाट व्हांवले ते महाभारतातले द्रौपदी खातीरूच. दरेक घरांत कलह माजतात ते बायले खातीरूच. लग्न जावचे आदीं भाव भाव कितले बरेभशेन सुखा समादानान रावतात. तांतल्या एकल्याचें लग्न जालें आनी घरांत बायल मनीस आयली म्हणटकच त्या घरांत कली रिगिल्ल्याचो अणभवय बऱ्याच जाणांक आयिल्लो आसा. मांय-सुनांच्या संबंदाचेर तर आख्यानाचेर आख्यानां भारतीय संस्कृतायेंत आसात. हुंदरा माजराचें नातें जशें आसता तशें मांय-सुनेचें अशेंच भोवतेकाचें मत जावन गेल्लें आसा.

पूण बायल ही संवसारांत चैतन्य हाडटा. हो संवसार खोसयेन भरून उडयता. नवेंनवें निर्माण करता ती बायलूच! दादलो हो तिका फुलपाक फळपाक सहकार्य करता इतलेंच. एकदां वसु, नेहा, प्रदीप आनी भास्कर गजाली मारीत बशिल्लीं. कसो कोण जाणां, विशय आयलो बायलांचेर. वसून भास्कराक बायल मनशेविशीं कितें दिसता काय म्हूण प्रस्न केलो.

भास्कर बायलमनशेविशीं सदांच आदर बाळगून आयिल्लो मनीस. ताचे बायल मनशेविशीं विचार सामके स्पश्ट आनी शुध्द आशिल्ले. ताणें सांगलें, आपूण बायलमनशेकडेन पळयतां तो बायलमनीस ही धतरेची प्रतीरूप म्हूण! बायल ही एक संपूर्ण धर्तर आसता. पूण हे धतरेचो दादल्यानी खूबच गैरफायदो घेतलो. तिचेर अत्त्याचर केला. अजून करीत आसात.

ह्या संवसारांत चडांत चड आक्रमणां जाल्यांत तीं भूंय पादाक्रांत करपा पासत. दुसऱ्यांचेर आंक्रमण करप, थंयच्या लोकांक मारून उडोवप आनी तें राज्य म्हळ्यार भूंय आपल्या साम्राज्याक जोडप, आपूण सम्राट म्हूण पदवी जोडप. आतामेरेनच्या राजा महाराजानीं हेंच मुखेल ध्येय मानून काम केलां. तेंच कित्याक, आयज एकवीसाव्या शेकड्यांत लेगीत हेर राष्ट्रां दुसऱ्या राष्ट्रांचेर आक्रमण करतात, कुतां काडटात, अतिक्रमण करतात. आतंकवादाक पोसवण दितात. कितल्याश्या निरपराध लोकांक मारून उडयतात. ताचें फाटलें कारण म्हळ्यार फकत भूंय आपल्या नांवार करून उडोवप. मागीर ती कश्मीरची भूंय आसूं वो इराक-इराणचो प्रदेश आसूं! फक्त भूंय नांवार करून उडोवंक मनीसहानी तितली चल्ल्या.

तीच रीत एके चलयेक जावं बायलेक आपल्या नांवार करूंक दादलो वापरता. तिचेर बळजबरी करता: तिका फुसलायता, साम, दाम, दंड, भेद हांचो वापर करता. अशें करतना दादल्याच्या आड जो कोण येता ताका तो नानपयत करून उडयत' दादल्याक जाय आसता ती फकत आपल्या नांवार करून दवरिल्ली. ते पासत हे कांय दादले कितेंय करूंक खंयच्याय तोंकार वचूंक शकतात.

आपल्या नांवार ही धर्तर करून हे शेवटी करतात कितें? तांकां फक्त ती धर्तर आपल्या नांवार करून आपूण तिचो धनी म्हणोवन तांकां मिरोवपाचें आसता. ते धतरेची मशागत करपाची आसता, ती धर्तर कसपाची आसता म्हणपाचें लेगीत तांकां खबर नासता. ती कसपाचें, तिची मशागत करपाचें काम पागाराचेर दवरिल्ले कामगार करतात. कसपाचें, धर्तर फळोवपाचें सगळें सूख त्या कामदारांच्या नशिबांत आसता. धनी फक्त सूख भोगता तो धनीपणाचो.

पूण कांय लोक भास्करा सारके पिशेय आसतात. तांकां ही धर्तर आपल्या नांवार करपाची नासता. तांकां ती कसपाची नासता आनी फळोवपाचीय नासता. फक्त ते धतरेवेलें प्रेम काळजांत बाळगून ते धतरेचे सोबितकायेचेर कवनां करीत मळबांत उडपाचें आसता. वेगवेगळ्या तासांनी तिका तोखेवपाचें आसता. एक दीस थकलो म्हणटकच निमणी न्हीद घेवपाक धतरेची कूस जाय आसता. मांडी जाय आसता तकली दवरूंक!

भास्कराचें बायलांविशींचें हें मत सगळ्यांक भोवच आवडिल्लें. भास्कर आपलेविशीं कितें विचार करता हें कळून तर वसुंधराचो ताचेविशींचो मोग चडूच उफेवन आयिल्लो.

ताचे नदरेन सखी-सखा होच दादले बायलेचो संबंद चड म्हत्वाचो आशिल्लो. एके अनवळखी चलयेक दुसऱ्या घराब्यांतल्यान लग्न जावपाच्या नांवान हाडप आनी आपल्या नांवार करप, ते चलयेक आपली बायल

म्हणोवन मिरोवप, तिका वयलेतराक अर्धांगी म्हूण पाचारप. पूण तिचेकडल्यान वावर मात पूर्णांगाचो करून घेवप. ती आपली लग्नाची बायल, तिचेर आपलो सगळो अधिकार आसा, हक्क आसा अशे भावनेन तिची इत्सा नासुनय मेळत तेन्ना तिका भोगूंक सोदप. रातचें तर हक्कान भोगप. 'शेत आपलेंच जाय तेन्ना आपणें ते लुवपाचें' अशी तोंड वयर करून शेकी मिरोवप. ताच्या बदलाक अन्न, आसरो आनी गरजेच्यो गजाली दिवन उपकार केल्ल्याची भावना बाळगप. बाळगपूच न्हय, उक्तावप लेगीत.



पूण सखी म्हूण जेन्ना कोण कोणाचो स्वीकार करता तेन्ना मागीर ही असले तरेची कसलीच भावना आसना. बायलेची उबगण घोवाक येवं येता. बायलेक घोवाची उबगण येवं येता. पूण जेन्ना मित्र मैत्रिण, सखा-सखी म्हूण कोण एकठांय येता तेन्ना तांकां एकमेकाची उबगण येवप शक्यूच ना! भास्कर तसोच विचार करतालो. वसुचे विचार आनी भास्कराचे विचार सामके शंबर टक्के जुळटाले. तेच पासत वसुंधराचो पयलीं पासून ताचेकडेन ओडो आशिल्लो. ताचे विचार, आचार, तांच्यांतली सुंदरायेची नदर, कलात्मक सभाव, संवसारांत जें जें कितें बरें आसा ताची पूजा करप, सत्यम, शिवम्, सुंदरम हेंच आपले जिणेचें तत्व मानपी भास्कर वसुंधराक आपलो आपलोसो दिसतालो.

भास्कर आनी वसुंधरा चार वर्सां एकेच कॉलेजींत, एकेच शाखेंत शिकिल्लीं. वसुंधरा फिलॉसॉफीचें विद्यार्थी. भास्कराकूय फिलॉसॉफी हो विशय आवडीचो. पूण पुराय कॉलेजींत फक्त फिलॉसॉफी हो विशय घेवन ग्रज्युएशन करपी फकत स विद्यार्थी. तातुंतलो एकलो तर केन्ना येतालो आनी केन्ना वतालो हें कोणाकूच कळनाशिल्लें. तो आपलेंच तत्वगिन्यान घेवन जगतालो. एकदीस ताणें जीव दिलो म्हणपाची खबर तितली तांच्या कानार आयिल्ली. उप्रांत उरिल्ल्या पांचा मदल्यांतल्या तिगांचे तकलेक मारिल्ली फिलॉसॉफी. तांचे पांय धतरेर नासतालेच. ताका लागून जमनीर पांय दवरून थीर विचार करपी एक भास्कर तितलोच वसुंधरेक लागीं आशिल्लो. दोगांय वेगवेगळ्या विचारांचेर भासाभास करतालीं, संवसाराकडेन वेगळे नदरेन पळयतालीं.

चार वर्सां सोंपल्या उप्रांत वसुंधरा खंय गेलें हाची कल्पना भास्कराक नाशिल्ली. चार वर्सां इतलीं लागीं आसुनय दोगांनीय एकमेकाक ग्रॅज्युएशन जाल्या उप्रांत खंय वतलीं हें चुकून लेगीत केन्ना विचारूंक नाशिल्लें. भास्कर सदांच आपल्या काव्यांत आनी चळवळींतूच आसतालो. वेळ मेळटा तेन्ना वो वेळ काडून वसुंधराक मेळूंक येतालो. सखी सखी करीत फाटल्या फुडल्यान आनाळ्यो गुनाळ्यो करतालो. पूण आपल्याक तू जिणेचो सांगात दितलें? असो केन्नाच प्रस्न केलोना. हे असले प्रस्न विचारपाचे नासतात, ते समजून घेवपाचे आसतात हें दोगांकूय खबर आसुनय, समजून घेवन लेगीत तीं पयस जालीं तीं जालींच!

नेहा थोडोवेळ भास्करा वांगडा बसून, मागीर माईची खबर बी घेवन वचूंक गेलें. तें ताच्या म्हऱ्यांत आसतना ताका तें खूब कितें सांगूंक सोदता अशें भास्कराक दिसतालें. भास्कराकूय ताचेकडेन उलोवपाचें आशिल्लें. प्रदीपाचें कितें करूया हें ताका थारावप चड म्हत्वाचें आशिल्लें. नेहा जर अशेंच वागूंक लागलें जाल्यार संवेदनशील प्रदीप स्वताचीच वाट लावन घेवपाचो. कसलो सभाव नेहाचो? हो सभाव काय दुयेंस एक प्रकारचें? असल्यानी प्रदीप सारक्या एका कवीची परवड जावप हें भास्कराक तरी मान्य नाशिल्लें. नेहाच्या वागण्याक लागून कोणाचेंच बरें जावंक पावपाचें ना हें ताका कळिल्लें. तशी खात्रीच जाल्ली ताका. तेच पासत तो नेहा आनी प्रदीपाविशीं शिश्टाय करूंक धडपडटालो! हो प्रस्न फकत प्रदीप आनी नेहाचोच नाशिल्लो. राहुलाचोय व्हडलो प्रस्न आशिल्लो. ताका बापूय आसुनय नाशिल्ल्यावरी जावपाचें! नेहाच्या ह्या पिशेपणाक लागून नेहाय ख्यास्त भोगपाचें, प्रदीपाकूय ख्यास्त जावपाची आनी राहुलय ते ख्यास्तीन आपली जीण अळणी करून उडोवपाचो!

आमचे मुखार आमच्या इतिहासाच्या रुपान म्हणा, जावं पुराणां, मिथकांच्या रूपान म्हणां, कितलीं तरी उदाहरणां आसतना आमी शिकिल्ले लोक, भरपूर वाचन करपी आमी अशी शेकी मिरोवपी लोक ह्या घडणुकांचो दाखलो घेवन जीण कित्याक सुदारनांत काय? होच प्रस्न भास्कराक खूबदां पडटालो. नेहा-प्रदीपाचें जिवीत पळोवन ताका तें प्रखरतेन जाणवतालें.

महाभारतांतलें कौरव-पांडवांचें झूंज जावंचें न्हय देखून श्रीकृष्णान कितले प्रयत्न केले. कौरवांतल्या कितल्या लोकांची, तांच्या पांयांकडेन वचून मनधरणी केली. श्रीकृष्णाच्या पांयाकडेन लेगीत बसपाची जांची लायकी ना असल्यांचे लेगीत श्रीकृष्णान पांय धरले. हेतू एकूच, हें युध्द जावंक फावना. तें जालें जाल्यार कोणाचेंच जैत जावपाचें ना. पांडव जिखले अशें दिसलें तरी तें जैत तांत्रिक नदरेन खरें आसत पूण पांडवांच्याय पंगडांतले कितले लोक मरतले आनी कौरवांतल्या पंगडांतले लोक म्हूण कितें परकी? ते तर पांडवांच्या रक्ताचेच सोयरे-धायरे, भाव-बंद. तांचेर

जैत जोडून, तांका मारून पांडवांचें जैत कशें जातलें? मागीर उरतलें तें दोनूय पंगडांमदीं वळवळत जियेवप! शापीत जिणें! कोणाक आवडत हें असलें जगप!

नेहा आनी प्रदीप हें असलेंच शापीत जिणें जगतालीं. ना नेहा सुखी आशिल्लें ना प्रदीप. तरी लेगीत कोणूच हाचेर उपाय काडूंक शकनाशिल्लो. भास्करूय प्रयत्न करतालो पूण ताकाय यश येना आशिल्लें. नेहाचो सभावूच ताका समजून येना आशिल्लो.

नेहा गेल्या उप्रांत थोड्या वेळान स वरांचेर सुमार ललिताय वचूंक गेलें. ताणें सगळी वेवस्ता केल्ली. पापाचो हुसको नाशिल्लो. ताका रातचें जेवण दितकच न्हिदपाच्या वेळार मुतपाची वेवस्ता करपाची इतलेंच काम भास्कराक करचें पडपाचें! ताची गरजूय पडत अशें नाशिल्लें. माई आपले कुडींत बसून आपलीं कपयाळीं शिवीत बसताली ना तर उबगण येतकच हांतुणार पडून कितें तरी विचार करीत आसताली! तिका तशें भास्कराकडेन उलोवपाचें नाशिल्लेंच. तिका समजतात, आवडटात असले कसलेच विशय भास्कराकडेन नाशिल्ले. ते पासत माईकडेन ताचें व्हडलेंशें उलोवप जायच नाशिल्लें.

माईक जर फकत वाचूंक आयिल्लें जाल्यार तिका हे वेळार कितलो आदार जावपाचो वाचनाचो! माईक तशी ओग्गी बसून विचार करतना पळोवन भास्कराक सदांच दिसतालें. जेन्ना मनशाची पिराय तरणी आसता तेन्ना तो हांगा थंय भोंवून खूब कितें कितें करता. तेन्ना ताका वेळ कसो सारपाचो हाचो प्रस्न पडना. खूब कार्यक्रम आसतात ताचेकडेन. पूण जेन्ना म्हातारपण येता, शरीर थकता आनी करपासारके कसलेच कार्यक्रम नासतात तेन्ना पदरचो वेळ खूब खूब सो दिसता. अशे वेळार हो वेळ जर वाचन करूंक दिल्यार, वेळेचें कितें करप हो प्रस्नूच हे लोकांक पडचोना. वाचना मुखार मेळिल्लो वेळ थोडो अशेंच दिसूंक लागपाचें!

हो वेळ सखी वांगडा चलपाक वचपाचो आशिल्लो भास्कराचो. सांजचीं साडे-पांच स जालीं म्हणटकच भास्कर आनी वसुंधरा बरींच पयस मेरेन पासय मारून येतालीं. चडसो भास्कराचो सांजचो वेळ कामगारांच्यो बसका, नातर खंयची तरी साहित्यीक कार्यावळ हाचे खातीरूच सरतालो. पूण तातल्या तातूंत वेळांतवेळ काडून वसुंधरा ताका घेवन भायर सरतालें. ताकाच लागून भास्कर चलूंक पावतालो. पूण आतां सखीच नाशिल्लें. तें ताका एकट्याक उडोवन आपूणच पयस पयस गेल्लें.

भास्कर घरांतल्यो लायटी पेटयता. पयलींच घराचेर मरणकळा दाटिल्ल्यान घरांतलें वातावरण ताका काळखी काळखी शें दिसतालें!

दीस सुतकाचे म्हणटकच घरांत देवाकडेन, तुळशीकडेन बी तीनसांजचो दिवो लावंक फावना.

कोणे घालो काय हो नेम? खंयच्या काळांत? घरांतलो कोणूय गेलो म्हणटकच बारा दीस सुतक पाळप हाचो अर्थ कितें? घरांत उजवाड लेगीत करप ना? शास्त्रीय अशें कितें कारण आसूं येता हे गजालीक? हिन्दू धर्मांत जितल्यो धार्मीक गजाली सांगल्यात ते दरेक गजाली फाटल्यान एक शास्त्रीय नदर आसा अशें भास्कराक दिसतालें. धर्माची सांगड घातले बगर मनीस खंयचीच गजाल करूंक वचना. ती ताचे उदरगती पासत, भलायके पासत बरी आसली तरीय! अशें आसतना हें बारा दिसांचें सुतक कित्याक? देवाकडेन लेगीत दिवो लावप ना, काळखांत दुख्खी मुखामळान दीस काडप, चेहरो सुतकी दवरप. हातुंतल्यान कितें साध्य जाता काय? तरी बरें, आता गांवां गांवांनी वीज पावल्या. बटन दामल्या बराबर लख्ख करून उजवाड जाता! कोनशा-कोनशाक कितें आसा तें दिश्टी पडटा. त्या उजवाडा मुखार देवाकडेन वात लावपाची लेगीत गरज ना! जेन्ना वीज नाशिल्ली, सगळ्या गांवांत किण्ण काळोख आसतालो आनी पुराय घरांत खंयतरी एक कडेन फातरेलाचो वो भिण्णेलाचो दिवो भगभगता तेन्ना त्या लोकांची रात कशी सरताली आसतली काय? सुतकाच्या दिसांनी देवाकडलो, तुळशी कडलोय दिवो ना म्हणटकच आदलेच भिरांकूळ मानसिकतायेंत ह्या काळखाचीय भर पडून आनीकूय भिरांकूळ दिसल्या बगर कशें रावत? खंयतरी भगभगपी एखाद्रया दिव्याच्या उजवाडांत एखाद्री सावळी वयर सकयल जाली जाल्यार निकत्याच मर्ण आयिल्ल्याचें तें भूत वो आत्मो थंय बोवाळटा असो समज त्या लोकांनी करून घेतल्यार तांची चूक थोडीच जावपाची! विजेचो उजवाड आयलो आनी अज्ञानाचो खूबसो काळोख पयस जालो. विजेचो उजवाड घरांतूच न्हय तर गांवांगांवांतल्या वाड्यावाड्यार फांकलो आनी भुतांनी आपली बिटकी कवळ्ळी हेंय तितलेंच खरें!

भास्कर हातांत पुस्तक घेवन तातूंत मन गुंतवपाचो यत्न करता. पूण ताका दरेक पानांमदीं दिसता तें वसुच. वाचपाचो कितलोय प्रयत्न केलो तरीय कशेंच मतींत वचना जातालें. भास्करान वाचनाचो नाद सोडलो. वचून बरोवपाच्या टेबलाचेर बसलो. निदान डायरी तरी बरयतलों असो निश्चेव केलो. पूण तेन्नाय तीच गत. एक उतर कागदाचेर बरयलें पूण फुडलें पेनांतल्यान कागदार देंवना. फकत दोळ्यां मुखार सखी सखी आनी फकत सखीच...

टिवी लावन निदान बातमी तरी पळयल्यार बरी काय? हेर कार्यावळी मनरिजवणेच्यो अशें मानुया. सुतकांत कसलेंच मनरिजवणेचें साधन वापरू नये असो संकेत आसतय बी! पूण बातमी पळोवप हें मनरिजवणेचें न्हय. ती गिन्यान घेवपाची कार्यावळ. पूण घरच्यांक मानवतलें काय हें?

माईचे टिवीचेर खूबशे कार्यक्रम आशिल्ले. तिका सांजवेळां टिवीवेले कार्यक्रम सोडल्यार दुसरें वेळ घालोवपाचें कसलेंच साधन नाशिल्लें. एक साधन आशिल्लें गजाली मारपाचें! तेंच आतां तिका एकटी उडोवन गेल्लें.

वसूक ढवळे जरी आवडनाशिल्ले तरी माईकडेन उलोवपा सारकें आनीक दुसरें कांयच नाशिल्लें. म्हणटकच तिचेच पातळीचेर येवन वसुंधरा उलयतालें. माई जें कितें सांगता ताका हां हूं अशें म्हणत प्रतिसाद दिवंचोच पडटालो. माईक आतां खऱ्या अर्थान वसुंधराचें म्हत्व कळटलें! पूण कळून फायदो कितें?वसुबगर पुराय दीस सरिल्लो आनी उरिल्लो सरून सरनाशिल्लो. दरेकल्याक तो खावंक येतालो.

सकाळीं माईनूच येवन भास्कराक उठयलो. भास्कराक रातभर न्हीद पडूंक नाशिल्ली. वसुंधराच्यो यादी ताचे भोंवतणी घुंवताल्यो. आदले रातचें पुराय जागरण आशिल्लें खरें! तेच पासत ताका हांतुणार पडल्या बराबर दोळो लागूंक जाय आशिल्लो. पूण दोळे जड जावन येताले आनी वसुंधरा याद आयले बराबर दोळ्यांवेली न्हीद नाच जाताली. बऱ्याच उसरां, चड



करून फांतोडेर भास्कराक न्हीद लागिल्ली जावंक जाय. तीच न्हीद बरीच गाढ जावन गेल्ली! कोणाचो तरी स्पर्श जाला हें कळटकच भास्करान मात्शें कांचवेवनशें दोळे उगडिल्ले. तर दोळ्यां मुखार माई उबी आशिल्ली.

"बाबा, तें येवंचेना रे?" माईन करूण आवाजानशें भास्कराक विचारलें.

तें म्हळ्यार कोण हें भास्करान पारखिल्लें! माई हुसकेताली ती ललिताक. ललिताच्या रूपान घरांत एक आदारसो आयिल्लो. भास्करा खातीर न्हय. माईखातीर. आनी चड करून हांतुणार पडिल्ल्या पापा खातीर! जे सर वसु ह्या घरांत वावुरतालें ते सर म्हळ्यार फाटलीं स सात वर्सां माईक कांयच लागून गेल्लें नाशिल्लें. आयज वसु अकस्मात गेल्ल्यान पुराय घर रितें रितेंशें दिसूंक लागिल्लें. भास्कराक दिसप साहजिकच आशिल्लें. तें भास्कराचें सर्वस्व आशिल्लें म्हळ्यार जाता. पूण माईकय परच्यान खाल्ल्या खाल्ल्या सारकें जावंक लागिल्लें!

वसु त्या घरांत येत सावन पयलीं दोन-तीन वर्सां माईन ताचेकडेन एक तरेचो दावो सो धरिल्लो. एक बायल मनीस लग्न जायनासतना आपल्या घरांत रावता. रात आपल्या पुतासरी सारता. ताची बायल कशी वावुरता, घरांतली सून कशी मिरयता ही गजाल माईक पचोवंक खूब कुस्तार जाताली. तेच पासत ती आपले परीन वसुक सोयरें कशें वागोवपाचो यत्न करताली. तातूंतच समादान मानताली. पूण जेन्ना अकस्मात आपल्या घोवाक आरीचें जालें तेन्ना मात वसुक समर्पीत जाले बगर तिचेकडेन दुसरो पर्याय नाशिल्लो. तिका नाका आसलें आनी ती मानूंक तयार नासली तरी काळ मांय सुनेचें नातें घट घट करून उडयत गेल्लो! माईच मागीर आपले सुनेची व्हडव्हीक चार चौगांकडेन गावंक लागिल्ली. आपलो पूत शिकिल्लो, चार चौगांत मान आशिल्लो. सूनबायूय शिकल्या. आतांचीं शिकिल्लीं भुरगीं लग्न-बिग्न मानिनांत. लग्न जातकच आतांच्यो चलयो आपलें नांवूय बदलनांत अशें सांगून माई हेर बायलांपरस आपल्याकूय आयच्या काळापरस मुखार घेवन गेल्ली.

"माई हुसको करूं नाका. येतलें तें! बस मेळूंक जाय न्हय?"

हांतुणार पडिल्ले कडच्यानूच भास्करान माईक सांगलें. ताका माईची दयाशी आयली. पूत म्हूण तिणें आपलेविशीं खूब अपेक्षा बाळगिल्ल्यो आसतल्यो! वेळार लग्न करून घरांत सून हाडची! ते सुनेन आपली सेवा करची. मागीर वंशाचो दिवो म्हूण आपल्या पदरांत भुरगें उडोवन आपल्याक आजयेचे पदवेर बसोंवचें! पूण आपणें तिगेली एकूय आस्त पुराय करूंक ना. जें कोण म्हज्या उतराक लागून घरांत आयलें तेंय अशें अर्दे वाटेरूच गेलें!

भास्कराक आपल्याकूच गिल्टी गिल्टी अशें दिसूंक लागलें. आपले आवयक सुखी करप हें आपलें कर्तव्य! तिच्यो अपेक्षा आपूण पुराय करूंक शकलोना आसलों तरी तिचेकडेन दोन गोड उतरां तरी आपल्याकडेन उलोवं येतात अशें ताका दिसलें.

"माई, ते ललिता उपकारता काय ना तुका?"

आपल्या कपलाचेर आशिल्ल्या माईच्या हाताचेर आपलो हात दवरीत भास्करान विचारलें.

"हय बाबा. मन लावन काम करता. फाल्यांचें सांगूं नज."

माईन सुस्कारो सोडीत म्हळें. "बऱ्या घराण्यांतलें भुरगें दिसता कोणाल्या तरी! कितेंच लागूंक दिना."

अशें म्हणत माई पांयांतल्यो व्हाणो ओडीत कशी आयिल्ले वाटेन परत गेली.

भास्कर तिचेकडेन पळयत रावलो. माई ह्या दोन-तीन दिसांत खूब थकल्या अशें कितें तरी ताका दिसलें.

भास्कर हांथरूणावेलो उठलो. खाट वेवस्तीत झाडून तिचेर बॅडस्प्रेड घालो. हे आदीं हें काम वसु करतालें. भास्कराक वेवस्तीत मांडणी केल्लो बेडरूम जाय आशिल्लो. तो तसो राखपाचें काम वसुच करतालें. आतां ती जापसालदारकी भास्कराचेर आयिल्ली.

दांत ब्रश बी करून भास्कर किचनांत गेलो. हरशीं किचनांत ताचें वचप जातालें तें फकत सखी भोंवतणी आनाळ्यो गुनाळ्यो काडपा खातीर. वसु किचनांत समजा रांदता आनी भास्करूय घरा आसा जाल्यार भास्कर कितें ना कितें निमित्त करून किचनांत वतालोच! फाटल्यान वचून ताच्या पोटाक हातांनी विळखो घालून वोंठ वसुचे मानेक तेंकोवन तसोच रावप ही भास्कराची एक संवय जावन गेल्ली. तो तसो लाडांत आयलो काय मागीर वसुन समजुपाचें, कामगार फुडारी आतां कवीचे भुमिकेंत आसा. ताका एखाद्री कविता सुचल्या आसूं येता. एक दोन वोळी सुचल्यार लेगीत त्यो वसुच्या कानांत रकयल्या बगर ताका सूख म्हणटात तें लागनाशिल्लें.

पूण भास्कर सकाळचो मात पयलीं किचनांत वचनाशिल्लो. वसुंधरान येवन ताका च्या हाडून दिवंची पडटाली. वसुंधरा सगळ्यांत पयलीं उठटालें. मागीर तें च्या करतालें. च्या म्हळ्यार कसायाचो एक प्रकारूच कसो तो! एक दीस गंजनाची पाती, आल्या कुडको बी घालून च्या करप तर एक दीस तुळशी केसरां, मेथयो बी घालून कसाय कसो करप. ताणें सगळ्यांक ती संवय लायिल्ली. पयलीं माईक, मागीर पापाक दिवन जातकच भास्कराचें कप घेवन तें बेडरूमांत येतालें. थंय ताका पंदरा मिनटां तरी जायच आशिल्लीं.

भास्कर च्या सोपय म्हणसर तें चादर बी घडी करून खाट वेवस्तीत जाग्यार घालतालें. मागीर भास्कराक पडिल्लें सपन, ताका याद उरल्या जाल्यार आयकतालें.

ललितान किचन वेवस्तीत दवरिल्लें. पूण वसुंधरा जंय वस्तू दवरतालें थंयच्यो मात ताणें त्यो हालयल्ल्यो. कसली च्या करप हें ताका कळनाशिल्लें. घरांत दोन दीस मेरेन रान्नीक उजो घालिनांत हें शास्त्रूच बरें आशिल्लें अशें ताका दिसलें. ताचेंच निमित करीन तो ह्या वावरा पासून पयस रावूंक शकतालो. पूण आतां दोन दीस सरिल्ले. सरूंक नासले जाल्यारूय घरांत रांदल्या बगर ताका पर्याय नाशिल्लो. एक-दोन दीस शेजारी पाजारी पेज हाडून दीत आशिल्लीं. एक-दोन खेप बरें आसा, दिसाचे तिनूय खेप कोण बोडार घेतलो ही जापसालदारकी?

भास्करा खातीर सगळ्यांत सोपें आशिल्लें तें गंजनाची च्या करप. गंजनाची एक पात हाडून तिचे कुडके करून च्याचे आयदनांत घाली, मागीर इल्लो आल्या कुडको धाडावन उडयलो म्हणटकच जाली मागीर च्या.

गंजन हाडपा खातीर भास्कर मागील दारांत गेलो. वसुंधरान तुळशीचीं रोपां, गंजनाचे वाफे बी लायिल्ले. ताका बागकाम करपाची खूब आवड आशिल्ली. जंय जंय वता थंय एखाद्रें फुलाचें झाड दिसलें आनी ताका आवडलें जाल्यार ताणें हाडलीच ताची फांदी. दुसरी गजाल म्हळ्यार ताचो हातगूण बरो आशिल्लो. जी ताळी तें मातयेंत पुरता ती रोखडीच मुळां धरताली.

गंजनाक पळोवन भास्कर खीणभर थारलो. वसून एकूच ल्हानसो कांदो हाडून रोयिल्लो. आज थंय गंजनाचें रान मातलेलें. गंजनच न्हय हेर कितल्या तरी फुलांचीं झाडां थंय एके हारीन लायिल्लीं. गुलाब म्हणूं नाका, दसणी, शेवतीं, मोगरीं आनी कसलीं कसलीं सोबेचीं झाडां. तांकां खबर आसतले काय आयज तांची सखी तांचे मदीं ना म्हूण! हे मुखार केन्नाच ती तांकां दिसचीना, तांकां उदक शिंपपाची ना! मशागत करपाची ना!

तीं झाडां आशिल्ले थंयच आशिल्लीं. पूण भास्कर कल्पनेनूच सामको सकयल वयर जालो. ताणें गंजनाची एक पाती काडूंक हात घालो. तो ती ओडूंक वतालो, इतल्यान ताका याद जाली. वसुंधरान म्हणिल्लें ताका, गंजनाची पाती केन्नाच ओडची न्हय. एक तर कातरीन कापची नातर नाखूट बी लावन तोडची. ओडूंक गेल्यार पातयेची दोनूय कडांची धार हात कातरून उडयतली!

ते यादीन भास्कर शादूर जालो. ताणें अचळय एक पाती तोडली आनी ती घेवन तो घरांत भितर सरता थंय आसा, ललिता ताका आंगणांत भितर सरता तें दिसलें. तें इतल्या सकाळीं येत अशें भास्करान येवजूंक नाशिल्लें. आठ जायत आयिल्लीं. म्हणटकच बऱ्याच सकाळीं भायर सरलां जावंक जाय.

भास्कराचेर नदर पडना फुडें ललितान हांसो हाडीत ताका 'गूड मॉर्नींग सर' म्हळें.

भास्करानूय ताका गूड मॉर्नींग केलें. पूण आपल्याक ताणें सर म्हणिल्लें ताका बरें दिसलेंना.

सर, मॅडम बी म्हणोवन घेवन धनयांनी आपल्याक मोठेपण घेवप म्हळ्यार तें अडेचें अशें भास्कराक सदांच दिसतालें. उच्च शिक्षीत विद्वानाक ताचे सहकारी बी सर म्हणटात तें बरें आसा. तो त्या शिक्षणाक मान. पूण चार पयशे दिवन कामाक दवरलां म्हूण स्वताक सर म्हणोवन घेवप हें विकतचो मान घेवपा सारकें अशें ताचें मत आशिल्लें.

निमणो खंयचोय मनीस दुसऱ्यागेर चाकरेक कित्याक वता? तर ताका चार पयशे मेळचे म्हूण! जर ताचे कडेन पयशे आशिल्ले जाल्यार, ताच्यो गरजो आनीक कशेय तरेन भागताल्यो जाल्यार तो फकत दुडवां पासत हेरांगेर वचून गुलामपण करतलो आशिल्लो?

मनशाक पोट ही अशी एक गजाल सैमान दिल्या जी भरपाखातीर मनशाक कश्ट हे करचेच पडटात. जेन्ना चलन वेव्हारांत येवंक नाशिल्लें तेन्ना एक व्यक्ती दुसरे व्यक्तीक आपले श्रम दिताली आनी ताच्या बदलाक पोटा पुरतें अन्न घेताली. जेन्ना श्रमाच्या विक्रयाची संकल्पना रूढ जावंक नाशिल्ली तेन्ना आपले श्रम वापरून मनीस प्राणी शिकार करतालो. पोट भरप हेंच एक उद्दीश्ट आशिल्लें. तेन्ना हें चलतालें. मागीर जसजसो मनीस सुदारत गेलो तशें श्रमाचें रूपांतर चलनांत जालें. चलन रूपांत श्रम साठोवन दवरप शक्य जालें. चलनाची रूच वाडत गेल्ल्यान श्रमांची विक्री मर्यादे भायर जावंक लागली. फक्त पोट भरपा खातीरूच श्रम मर्यादीत उरलेनांत. तरी लेगीत जो कोण आपले श्रम विक्रय करता ताचे फाटलो मुखेल उद्देशय पोटाची भूक भागोवप होच आसता.

जेन्ना एक मनीस आपल्याकडचें श्रम विकून ताचे बदला दुसरें कितेंय घेता तेन्ना श्रम विकत घेवप्यांनी श्रम विकतल्याक कमी कित्याक लेखप? ताणें आपल्याक सर अशें खालतेपणान कित्याक म्हणप? जितल्या प्रमाणांत श्रमांचो वापर जाता, त्याच प्रमाणांत ताका दाम मेळटा. दोनूय कडचो वेव्हार रोकठोक. अशें आसतना एकल्यान दुसऱ्याक सर कित्याक म्हणप? म्हणटाच जाल्यार दोगांनीय एकमेकाक म्हणूंक जाय आशिल्लें. कित्याक तर हो सगळो प्रकार म्हळ्यार दिवपा घेवपाचो वेव्हार!

''बरेंच बेगीन आयलें तूं!'' कितें तरी उलोवंक जाय म्हूण भास्कर उलयलो. ललिताक वलांडून भितर सरलो. किचनांत आयलो. ताचे फाटोफाट ललिताय आयलें.

''ह्याय परस बेगीन येवपाचो प्रयत्न करतालें. पूण बसींचो प्रस्न आसता आमच्या गांवच्यान. एका एका वरान बस सुटता. एक चुकली जाल्यार मागीर वरभर ताटकळत रावचें पडटा रस्त्यार!''

ललितान भितर येतां येतां म्हळें.

गजाल खरी आशिल्ली. गोंय मुक्त जावन चार दसकां सरिल्लीं. सगळ्या मळार गोंयची दोळे दिपकावपी उदरगत जाल्या असो दावो सदरेर येवपी दरेक सरकार करतालें. पूण खरी गजाल म्हळ्यार जांच्या खुस्तार मतां घेवन जे लोक सत्तेर आयिल्ले ते वेंचून आयले बराबर आपलो मतदारसंघ विसरताले. जण एकलो आपलींच बोल्सां कशीं भरप हाचे पुरतोच विचार करताले. पणजे शारा पासून खोर्ली ही इंडस्ट्रीयल इस्टेट तशी पयस नाशिल्ली. ते भायर पणजी आनी फोंडें ह्या दोन म्हत्वाच्या शारांक जोडपी राष्ट्रीय

म्हामार्गार हो खोर्ली गांव पडटालो. त्याच गांवच्यान पणजे आनी पणजेच्यान ताळगांव येवपाक वर देडवर घालोवंचें पडटालें!

भास्कर कितें करता तें ललिता बारकायेन पळयतालें. तो च्या करता म्हणपाचो ताणें अदमास केल्लो. पूण 'दी आपूण करतां' म्हणपा इतली संवकळ अजून ललिताक जावंक नाशिल्ली. ते भायर भास्कर हो एक दादलो मनीस आशिल्लो. तरणी पिराय आशिल्ली. नांवास्तो आशिल्लो. ते भायर काल पयरूच बायल भायर पडिल्ल्या कारणान दोळ्यांत दुख्खाचो हुंवार ताका दिसतालो. तेच पासत ताचेकडेन कशें उलोवप, कितले मेरेन संवकळ दाखोवप ह्याच घुस्पा-गोंदळांत तशें ललिता आशिल्लें.

भास्कराचो बापूय सोनू नायकूय तसो परकी दादलो आशिल्लो. ताचीय ललिताक संवकळ खंय आशिल्ली? पूण पापा एक पेशंट आशिल्लो. भास्कर आनी पापा भितर पिरायेचें अंतर आशिल्लें. पेशंट हो पेशंटूच आसता. थंय दादलो आनी बायल असो फरक नासता. म्हणटकच पयलेच दिसा ताची सेवा करपाक ललिताक कसलोच संकोच दिसूंक नाशिल्लो. पूण भास्कराक तें आतां दुसरे खेप मेळटालें. काल दीसभर सारकें उलोवंकय मेळूंक नाशिल्लें. आयची ही दुसरी खेप आशिल्ली मेळपाची. म्हणटकच ललिता सोडाच भास्करूय तसो फ्री जावंक नाशिल्लो. तातूंत घरांतली कर्ती संवरती बायल मनीस वतकच मनीस कसो थतर-वितर जाता हाचो नाय म्हळ्यार नर्स जाल्ल्यान ललिताक अणभव आशिल्लो. तेच पासत ताका खूब सांबाळून रावचें पडटालें.

"हांव करूं च्या?" ताणें गंजनाची पाती घेवंक हात मुखार करीत म्हळें. भास्करानूय ती ताच्या मुखार आयिल्ल्या हातार नकळत दवरली. 'नाका, हांव करतां.' अशें ताच्यान म्हणूं येतालें. कित्याक ताका अचूक कितें जाय हें ताकाच खबर आशिल्लें. ललिता ती गंजनाची पाती घेवन कितें करतलें असो प्रस्न भास्कराक पडप साहजिकच आशिल्लें. पूण किचनांत एके बायलमनशेचें अस्तित्व सहज व्यापून उरता. किचन हें बायल मनशेखातीरूच आसता जावंक जाय. रांदा, वाडा, उश्टीं काडा हें बायलांच्या नशिबांत बरयल्लें आसा अशें जें परंपरेन चलत आयलां आनी समाजांत मान्यतायेक पावलां ताचे आड भास्कर आशिल्लो. बायल जितली बरी सुगरण आसता तितलो दादलोय आसूंक जाय. अन्न हें सगळ्या मनशांच्या पोटांत वचपाचें आसता. म्हणटकच थंय दादलो-बायल असो फरक जावंक फावना. दोगांकय ती कला एक सारकीच येवंक जाय. आयज व्हडल्या व्हडल्या हॉटेलांनी दादले किचनां सांबाळीनांत? मागीर घरांतूच ती मक्तेदारी बायलांकडेन कित्याक सोडपाची?

भास्कर ह्या आपल्या विचारांचो आशिल्लो खरो! पूण रांदचे कुडीक सोबाय हाडटा ती बायलमनीस हेंय ताका पटतालें. वसुंधरा किचनांत ना जातकच तें किचन कशें वैराण मळ जाता हाचो अणभव ताका आयिल्लोच. तेच वांगडा आज हें ललिता किचनांत आसतना थंयच्या वातावरणांत कसो बदल घडून आयलो हाचोय ताका अणभव आयिल्लो.

(चलता...)



- नं. ध. बोरकार

# ग्लोरिया

***दुमगाच्या नशिबान ताका माग्दालिना सारकी सुसभावी पत्नी मेळिल्ली. अशें म्हणटात की बऱ्या, सशक्त बियांतल्यान गोड आनी रूच्चीक फळां मेळटात. दुमिंग-माग्दालिनाचे पुण्यायेन ग्लोरिया सारकें बरें फळ देवान तांच्या पदरांत घाल्लें. ताका लागून तांच्या घराण्याक आतां कसलीच उणाव म्हूण नासली.***

हा ताच्या बऱ्या गुणांक लागून पाद्री-माद्रींक दिसतालें की ग्लोरिया माद्र जावपाचें लायकीचें आसा. ताचें रूप आनी हुशारी पळोवन हेरांक दिसतालें की तें एका व्हड घरची घरकान्न जावंक शकता.

'हॅपी बर्थ डे ग्लोरिया डार्लींग!'

सिस्टर ज्युलीन ग्लोरियाक गुलाबपुश्प दिवन शुभेच्छा व्यक्त केल्यो. सगळयांत पयलीं आपल्याक प्रिन्सिपलाकडच्यान 'वीश' मेळचें म्हूण ग्लोरिया सिस्टर प्रिन्सिपलाच्या कॅबिनाकडेन दबकत-दबकत आयिल्लें. तशें सिस्टर ज्युलीक गुडमॉर्निंग म्हणपाक ग्लोरिया वर्गांत वचचे पयलीं मुजरत सिस्टरी म्हऱ्यांत येतालें. खाशेलें गुडमॉर्निंग आसतालें तें ताचें आनी आयज तर ताचो जल्मदीस आशिल्लो. ही गजाल सिस्टर ज्युलीच्या लक्षांत आशिल्ली. ताका लागून जार्दीनांतलें गुलाबफूल तोडून, मेजार हाडून दवरिल्लें.

ग्लोरिया ह्या वर्सा धावेंत आशिल्लें. के. जी.क सावन तें हेच शाळेंत शिकतालें, शेतां-भाटांत कश्टांचें काम करून पोट भरपी एके रेंदेरिणिच्या पोटांत जल्म घेवन लेगीत एके व्हडले भाटकान्नीली धूव कशी दिसतालें तें. गुबगुबीत पोले, तांबडे-तांबडे वोंठ, घारशे दोळे, लांब-लांब काळशे-पिंगशे केंस, धोंपरां सकयल पावता तसो खाशेलो 'बड्डे' ड्रेस, लांब - काळ्या केंसांत गुलाबाचें तांबडें फूल आदींच खोवन दवरिल्लें ताणें!

ग्लोरिया मुळचेंच देखणें आनी आतां वाडट्या वयांत सुंदरताय ताची फाट धरताली.

आयज ग्लोरियाक सोळावें वर्स लागिल्लें. ताच्या बऱ्या गुणांक लागून कॉन्वेंटांतल्या सगळ्या सिस्टरिंनी लाड केल्ले ताचे. चडशो सिस्टरी ताका ग्लोरियाचे पावटी लाडकेंच म्हणटाल्यो.

आयज एक देखणी आनी शांत सबावाची अस्तुरी, सिस्टर ज्युली म्हऱ्यांत उबी आशिल्ली. फूल अर्पण केल्या उप्रांत सिस्टर ज्युलीन ग्लोरियाच्या गालांचो उमो घेतलो आनी ताका व्हडा उमेदीन वेंगेंत घेतलें.

ग्लोरिया ही दुमिंग रेंदेराची धूव. दुमिंगाचें काजार माग्दालीनाकडे जालें. उपरांत दोगांनीय एकामेकांचो भरपूर मोग केलो. तांचो निगर्वी आनी शांत सबाव पळोवन तांकां देवधनयान मोगाळ आनी सुंदर अशें भुरगें दिलें. तेंच तें तांचें लाडकें ग्लोरिया!

देव तांकां इतलें सुंदर भुरगें दितलो, हें तांणीं सपनांत लेगीत चिंतूं नाशिल्लें.

देवान आमकां अपुरबायेचें बाय दिलां. तेन्ना ताका कितेंच उणें पडूंक फावना. माडांची सूर काडून आदींच आमचें पोट भरना. आमचें बरें आसा. आमच्यांनी एका वक्तार उपाशीं रावं येता. पूण आमच्या बायेक फकत पेज्जे निवळ घाल्यार तें वयर कशें सरतलें? ताका घटसाण आनी मोठसाण कशी मेळटली? ती मेळटली जाल्यार दुदाचीच गरज आसा. ते भायर वखद-पाणयांक दुडू जाय पडटले.

एक अशिक्षीत रेंदेर जोडपें जावनय आपल्या भुरग्याच्या फुडाराचे काळजेंत आशिल्लें. हें सगळें घडटालें, कारण देवाधनयांचें त्या जोडप्याचेर बेसांव आशिल्लें.

दुमगान चिंतलें, ह्या फुडें माड काडून आमचो संवसार कसोच चलचो ना. आयज एक आसा, फाल्यां दुसरें जातलें.

ताका आतां भायर वचपाचीं सपनां पडूंक लागलीं. देवाचे कृपेन दुमगाचें सपन साकार जालें. मन बरें आसल्यार देव ताका धन दिता. तो कोणाच्याय रूपान बऱ्या मनशाचे मजतीक धांवत येता.

माग्दालिनालो एक पयसुल्लो सोयरो ताचे खबरेक आयिल्लो. तो बोटीर सावन घरा आयिल्लो आसलो. ताणें दुमगाक बोटीर व्हरपाची माग्णी केली. सगळ्यो फर्मालदादी करून तात्पुरतो खर्चय ताणेंच केलो.

अशे तरेन दुमिंग आतां बोटीर पाविल्लो. माग्दालिना अशिक्षीत आसलें तरी तें अनाडी नाशिल्लें. तें मितभाशी आशिल्लें, सुस्वभावी आशिल्लें. ताचें उलोवप गोड आशिल्लें. ताचो वांगड सगळ्यांक जाय जायसो दिसतालो. सगळ्यांकडे मेळून मिसळून वागपी अस्तुरी आशिल्ली ती!

तरी ती सगळेच बाबतींत सतर्क आशिल्ली. 'ऐकावे जनाचे आणि करावे मनाचे' असली ताची वृत्ती आशिल्ली. कसलीय गजाल कसाक लावनूच आपणायतालें माग्दालीना.

गांवांतल्यो चडशो बायलो पाद्रीकडे 'कुमसार' जाताल्यो. माग्दालिनाक मात केन्नाच कोणाकडे 'कुमसार' जावंचें पडलें ना. आपणें केन्ना कसलेंच पातक केलेंना जाल्यार कुमसार कित्याक जावपाचें? असो सडेतोड सवाल आसतालो ताचो.

तरी तें पादविगाराचो सल्लो घेतालें. पूण तो बऱ्याक पडपा सारको आसल्यारच अमलांत हाडटालें.

आपल्या न्हवऱ्याच्या उतरा भायर केन्नाच वचनासलें माग्दालिना.

घरकार पयस आसलो तरी माग्दालिनान आपल्या भुरग्याक कितेंच उणें पडूंक दिलें ना. तिचें शिक्षण फकत चीट बरोवपा पुरतेंच जाल्लें. पूण शिकिल्ल्यो बायलो कश्यो वागतात तें पळोवन माग्दालिना आपूण वागतालें.

आपल्या भुरग्याक थंडी भारकूण जालें तरी तें दोतोराचो सल्लो घेतालें. कसलेंच दुयेंस आंगार काडपाची इत्सा नासताली ताची.

आपल्या भुरग्याचेर वायट संस्कार घडचे न्हय म्हूण सदांच सतर्क आसतालें माग्दालिना.

दुमिंग बोटीर गेल्या उपरांत माग्दालिनाच्या हातांत सदांच पयशे घोळूंक लागले. दुमिंगूय आपले लाडके धुवे खातीर कितलेय पयशे खर्च करूंक एका पांयार तयार आसतालो. आपल्यो आशा – आकांक्षा पत्रांत तो आपले बायलेक कळयतालो. आपली बायल करीत तें जालें! पुराय विश्वास आशिल्लो ताचो आपले बायलेचेर.

ग्लोरिया आतां तीन वर्सांचें जाल्लें. पादविगाराच्या सल्ल्यान माग्दालिनान – ग्लोरियाक कोन्वेंटाचे बालवाडेंत दाखल केलें. थंय पावतकच बोर्डिंगाचें वातावरण ताका पचलें ना. कांय नन्सांचें वयलेतराचें वागणें ताका फाव तें सूख दिवंक शकलें ना. कितलेंय जालें जाल्यार आवय ती आवय तिचे माये-मोगाक मोल ना, अशें त्या बालमनाक इल्लें-इल्लें कळूंक लागलें.

तरी पयल्या तीन वर्सांत आवयन आपले भाशेंतल्यान केल्ले संस्कार फळाक आयले. कॉन्वेंटांतल्यो चडशो नन्स ग्लोरियाच्या सदगुणांचेर भाळ्ळ्यो. पयल्या दिसा सावनच ग्लोरिया नन्सांचें लाडकें जालें.

आपूण एका रेंदेरा बायल. सोरो काडून विकप हो आमचो मुळचो धंदो. ही गजाल कॉन्वेंटांतल्या सगळ्या सिस्टरींक खबर आसा. बऱ्या घराण्यांतल्यान आयिल्ल्यो सुशिक्षीत आनी देशेंत सिस्टरी त्यो, तरी आपल्या भुरग्याचेर काळजांत सावन मोग करतात, हें पळोवन माग्दालिनाक चड बरें दिसलें. ताणें सायबीण मांयच्या आल्तारा सामकारा दिमी मारून तिचे उपकार आठयले.

आपली अपुरबायेची धूव हेर भुरग्यांमदीं ध्रुव ताऱ्या प्रमाण चकचकता तें पळोवन माग्दालिनाचें काळीज भरून आयलें. ताका दिसलें, थोडेच दिसां भितर आपलें जिवीत सार्थक जालें. ताच्या दोळ्यांतल्यान खोशेचीं दुकां व्हावंक लागलीं.

समाजांत भुरग्यांनी कशें वागचें, हाचें शिक्षण कॉन्वेंटांनी दितात. नितीशास्त्रा वांगडाच वेव्हारज्ञानाकय हांगा चड म्हत्व आसता. ताका लागून सुर्वेकच गुडमॉर्नींग, गुडनायट, गुड्डे, बाय-बाय, सी यू, लव यू असलीं उतरां भुरग्यांकडल्यान 'बाय हार्ट' करून घेतात. ताका लागून नण्णी खंयीय पावूं कण्णी बरी हालता भुरग्यांची. ह्या चुणचुणीत भुरग्यांच्या तोंडांतल्यान भायर पडिल्ली इंग्लीश आयकून, चड करून भुरग्यांच्यो आवयो भुल्लुसतात. हीच तर इंग्लीश भाशेची खाशेली किमया. काळजाचे भाशेक कोनशाक मारून, इंग्लीशीच्या खोटच्या रुपडच्यांतल्यान इंग्लीशीचीं मेजकींच उतरां आयकुप्यांच्या कानार मोखून मारल्यार, आपलें काम सादोवंक मेळटा, विद्वान म्हूण मिरोवंक मेळटा, ही गजाल इंग्लिशमोग्यांक बेसबरी खबर आसा.

पूण ग्लोरिया तसल्यांतलें नासलें. तें तीक्ष्ण बुध्दीचें आसुनय इंग्लीशीच्या मोगांत केन्नाच पडलें ना. हाचो अर्थ मात असो न्हय की, आपले आवय भाशेच्या मोगाक लागून ताणें इंग्लिशीक फाट केल्ली. तिचे बाबतींतूय तें शिटूक आशिल्लें.

ह्या गुणांक लागून ग्लोरिया सगळ्यांकूच जाय-जायशें दिसतालें.

तें शांत सभावाचें आशिल्लें. ते भायर तें आज्ञाधारीय आशिल्लें. कोणेंय कसलेंय काम सांगूं, ना म्हणूंक जमनाशिल्लें ताका.

ह्या ताच्या बऱ्या गुणांक लागून पाद्री-माद्रींक दिसतालें की ग्लोरिया माद्र जावपाचे लायकीचें आसा. ताचें रूप आनी हुशारी पळोवन हेरांक दिसतालें की तें एका व्हड घरची घरकान्न जावंक शकता. शिक्षक आनी शिक्षिका तर ताचे बुध्दिमत्तेची तोखणाय दीस-रात कराताल्यो. तांकां दिसतालें की ग्लोरिया एक व्हड दोतोर जावंचे लायकीचें आसा.

पूण नियती मात वेगळोच खेळ खेळटाली.

दुमगाची भयण, जाकीन त्याच गांवांत रावतालें. एका खारव्याकडे मोग करून काजार जाल्लें तें! जाकीनान आनी दुमगान एकेच मायचे पोटांतल्यान जल्म घेतिल्लो. पूण सभावांत मात खूब अंतर आशिल्लें तांच्या. दुमिंग सात्वीक, शांत सभावी आनी निटायेन चलपी. आनी जाकीन झगडेकान्न, आशेचें,



पाडें आनी बुरशें! ताका लागून काजरा उपरांत ताचें भावाकडे येवप-वचप उणें जाल्लें.

दुमगाच्या नशिबान ताका माग्दालिना सारकी सुसभावी पत्नी मेळिल्ली. अशें म्हणटात की बऱ्या, सशक्त बियांतल्यान गोड आनी रूच्चीक फळां मेळटात. दुमिंग-माग्दालिनाचे पुण्यायेन ग्लोरिया सारकें बरें फळ देवान तांच्या पदरांत घाल्लें. ताका लागून तांच्या घराब्याक आतां कसलीच उणाव म्हूण नासली.

दुमिंग आनी जाकीनाच्या सभावांत विसंगत आशिल्ली, तेच प्रमाण घरांतल्या वातावरणांतूय खूब फरक आशिल्लो. ताचें घर ल्हान आशिल्लें खरें, पूण तें निवळ आनी सोबीत आशिल्लें. वणटी माती-फातरांच्यो आसल्यो तरी त्यो शेण-मातयेन लेपून गुळगुळीत आनी सुळसुळीत केल्ल्यो आसताल्यो. जमीनय चार-चार दिसांनी शेणान सारोवन लीप दवरतालें माग्दालीन. मुखेल घराक तेकून फाटल्यान भाटी, भाटयेक तेकून धुकरांक आनी कुकडांक वेगवेगळे घूड. घुडांनी जीव पडचे न्हय म्हूण खाशेली वेवस्ता.

घरा मुखार दोशीं वटयां फुलझाडां आनी वाझ. वाझांनी तरेतरेचीं रंगयाळीं फुलां. सद्दां सकाळीं फुलां तोडून मांयमोरी आनी देवपूत जेजूक अर्पण जातालीं.

आपल्या मना प्रमाण घरांतलें वातावरणय पवित्र दवरतालें माग्दालीन!

आनी जाकीन? जाकीनालें घरय सामकी खोपटी नाशिल्लें. गांवटी नळे, माडांचें वाशे, वण्टी मातयेच्यो आनी हांगा-थंय कोसळून पडिल्ल्यो. खडबडीत जमनीकय सगळेकडे बारीक-बारीक फोंड पडिल्ले.

कोंबयांक घूड आसलो. पूण त्यो घुडांत बसनासल्यो. घरभर भोंवताल्यो. केन्ना केन्नाय जाकीनाले खाटीर आनी हांतरूणार वचून बसताल्यो. जाकीन दीसभर भायर आसतना कोंबयो हांतरूणार तांतयां घालताल्यो.

धुकरां घुडाक दार आशिल्लें पूण सदांच उक्तें. तेन्ना धुकरां दिसाचीं कुजनांत येवन बसतालीं. जाकीन जेन्ना शिताबशी घेवन बाकेनीर जेवंक बसतालें, तेन्ना एक धुकर ताचे म्हऱ्यांत बशिल्ली आसताली.

जाकीनाकडे दुडू कुसतालो. खर्च करपाक ताचो मांव मरतालो. 'घोरकार' ताचे मुठींत आसतालो. जाकीन मासी (मासळी) विकूंक तिठ्यार बसतालें तेन्ना ताचो झेत पळोवपा सारको आसतालो. गळयांत लांबलचक भांगरा रुजाय (खुरीस आशिल्ली मणयां माळ) हातभर भांगरा काकणां, कानाक सोबीत लामतां आसतालीं.

घरा येतकच कोणायकडे झगडले बगर ताका सुशेग नासतालो. मनीसजात कोणूच मेळिना जाल्यार कुकडां-माजरां आसतालींच झगडपाक. घोवाकडे तर झगडले बगर न्हीद येनासली ताका. शेजार सामाऱ्यांकय तें कशेंच सोडिनासलें. जाकीन म्हणजे गाळयांचो खजिनोच!

काजरा उपरांत आपल्या भावाचें तोंड पळोवपाक तयार नाशिल्लें जाकीन, आतां

भावजयेचे खबरेक येवंक लागलें. दुमिंग बोटीर गेलो आनी हेवटेन जाकीनाल्या 'बंधुप्रेमा'क ओतो आयलो. ग्लोरिया ताका आपलेंचशें दिसूंक लागलें. भावजय आपलीशी दिसूंक लागली. एके वटेन दुमगाची उदरगत जाताली आनी दुसरे वटेन जाकीनाल्या 'बंधूप्रेमा'क चडच ओतो येतालो.

जाकीनाक एक पूत आसलो. ताचें नांव आशिल्लें आंतोन. आंतोन चवथी मेरेन सरकारी नेमा प्रमाण पास जायत गेलो. पूण पांचवेंत हिन्दी आघोड लागता म्हूण इस्कोल सोडलें. उपरांत ताणें इस्कोलाकडे वळून लेगीत पळयलें ना. गांवगुंडां वांगडा गांवभर हेडूंक लागलो. गरज पडटा तेन्ना मांयच्या बोटव्यांतले पयशे चोरून व्हरूंक लागलो. दुकानांतली पाव-शागुती आनी सोरो पिवन दीस काडूंक लागलो. जाकीनाक ही खबर आसुनय तें ताचेकडे आडनदर करी. कारण आपलो पूत गुंडां वांगडा भोंवता, ही गजाल जाकीनाक अभिमानाची दिसताली. खऱ्या फाटल्यान भोंवपी मनीस मेंगणे. दुसऱ्यांक भंय घालून जगपीच राजा आसतात ह्या संवसाराचे, अशें जाकीनाक दिसतालें.

आंतोन धूर्त आनी कपटी आशिल्लो. हे गूण ताणें आपले आवय कडल्यान आत्मसात केल्ले. मामान धाडिल्ले उंची कपडे आंगार चडोवन, वेंचीक इंग्लीश उतरां लोकांचेर फेंकून तो लोकांक आपल्या जाळ्यांत ओडटालो. गुंडवृत्तीचो आंतोन म्होवाळ इंग्लीश उतरांनी, सभ्यतायेचो आव हाडून लोकांक फटयतालो, अशें म्हणल्यार लटकें जावचें ना.

ह्या संवसारांत खूबशीं मनशां दुसऱ्याचे संपत्तीचेर दोळो दवरून आसतात. जाकीनूय तांतलें एक. दुमिंग बोटीर गेलो आनी तो गिरेस्त जालो ही गजाल जाकीनाच्या लक्षांत आयली. ताचें घरदार आतां आदलें उरूंक ना. तें आतां एका बोटलेरालें घर जाल्लें. सगळ्या सुखसोयांनी भरिल्लें. आदलें घर भाटकाराल्या भाटांत आसलें. दुमगान आपल्या घराची जमीन भाटकारा कडल्यान विकती घेतली. तो आतां मुंडकार उरूंक नासलो, भाटकार जाल्लो. ते भायर ताणें आपले धुवे खातीर भरपूर भांगरांशिंगरां करून दवरिल्लीं. दुमगाची गिरेस्तकाय आतां जाकीनाच्या दोळ्यांत खुपसताली. कितेंय करून भावाली गिरेस्तकाय हस्तगत करूंक जाय, अशे विचार आतां तिच्या मनांत घोळूंक लागले.

जाकीनाल्या मेंदवाचीं चक्रां आतां चडच धुवूंक लागलीं. मामाले चलयेचेर भाच्याचो हक्क आसता, हे पूर्वपार रीतीन जाकीनाक जागृत केलें. ताणें आंतोनी खातीर ग्लोरियाक मागणी घालपाचें चिंतलें.

आपलो हेत साध्य करपा खातीर जाकीनाचें भावागेर येवप-वचप वाडलें. आतां तें भावानूच दिल्ल्यो साडयो न्हेसून नखरे करूंक लागलें. भावजयेचें मन जिंकपा खातीर येतना चार भोपर्शीं हाडूंक लागलें. ग्लोरियाची मायेन चवकशी करूंक लागलें.

हीं सगळीं नाटकां पळोवन जाकीनाच्या मनांत कितें कितें चल्लां हाची कल्पना माग्दालिनाक आशिल्ली. पूण तें घोवाच्या मनाचो विचार करून उकतेपणान कांयच उलोवंक शकनासलें. कशेंय जालें जाल्यार जाकीन घोवाची भयण, तिका दुखयल्यार घोवाक वायट दिसत म्हूण तें गप्प बसतालें.

जाकीन वता तशें आंतोन इगर्जेंत केन्नाच वचनासलो. पूण ग्लोरियाक भेटपाक तो चुकनासतना इगर्जेक वचूंक लागलो. मीस सुट्टकच तो मुजरत ग्लोरिया म्हऱ्यांत वचून ताका भेटूंक लागलो. ग्लोरियाक तें आवडनासलें, तरी तें ताका टाळूंक शकनासलें. कारण तो ताचो आतेभाव आसलो. ते भायर पादविगार प्रत्येक शेरमांवांक सांगतालो की किरिस्तांव भाव-भयणांनी कसलोच भेदभाव राखूंक फावना. समाजांत माये-मोगान वावरूंक जाय. गरीब-गिरेस्त, उच्च-नीच, काळो-गोरो बी सगळीं देवाचीं भुरगीं. तांकां दुखोवप म्हणचे म्हा पातक. आनी देवाक वायट दिसता तसलें कसलेंच कर्म ग्लोरिया करूंक अनमनतालें. पेल्याचो मोग म्हणचे बंधुप्रेम हें ग्लोरियाक कळटालें. आंतोनीक तो अर्थ केन्नाच कळ्ळोना. तेच पासत तो बार्रार बसून कोपाचो मोग करतालो.

विशेश योग्यतायेन एस्.एस्.सी. पास जाल्या उपरांत ग्लोरिया आतां शिवणकाम शिकूंक वचूंक लागिल्लें. जाकीनाचो ताचेर दोळो आशिल्लोच. ताका दिसलें ग्लोरियाच्या काजराची तयारी चल्ल्या. ताका दिसलें, आपल्या मनांतली गजाल माग्दालिनाक एकदांची सांगून उडयल्यार बरें. कळाव केल्यार म्हारगांत पडटलें.

परत ताच्या मनांत आयलें, भावजयेक सांगचें न्हय, काम फसतलें. ती न्हयकारतली. ते पासत जाकीन आतां भावाचे वाटेकडे दोळे लावन बसलें. शिवाय ग्लोरियाचे हालचालीकडे ताचें लक्ष आशिल्लेंच. आपल्याक कळनासतना भावजयेन ग्लोरियाचें काजार दुसरे कोणाकडेन जमयलें जाल्यार? पिकिल्ल्या आंब्याचेर भायल्या कावळ्यान येवन चोंच मारली जाल्यार?

निमणे एक दीस दुमिंग वियाज मारून घरा आयलो. जाकीन खोशी जालें. ताणें आपल्या मनांतलें दुमगाक उलोवन दाखयलें.

ग्लोरियाच्या काजाराचें नांव आयकून दुमिंग न्हिदेंतल्यान खडबडीत जागो जाल्लेवरी उठून बसलो. आपली धूव काजाराची जाली ही गजाल ताका आयज कळून आयली.

बऱ्या काळजाच्या आवय-बापायंक आपल्या धुवांच्या काजाराची सदांच काळजी लागून आसता. दुमगाचेंय आतां तशेंच जाल्लें. ग्लोरियाचें काजार तर जावंकच जाय. पूण कोणा लागीं? आंतोनीलागीं? एकटीच धूव म्हजी. अपुरबायेची! ती काडून भाच्याक दिवपाची? काजार म्हणल्यार दोन घराब्यांचो एकवट. ह्या एकवटांत नवें आकर्शण आसता. दोन घराब्यांचें जिवीत सुखाचें जाता. मानाचेर

कसलें माल्दीसांव पडलें आनी ताणें म्हजे भांगरा सारके अपुरबायेचे धुवेक मागणी घाली!

दुमगाच्या विचारचक्राक आतां गत मेळ्ळी. ताका दिसलें, आंतोन तसो सामकोच वायट न्हय. लोकांकडे खालतेपणान वागता. फटफटीत इंग्लीश मारता. रुपानय तसो साप्प वायट ना. आंगानूय घटमूठ आसा. ते भायर तो मानालो पूत. ताका ना म्हणप म्हणचे भयणीलें नातें तोडप. एकूच भयण. तीय आपल्या परस व्हड. तिचे कडलें नातें तोडपाक दुमगाच्या जिवार येवंक लागलें.

कितेंय जावं, हो विशय माग्दालिनाकडे काडल्यार बरो! अशें म्हणून तो आपले घरकान्नी म्हऱ्यांत गेलो.

जाकीनाचो प्रस्ताव आयकून माग्दालिनाच्या रागाचो पारो चडलो. माग्दालीन आंतोनीक पुराय वळखतालें. पूण आपलें मन ताणें घोंवाकडे केन्नाच उक्तें केलें ना. कोणाचीय चाडी करप पाप समजतालें तें. तांतले तातूंत नणेल्या पुताची चाडी आपल्या घोवाकडे करप म्हणल्यार म्हा पाप. भाव-भयणी मदें फूट घालप हें माग्दालिनाच्या सभावांत कशेंच बसपा सारकें नाशिल्लें. तरी आपल्या काळजाचो कुडको काडून गुंड भाच्याच्या गळ्याक बांदचे आदीं देवान आपल्याक मरण दिवचें अशें माग्दालिनाक दिसूंक लागलें.

आपल्या घोवाचें मन भयणीकडे वळटा तें पळोवन, माग्दालिनान ह्या लग्नसंबंदाक खर विरोध केलो. तें आपल्या रक्ता-मांसाच्या गुळ्याक जाणा जावन नरकांत सोडूंक तयार जालें ना.

माग्दालिनाक दिसतालें की दुमगान जाकीनाक सडसडीत जाप दिवंची. काजाराक न्हयकार दिवंचो. पूण दुमगाक तशें करपाचें धाडस जायनासलें. ताका लागून आतां घोव-बायले मदें सतत झगडीं जावंक लागलीं.

आपल्या काजाराक लागून आपल्या आवय-बापायच्या संबंदाक गेल्ली वेर ग्लोरियाक मातय आवडली ना. ताचें कॉन्वेंटांतलें जिवीत शांततायेन गेल्लें. ताच्या बालमनाचेर त्यागमय संस्कार जाल्ले. तें आपल्या आवय-बापायक देवा समान मानतालें. तांच्या सुखा खातीर तें कसलेंय दिव्य करूंक तयार आसलें. ताणें आपले मांयक समजायलें. देवपुतान भक्तां खातीर केल्ल्या त्यागाचो उगडास करून दिलो. मागीर आंतोनीकडे सांक्रामेंत जोडून, वाद कायमचो मिटयलो.

आंतोन आतां आपले व्हंकलेक घेवन घरा आयलो. ग्लोरिया आदीं कॉन्वेंट, उपरांत आवय-बापायल्या घरांतल्या पवित्र वातावरणांतल्यान घाणींत येवन पडिल्लें. सर्गांतल्यान नरकांत येवन पडिल्लेवरी जाल्लें ताका. आपले आवयचे देखीन आनी बापायच्या आशिर्वादान, नव्या घरांत सर्गाचीं बियां पेरूंक आयिल्ल्या ग्लोरियाच्या सर्गबियांक कोंबूच फुटले नात. संस्कार, पवित्रताय, नमळाय बी कित्याक म्हणटात हाची सुलूस ह्या घराक केन्नाच लागली ना. ताका लागून लटकी आशा बाळगून फुडें आयिल्ल्या ग्लोरिया मुखार ताची हार ताका कुयकूय करून चाळोवंक लागली.

आंतोन आतां मेकळो जाल्लो. ताका सभ्यतायेचें नाटक करपाची गरज उरली ना. ताका जाय आशिल्लें तें गावलें. आतां ताका कोणाचोच भंय असो उरूंक नासलो. ना आवयचो, ना मामाचो, ना मामीचो. ग्लोरियाक तर तो आपल्या हातांतलें खेळणें मानूंक लागलो. मनांत येता तशें खेळोवपाचें आनी उबगण येतकच कोनशाक मारपाचें!

आंतोनीक आतां घरांत रांदपीण आशिल्ली. ताणें कितें करचें? आवयलें भांगर-शिंगर सगळें आपल्या ताब्यांत घेतलें आनी तिकाच भायर काडली.

आवयची कटकट गेले उपरांत आंतोनीक रान मेकळें जालें. ताणें घरांत जुगाराचो अड्डो सुरू केलो. अड्ड्यार गुंडांचें आनी बेबद्यांचें येवप-वचप जावंक लागलें. ग्लोरियान आंतोनीक समजावपाचे खूब यत्न केले पूण ओमथ्या कळशार उदक. खोटांच्या माराशिवाय ग्लोरियाच्या पदरांत कितेंच पडपाची शक्यताय नासली.

म्हणटां-म्हणटां ग्लोरियान दोन पोरां जल्माक घालीं. तिसरें पोटांत वाडटालें. पूण आंतोनीक ताचें कांयच पडूंक नासलें. दोतीचें आशिल्लें-नाशिल्लें सगळें विकून मेकळो जाल्लो आंतोन! असले परिस्थितींत ग्लोरियाक कोणाचो आनी कित्याचोच आदार म्हणटा तो उरलो ना. आवय-बापायन ताका दिलें तेन्ना मेलें म्हूण ताची आस सोडिल्ली. ते संस्कार, तो कॉन्वेंट, त्यो माद्री, ती इगर्ज, तो पादवीगार, तो देवपूत जेजू आनी मायमोरी लेगीत ग्लोरियाचे मजतीक धांवून येवंक शकनासली. ताचो आत्मो शेणिल्लो, मन मेल्लें. आशिल्लो तो फकत कातीन घुसपल्लो हाडांचो सापळो. हो सांपळो नुस्त्या बाजारांतल्या एका कोनशाक बसून, नुस्त्यावेल्या मुसांक आमडीत गिरायकांची वाट पळेत बसतालो. पोटांतल्या भावी आंतोनीक सांबाळीत!



मास्कारेन्हस वाडो,
व्हडलें – गोंय
फोन : २२१८१४७



- विन्सी क्वाद्रूस

एक फावट घेतल्यार दुसऱ्याचे वस्तुची आस्त जावंक लागतली. मागीर एक दीस दुसऱ्या कडल्यान मेळना जाल्यार म्हजो अपेक्षाभंग जातलो आनी म्हजो अहंकार म्हाका सतायतलो. त्या परस म्हजे कडेन जाता ते भशेन चलप बरें.

# मसालेवालो

लोकांच्या दोळ्यांक पानां पुसपाचें काम चल्लां हें. रस्ते तरी बरे आसात? आसतले कशे? वचत त्या कामाक कमिशन सोडतात. मंत्री कमीशन मागतात तें मागतात, आतां इंजिनीयर आनी ऑफीसांतले 'प्यून' लेगीत कमिशन मागूंक लागल्यात.

"**आ**ज आयतार बरो वचचो ना अशें दिसता." रस्त्यार अकस्मात जाल्ल्या आवाजान तोंडांतल्यान भायर सरलें. सकाळचीं धा वरां जाल्लीं. मिसाक वचून येवन हांव भुरग्यांवांगडा च्या पियेत बशिल्लों. घरकान्न कुजनांत आशिल्ली. आवाज आयकून हांव तसोच उठून भायर आयलों. पळयत जाल्यार डिवायडराच्या मदीं कोण तरी ड्रिलींग मशीन घेवन खणटालो. रस्त्याक डिवायडर घाल्यात आनी आमचें घर रस्त्यार आशिल्ल्यान प्रत्येक दिसा अपघाताची खबर कानार पडटा. देखून रस्त्यार आवाज आयलो की धांवपाची तयारी दवरूंक कान उबे आसतात. हांव गाडयो चुकयत ताच्या फुडयांत गेलों.

"आरे बाबा, हें आनीक नवें कितें करतात तुमी?" हांवें त्या ड्रील मशीन चलयतल्याक विचारलें. ताणें आपले कान म्हज्या उलोवण्याकडेन हाडपाचो यत्न केलो. हांवें परतून प्रस्न केलो.

"लायटी घालपाक हो वावर चलता." ड्रील-मशीन थांबयत ताणें जाप दिली.

"लायटी घालपाक हे वटेन केबल खंय गेला? पिशांत काडटात रे आमकां?" हांव मात्शें तापलों.

"रस्त्याच्या दोनूय कडेच्यान गेला तो खबर ना तुमकां? तो घरांनी लायट व्हरपा खातीर. ट्रांसफॉर्मरा कडल्यान हे वटेन मदल्यान एक बारीक केबल येतलो. ताचे वरवीं रस्त्याचे लायटिचें कनेक्शन जातलें. मागीर रस्त्याच्या दोनूय वाटांनी उजवाड पडटलो."

"तशें जाल्यार बरें आसा. ह्यो लायटी एकेच वटेन आशिल्ल्यान मदीं कांयच दिश्टी पडनाशिल्लें. गोरवां, सुर्णी, म्हशी, धुकर सारकेच त्रास करतात. बेगीन करात, आमकांय सुशेग जातलो." बरें काम जाता तें पळोवन म्हजो राग निवळ्ळो.

सुमार चार वर्सांनी मनाक शांती मेळटली अशें मानून हांव घरा कडेन परतलों. हांव पावचे पयलींच कोण तरी आमच्या दारांत उबो आसलो. मोटवोच पूण आंगलटीन सुडसुडीत आसलो. मात्सो जाण्टोसो दिसतालो.

"कसो आसा पात्रांव?" ताणें आपल्या सामानाची पोती धांपीत म्हाका जाप केली.

"हांवें तुका वळखूंक ना." ताचेर वयर-सकल नदर मारीत हांवें म्हणलें.

"हांव मसालेवाला, मसालो विकूंक आयलां. गांवान लोटलेचो. घरा केल्लो मसालो. चिकन, मटन, कितेंय रांद, दोन कुलेरां घाल्यार पुरो. रुचीक एकदम बरो. तुजे घरकान्नीन थोडें गिरायक घालां. पयशे हाडूंक म्हण ती भितर गेल्या." ताणें थोडे भितर आपली वळख दिली.

"ती भितर गेल्या आनी तूं आमचें घर राखता." म्हाका एक वटेन संताप मारलो.

"तशें म्हणीनाका पात्रांव. हांव घांटी न्ही. हांव गोंयकार. इमानदारेन धंदो केल्यारूय तुमी आमचो दुबाव घेतात? आमकांय जियेवंक दियात मरे." तो आपली खंत परगटायतासतना म्हजी घरकान्न पयशे घेवन भायर आयली.

"तुमी संवय करतात मेळत ताका घराकडेन घेवपाची. मागीर चोरीबिरी जातच रडटात." हांवें घरकान्नीक उद्देशून वास्तव सांगलें.

"हो मनीस तसलो न्हय. जायत्या जणांनी ताचेविशीं सांगिल्लें म्हाका आज जुस्त तो आमचे वटेन आयलो. हांवेंच ताका रस्त्यावयल्यान हांगा आपोवन हाडिल्लो." घरकान्नीन स्पश्टीकरण दिलें.

''बरें बरें, आता कितें आसा तें सोंपय ताचें.'' हांवें म्हजें लक्ष परतून रस्त्याचेर काम करप्यांचेर घालें. थंय आनीक कितलेच जण आयिल्ले. घरकान्नीन पयशे मसालेवाल्याक दिले.

''कितें करतात खंय ते येदो व्हडलो आवाज करून?'' रस्त्यार चलतल्या कामाविशीं तिणें म्हाका विचारलें.

''रस्त्याचे दोनूय वाटांनी उजवाड पडूंक मदीं लायटी घालतात खंय!'' हांवें सांगलें.

''रस्तो करून चार वर्सां जावन गेलीं, आतां दोळे उगडले दिसतात.''

''वेंचणुको लागीं पावल्यात न्हय?'' लोकांच्या दोळ्यांक पानां पुसपाचें काम चल्लां हें. रस्ते तरी बरे आसात? आसतले कशे? वचत त्या कामाक कमिशन सोदतात. मंत्री कमीशन मागतात ते मागतात, आतां इंजिनीयर आनी ऑफीसांतले 'प्यून' लेगीत कमिशन मागूंक लागल्यात. टॅन्डर काडूंक कमिशन, रस्त्याच्या कामाची सुरवात करूंक कमिशन, रस्तो करूंक कमिशन. ह्या रस्त्याक लागून लोकांचें जें लुकसाण जालां, तें ह्या मंत्र्यांक आनी आमदारांक समजल्लें जाल्यार रस्तो करतनाच लायटी लेगीत घालतले आसले. जोर पेजेक रडटा म्हणटात ते भशेन-सरकाराचें काम हें.'' मसालेवाल्यान मदीं तोंड घालीत तिडक उक्तायली. ताचें वर्णन सारकें आसलें म्हण ताचे कडेन उलोवपाची म्हाका इत्सा जाली.

''आमीच निवडून दितात न्हय तांकां? आमकां पयलीं समजूंक जाय कोणाक मत दिवंक जाय तें. थोडे-शे पयशे वो सोऱ्याच्यो बाटल्यो मेळटा म्हण आमी मेळत ताका मत दितात आनी हेंच आमकां पळोवंक मेळटा.''

''हे फावटी असल्या फाल्तू राजकारण्यांक बुध्द शिकोवंकूच जाय आनी गरज पडल्यार असल्या भ्रश्ट मनशांच्या विरूध्द प्रचार करूंक हांव लेगीत फाटीं सरचो ना.''

''तुज्यान वेंचणूक प्रचार करूंक जाता?''

''घरा-घरांनी भोंवता हांव. दिसाक उणींच ५०-६० घरां माडयतां हांव. कितल्याच लोकांची वळख आसा म्हाका. जावंदी उमेदवार जाहीर. पाड पडिल्ले रस्ते करूंक शिकयतां आनी कमिशन खावंक दाखयतां.''

''तुमचे लोटलेंत तर बरे रस्ते आसात मरे. हांगाच्या रस्त्यांक लागून तुमकां कसले त्रास जाले? आमी एक त्रास सोंसतात हांगा.''

''चलून कोण धंदो करता तें पळयलां तुवें?'' म्हजेर तिरशी नदर घालीत ताणें प्रस्न केलो.

''म्हणल्यार?''

असलो प्रस्न म्हाका अपेक्षीत नासलो. जो तो आपलें पळोवन धंदो करता. तातूंत हांवें कित्याक लक्ष दिवंक जाय? हांव ताका पळोवंकच उरलों.

''तीन वर्सां फाटीं ह्याच रस्त्यार म्हज्या एकल्यांच पुताक अपघात जालो. रातचो वेळ आसलो. मुखार आशिल्ले फॅक्टरींत तिसऱ्या पाहऱ्याक तो नोकरेक वतालो. फुडल्यान डिवायडराचे दुसरे वाटेच्यान व्हडल्यो लायटी पेटोवन दोन चार गाडयो येताल्यो. अकस्मात एक बैल रस्त्यार भितर सरलो. त्या मुखावयल्या गाडयांच्या लायटिच्या उजवाडाक म्हजो पूत दिपकावलो आनी ताका बैल दिसलो ना. ताणें आपली मोटार सायकल सरळ व्हरून बैलाचेर मारली. कितलोच वेळ तो रस्त्यार पडून उरलो. कोणें तरी १०८ गाडी आपयली. ताका व्हडल्या हॉस्पीटलांत व्हेलो. ताची परिस्थिती गंभीर आसा म्हण थंय कितेंच उपचार करिनासतना ताका सरळ बांबोळे धाडलो. ताचे तकलेक मार लागिल्लो. तेच राती ताचेर शस्त्रक्रिया केली पूण कितेंच उपेग जालोना. सुमार चार दिसांनी तो ह्या संवसाराक अंतरलो. ह्या रस्त्याक मदीं लायटी आशिल्ल्यो जाल्यार....?'' ताणें आपल्या पुताची दुखेस्त खबर सांगली.

''ओह माय गॉड! संतोष तुजो पूत आसलो?'' म्हज्या कपलाक मिरयो पडल्यो.

''हय, तो एकलोच आमचो आदार आसलो. घरांत ताची धाकटी भयण आसा. तिका लग्न करूंक जाय. आमची जायती व्हडली फामील आसा. दोन दीस रडलीं, दुकां गळयलीं आनी गेली. आमचें आमीच पळोवंक जाय न्हय? सगळ्या वेळार फामील मुखार सरता? आमचेर एक आकांत आयलो. घरांत जेवणा-खाणाक त्रास जावंक लागले. फॅक्टरींतल्यान कितें मेळ्ळें, ताचेर थोडे दीस सुशेगाद जेवलीं. पूण तें सदां खातीर पावपाचें नासलें.''

''लायफ इंश्युरंस बी कांयच नासलें ताचें?''

''आसलें, पूण फक्त पंचवीस हजारांचें. ते पयशे धुवेक लागून म्हण तशेच फीक्स घालून दवरल्यात. ताचे हात हडवे करूंक नाकात?''

''तुजे खातीर वा तुजे धुवे खातीर फॅक्टरींत नोकरेचो प्रस्ताव दिवंचो नासलो?''

''ह्या वयार म्हाका कोण नोकरी दितलो? धूव तेन्ना शिकताली. बारावी मेरेन शिकलां तें. आमची परिस्थिती पळोवन कोणें तरी बुद्ध दिली हो मसालो विकपाचो धंदो सुरू करूंक. म्हजी बायल रांदूंक खूब हुशार. तिका ही मांडणी आवडली. एक दीस तिणें मसाल्याचें सामान हाडलें आनी आमी घराकडेनच दळून मसालो करूंक सुरवात केली. पयलीं पयलीं मात्शे त्रास जाले. पूण आतां सगळें सुरळीत चलता. हांव वेग-वेगळ्या गांवांनी भोंवून मसालो विकतां जाल्यार जो कोण घराकडेन येता, ताका बायल सांबाळटा. घरचो मसालो सुवादीक म्हण चड मागणी आसा. कसलोय जिन्नस रांद, सगळें घाल्लो आमचो तयार मसालो. सोय मात्शी भाजून रांदल्यार अदीकूच रुचीक जाता.'' ताणें आपल्या मसाल्या विशीं सांगून आमच्या तोंडाक रूच हाडली. बायल तर बारीकसाणेन ताची गजाल आयकताली.



''हाचेर सुट्टा तुमचो खर्च?'' तिणेंच ताका विचारलें.

''हय. म्हज्यान जाता तितले कडेन गांवानी भोंवून धंदो करपाचो यत्न करतां. आतां धुवेनूय हात-भार लावंक सुरू केलां. शिवण-सुताचेंय शिकलां. ताका खंयतरी नोकरी जाता जाल्यार पळयतां. आमदाराच्याय कानार घालां पूण ताणीं आयकूंक नाका? तेय आतां लाखांनी रुपया मागूंक शिकल्यात. आपणाक नोकरी मेळचीना म्हण फकत बारावी शिकिल्ले धुवेकूय पटलां. देखून ताणेंय आपले तरेन आमचो धंदो फुलोवंक विचार केला. तोरांनी मसालो भरून विकपाचो. बाजारांतल्यान आमी तोरां हाडटात आनी तातूंत तें मसालो भरता. पयलीं थोडे दीस चेपणाक घालून दवरतात. ताकाय बरीच मागणी आसा म्हण धंद्याक मात्सो नेट आयला. आयज सुमार पन्नास पाकिटां हाडिल्लीं, रोकडींच काबार जालीं. अशे तरेन फाटलें वर्सभर जोडून धुवेक दोन कांकणां केल्यांत. भांगराचें दर म्हण आतां उणें आसा? आमच्या भुरगेपणार कोणाक नाका आसलें हें भांगर, आतां नांवूच काडूंक भिरांत दिसता. फुडल्या वर्साक तरी धुवेचें लग्न जाल्यार पुरो म्हण देवाकडेन मागतां.''

''जाल्यार पुरो तुज्या मनासारकें. सायकल तरी घेवन कित्याक भोंवना?'' हांवें ताका विचारलें.

''धुवेचें लग्न जातच सायकल घेतलों.''

''म्हजी एक पोरणी सायकल आसा. कोण वापरिना ती. सद्दयाक व्हरून तुजी गरज कर.''

''नाका पात्रांव. तुवें सांगलें तेंच व्हडलें जालें. एक फावट घेतल्यार दुसऱ्याचे वस्तुची आस्त जावंक लागतली. मागीर एक दीस दुसऱ्या कडल्यान मेळना जाल्यार म्हजो अपेक्षाभंग जातलो आनी म्हजो अहंकार म्हाका सतायतलो. त्या परस म्हजे कडेन जाता ते भशेन चलप बरें.''

''तुजें प्रमाणीकपण म्हाका खूब आवडलें.'' म्हाका ताचें कौतूक दिसलें.

''तुजी गजाल आयकून म्हाकाय दुःख भोगलें.'' म्हजी घरकान्न मुखार सरली. ''हीं सगळीं मसाल्याचीं पाकिटां आमकांच दवर. आमचें दुकान आसा. हांव थंय तीं विकूंक दवरतां. खपलीं म्हणतच आनीक घेतां. मसाल्याचीं तोरां तर चडूच खपतलीं. तींय हाडून दी. अशे तरेन तरी तुका आमी आदार करूंक जाता न्ही?'' घरकान्नीन उदारपण दाखयलें. तो तिका पळोवन हांसलो. ''चल पाकिटां मेज आनी तुजो हिशेब कर.''

ताणें पोतयेंतलीं मसाल्याचीं पाकिटां मेजलीं आनी आपलो हिशोब सांगलो. घरकान्न भितर वचून पयशे घेवन आयली आनी ते तिणें ताच्या हातांत घाले.

''तुमी हो मसालो विकतलीं म्हणटच तुमकांय कितेंय उरूंक नाका?'' म्हणीत ताणें थोडे पयशे परत दिले. ''म्हज्यो भावना समजून घेतिल्ले बद्दल तुमकां देव बरें करूं.'' ताणें हात जोडीत आपली पोती गुठलायली. ''मसाल्याचीं तोरां घेवन येतां हांव.'' दिनवासणेच्या काळजान तो चलूंक लागतांच एक स्कूटरवालो पडिल्ल्याचो आवाज जालो. डिवायडराच्या दुसरे वाटेच्यान सुणें येवन ताणें स्कूटरवाल्याक उडयल्लो. हांव परतून रस्त्यार धांवलों.



'स्नोज कृपा', आर्लेम राय,
सालसेत-गोंय
मो.: ९८२२५८७४९८



– आशा शानभाग

# डेडलायन...



म्हजेंच कुडिंतल्यो म्हज्योच पेंशी पिंशी जावन अहिंकाय महिरावणावर्त वाडटात. नाचतात त्यो म्हजें कुडींत. तांच्या पिंशेपणाचें फळ म्हळ्यार हांव आसता मेरेन ताणीं म्हाका दिल्लो कायमचो साथीदार... कांक्र, कॅन्सर.

**आ**यज म्हज्या नांवार लाखो रुपया बँकानी साठल्यात. लॉकर्स भरून भांगर पडलां. आलमारी भरून भायर ओतपी कपड्यांच्यो राशी आसात. दारांत दोन-दोन गाडयो उब्यो आसात. सगळे समजतले सूख म्हळ्यार आनीक कितें? आयची, फाल्यां-परवांची कांयच आनी कसलीच चिंता नासप म्हळ्यारच सूख. आतां सांगता तें आयकात. म्हजे हे कुडींत म्हजो मरता मेरेनचो साथीदार कांक्र आसा. म्हजें वैभव, गिरेस्तकाय दाखोवपी ह्यो सगल्यो गजाली हांव दिसल्यार फकत पळोवंक शकतां. कोणेंय चडयलो आंगार तो कपडो म्हजो. भांगराच्या वस्तींचें वजन पेलपाची शक्त हातांत ना. गाडयो म्हजेच नांवार आसल्यो तरी तातुंतल्यान फिरपाचो म्हजो एस्ताद ना. उलयतलें म्हळ्यार वाचा बंद. कोणाकय गरज पडटा तेन्ना अर्दवर रावन - रावन हांव सय मारतां. ही तर निमणीच. वरभर लागिल्ली सय. म्हाका शेर्त खबर आसा आतां हाचेफुडें म्हज्या सयांची गरज पडची न्हय म्हणून ही निमणी सय. सय घेतिल्ल्यांचीं खुमणीं म्हाका हें कळीत करतात. म्हजे भोंवतणी आसा फकत काळोख. चारून वटांनी दांटिल्लो काळोख.

उमेदीच्या वयार कोणाचीच साथ मेळ्ळी ना. मन मेकळें करून जगपच जमलें ना. ना घरच्यांनी, ना नशिबान. कोणेंच साथ दिली ना. फकत मन मारून जगलें आनी नकली उमेद दाखयत रावलें. आयज सगळें भरलां. पूण भोगपाक नशीब ना. तेन्ना मरणाचो निस्तो विचारय करनाशिल्लें. मरप म्हळ्यार भिरांत कशी दिसताली. आयज मरणाक यो म्हणून शरण गेल्यारूय तें लागसार लेगीत येना. कितेंय करून मरणाक वेंग मारतलें म्हळ्यार म्हजे कुडींत तितलीय तांक ना. लोकांक कांक्र जाला हें कळटा आनी लोक गळसून वतात. पूण हांव मात आसा तो मेरेन म्हज्या ह्या कुडसाथी वांगडा जगपाचें थारावनच बशिल्लें. एक खरें, कूड फ्राक जायत वता पूण पाडापडिल्लो मेंदू मात पयलींच्या परस घटमूट जाला सो दिसता. मृत्यूचो चक्रव्यूह नाच दोळ्यांमुखार दिसतनाय सगल्यो घडणुको पटापट याद जातात ताका.

आमच्या एका मरड शेताक अचकीत भांगराचो दर आयलो. लक्ष्मीचे आशेन कुळांनीय मामलेदारा सामकार बरोवन दिलें की तांचें नांव चुकून लागलां. हायवेच्या कडेक आशिल्ले ते पडंग जमनिची किंमत लाखो रुपयांची आसली. थोडें भोव कुळांत, तर भरपूर आमच्याच घरांत पावले. आमी निम्नमध्यमवर्गीय अचकीत गिरेस्त जालीं. सगलीं सुखां घरा-दारांतल्यान ओतपाक लागलीं. वांगडा ह्या सुखा वांगडाच लागपी पिडा म्हळ्यार दोन 'द'कार. देव आनी दोतोर. अचकीत जाल्ल्या गिरेस्तांक हे पिडटातच.

म्हज्या घरकाराक दुसरो 'द'च बादलो. ब्लॅक पयसो कसोयतरी मोडपाचो म्हणून ओगीचच तो दोतोराचीं दारां झरोवंक लागलो. दोतोरय व्हडले स्पेशलिस्ट. 'आगो आमी मणिपाल वा बेळगांव वचून चेकींग करून घेवया.' आयुश्याचीं पंचेचाळीस वर्सां सगल्यांक 'मम' करत काडिल्ल्यान म्हजो आशिल्लो विरोध गुठलावन हांव भायर सरलें. थंय वचून आमचें रक्त, थुकी आनी पाडा पडूं नाका तेंवूय चेक केलें. रिपोर्ट दुसरे दिसा मेळपाचो. जिवाचो बेळगांव करूया म्हणून फिर-फीर फिरलीं. भरपूर खरेदी केल्ली. कश्टाची कमाई मोडिनाशिल्ल्यान दुखशें दिसनाशिल्लें असो पयसो मोडटना. जाणट्यांच्या कश्टांचें, घामाचें फळ म्हणून ताणीं घेतिल्ले जमिनीची किंमत आमी सहज मोडटालीं. नव्याच क्रेडीट कार्डान तर घोवाक आनी चल्याक खरेदी फिवराचीच साथ

लागिल्ली. रातचो मस्त रंगिला सिनेमा, पयशांची किंमत दाखोवपी हॉटेलांतलो राबितो, सकाळचो भरपेट नाश्तो करून रिपोर्ट घेवंक हॉस्पीटलांत गेलीं. "मिस्टर तुमी लकी आहात. तुम्हाला काही डिसीज नाही. नो शुगर, नो हायपरटेन्शन नथींग. बट मिसेस XXX तुम्हाला आणखी काही तपासण्या कराव्या लागतील" म्हजो घरकार अजापलो. लोखणाची कांब कशी घटमूट हांव भितरल्यान पोकळ?... आतां पडिल्लेकडेन परतो काळोख दाटलो. यादींचें चक्र, चक्रांत चक्र करीत घुस्पत गेलें.

चाळिशी सोंपिल्ली तेन्नाची गजाल. आमी तेन्ना सामान्य स्थितींत जगतालीं. अचकीत म्हज्या पोटांत, सामकें सकयले वटेन जडसाणशी जाणवूंक लागली. घरकाराक म्हळें, 'पस्तीशी उपरांत खंय केन्नाय मॅनापोज येवंक शकता. पोट मातशें जडशीळ भासता. दोतोरागेर वचून येवया?' इतलेंच. मात तो दादलो पुरूस दोन पुरूस उसळ्ळो. "म्हजें कमर बाराय म्हयने दुखता. हात-पांय मोडून येतात. म्हणून हांव दिसपट्टो दोतोरागेर वचूं? नसती वान्सा दोतोराची. वायेन आसतलें तें! जिरें खा मुठभर." दोतोराक पयशे दिवप दुखता हें समजून हांव वोंठ आवळून रावलें. सोंसत रावलें. ताचे उपरांतचीं सगळीं वर्सां त्रास भोगले. आतां तर त्रास, वेदना हें वेगळें दिसना. म्हजे कुडीचोच भाग कशे जाल्यात ते त्रास आतां.

म्हजेच कुडिंतल्यो म्हज्योच पेशी पिशो जावन अहिकाय महिरावणावर्त वाडटात. नाचतात त्यो म्हजे कुडींत. तांच्या पिशेपणाचें फळ म्हळ्यार हांव आसता मेरेन ताणीं म्हाका दिल्लो कायमचो साथीदार... कांक्र, कॅन्सर. आतां ताचेच वांगडा आसात ते दीस बरे करून सारप इतलेंच म्हज्या हातांत उरलां. पयलीं दिसाक फकत चोवीसच वरां? अशें प्रश्नचिन्न उबें रावतालें. आतां चोवीस वरां म्हळ्यार एक दीस हें गणीत नाका दिसता. धतरीन जोरान



जोरान फिरचें आनी हीं वरां बेगीन बेगीन सोपचीं अशें दिसता.

तेन्ना दोतोरान अचकीतच सांगलें की कांक्र जाला. तोवय थर्ड स्टेजिवेलो. हांवें थंडसाणेन एकच प्रस्न केलो. "डॉक्टर माझ्याकडे किती दिवस आहेत?" जाप मेळ्ळी फक्त दोन उतरांची. "सहा महिने" तेन्ना दिसतालें दिसाचीं अठ्ठेचाळीच वरां आसपाचीं. पयलीं हांव दीस मेजतालें. पांच म्हयने बावीस दीस, चार म्हयने अठ्ठावीस दीस. इतलेंच उरलां म्हजें आयुश्य आतां. मागीर हांवें हें गणीतच सोडलें. घरांतलीं सगळीं कॅलेंडरां भाणाच्या उज्याक घालीं. वार, तिथी, म्हयनो हांका म्हजे यादी भायर धांवडावन घाले. येतो दीस म्हजो. गेलो तो कालचो शेळो म्हणून मनाक येता तशें जगलें. केन्नाच तकली वयर करून घरकाराक परतें उतर न दिवपी हांवें ताका लेगीत व्हडलीं शाणेपणां आयकयलीं. ताणेंय फकत स म्हयन्यांची कटकट म्हणून घडये आयकुनय घेतलीं आसतलीं. आतां तर म्हजी चामडी आनी हाड एकमेकांक घट्ट वेंग मारून बसल्यांत. जानी यार कशीं! एक बरें! वाचा गेली तरी कान आनी दोळे तेज चलतात. पयलीं पयलीं हांव पाटयेर बरोवन हेरांकडेन कितेंय भासाभास करतालें. आतां सगल्यांचें कितेंयतरी उलोवणें आयकवपाक तरसता.

नशीब म्हजें. पयलीं सगल्यांचें आयकत जगलें. दुयेंसाचें कळतकीर मात्शें हांवें हेरांक आयकयलें. पूण म्हज्या नशिबांत हेरांक आयकवपाचें ना तर फकत हेरांकडसून आयकुपाचेंच आसा हें दैवान म्हजी वाचा व्हरून शेर्त केलें. केन्नातरी ह्या दिसांत, चल्यान दिसता, सहज एक नवें कॅलेंडर म्हज्या रुमांत लायिल्लें.

हालत, फडफडत रावतालें तें! आयज सहज तें थिरावलां म्हणून हांवें ताचेर नदर मारली. बरोच वेळ तेळून पळयलें. आरेच्या २०१५... म्हळ्यार हांव चार वर्सां जितेंच आसां? दोतोराची फकत स म्हयन्यांची डेडलायन सोंपली तरी हांव आसां! उमेदीन कितेंतरी उलोवंक हांवें यत्न केलो. आनी हांव फटकन हलकेशें जालें. आनंदान, खोशेन मेकळो श्वास घेत हांवें चोयवटेन पळेलें. अरेच्या घरांतलीं सगलींच रडटात. कित्याक काय? कोणांक कितें जालें काय? घरकाराक, चल्याक? ना ते तर रडतात. मागीर? अरेच्या पूण ते थंय खाटीर कोण आसा? आंवय!! ती तर म्हजीच कूड. कूड थंय आनी हांव हांगा? म्हणून हांवें म्हजे कुडीर हात फिरयलो पूण म्हजे हात? चोयवटेन फकत कापुसच. जळामळाक कापूस आशिल्लो..... म्हळ्यार हांव????



सादोळशें,
काणकोण- गोंय
मो. : ९४०४१४५३३७




२० डिसेंबराक बिम्बाच्या वर्धापन दीस सुवाळ्याक ज्योती आयलो आनी फोटवाकय रावलो.

पयर २७ जानेवारीक शिरीष लवंदयान फोन केलो. 'आरे ज्योती पानवेलकाराक विन्टेजांत ॲडमिट केला. दोतोरान हुसको उक्तायला.'

ज्योती पानवेलकार म्हळ्यार आमच्या मित्र मंडळींतलो एक सदस्य. हांव ताका तितलोसो लागीं नाशिल्लों. म्हणचे घट मित्र बी आसात तसो न्हय पूण हेर सगळ्या मित्रां कडेन आशिल्ले ताच्या नातें संबंदाक लागून तो म्हाका त्या मित्रां इतलोच लागीं आशिल्लो.

आमचो लेखक मित्र दत्ता श्री. नायक हाचो तो भाचो. आयज गोंय सरकाराचो कायदो सचिव आसा त्या म्हज्या मित्राचो, प्रमोद कामतीचो तो मेवणो. म्हज्या वांगडा नाटकांच्या मळार वावुरपी राजू केणीचोय बी तो मेवणो. त्या भायर म्हजे जे जे कोण लागशिल्ले मित्र आसात तांकांय तो खंय ना खंय लागीं. देखून ज्योतीकडेन म्हजी हेरां इतलीच दाटी.

ज्योती मिमिक्री कितली मेरेन करतालो तें खबर ना. पूण तो म्हजो आवाज ज्युस्ताक ज्युस्त काडटालो. म्हज्या मित्रांक ताणें म्हज्या आवाजान फोन करप आनी तापोवप. त्या सगळ्यांनीं हांवच उलयतां अशें मानून सगळें आयकप. एक दीस ताणें म्हज्याच आवाजान म्हाकाच फोन केलो. आवाज आयकून हांव लेगीत अचंबीत जालों.

ज्योती आमच्या बिम्ब परिवाराचो एक सदस्य कसो आपल्याक मानतालो. तो कांय वर्सां पयलीं एचडीएफसी बॅन्केंत आशिल्लो. आपूण जावन ताणें बिम्बाक ते बॅन्केची जायरात मेळची म्हूण प्रयत्न केले. एक दोन खेप जायरात हाडूनय दिली. ह्यो बॅन्को चडश्यो थळावे भाशेक व्हडलो सो मान दिनांत. तांकां थळाव्या लोकांचे दुडू बॅन्केंत जाय. पूण जायरात मात इंग्लेज भाशेंत दिवप हें तांचें वेवसायीक धोरण. पूण ज्योती तांच्या धोरणा आड झगडलो. जायरात दिवंकच जाय असो हट्ट धरून जायरात हाडलीच. हें सगळें बिम्ब मासिक चलूंक जाय ह्या हावेसान.

हांव बरींच वर्सां दोंगरेर शिकलां. ज्योती पानवेलकार दोंगरेवेलो. ताचो बापूय दत्ता पानवेलकार ही गांवचीच न्हय तर गोंयची एक प्रतिष्ठीत व्यक्ती. समाज सेवेची आवड आशिल्ली. म्हजो भाव त्या वाठारांत शिक्षणीक संस्था चलयतालो. हांव शिकतालोंय बरो. ते पासत दत्ताबाब पानवेलकारांचो आमचेकडेन आदरभाव आशिल्लो. पूण संबंद तशे तितले घट म्हणटात तशे नाशिल्ले. ते मुखार ज्योतीन घट केले.

ज्योती गांवच्या लोकांक मजत करूंक धडपडटालो. आपणें लोकां पासत कितें तरी करूंक जाय अशें ताका दिसतालें. एक दीस ताणें म्हाका एके कार्यावळीक मुखेल सोयरो म्हण आपयलो. मित्र म्हणटकच ना म्हणूंक जालें ना. हांव, भास्कर नायक (संचालक, गोंय उच्च शिक्षण) विष्णु वाघ बी आशिल्ले. ज्योतीन आपल्या बापायच्या नांवान ट्रस्ट कसो स्थापन केल्लो आनी सांत आंद्रे मतदार संघांतल्या हुशार भुरग्यां पासत कितें ना कितें पुरस्कार दवरिल्ले ताचो वितरण सुवाळो आशिल्लो. आपल्या भुरग्यांक घेवन पालक आयिल्ले. बरोऽ सुंदर कार्यक्रम जालो. हांवें ते वेळार ज्योतीक विचारलें, 'कितें ज्योती वेंचणुकेक रावपाची इत्सा बी आसा काय कितें?' तसो तो हांसलो. 'दिलीपबाब, खरें सांगूं एकदां तरी म्हाका वेंचणूक लडोवन पळोवंक जाय.' निर्व्याज हांसत ज्योतीन म्हळें.

ज्योती अदीं मदीं केन्नाय मेळटालो. तोंडभर हटकितालो. पूण ताचे भितर म्हाका कितें तरी बदल जाणवतालो. एका काळार गोरोच आशिल्लो ज्योती हालीं हालीं म्हाका काळसो सो, दुयेंत सो भासतालो. हालींच ताका हांवें म्हज्या घराकडेन आपयल्लो. २० डिसेंबराक बिम्बाचो वर्धापन दीस आशिल्लो. ज्योती आयलो. बरोच वेळ रावलो. ताका पावपाक हांव भायर आयलों. वांगडा सुरेश धोंड आशिल्लो. ताणें ताका सांगलेंय बी, 'ज्योती, म्हाका तूं दुयेंत सो दिसता आं! काळजी घे. दोतोराक बी मेळ.''

ताणें म्हळें, 'कांय ना रे. आतां म्हाका खूब बरें दिसता.' म्हणचे ज्योती बरो बी नाशिल्लो? मागीर ताणें आमकां कोणाकूच कशें म्हणलेंना?

तोच ज्योती गेलो म्हणपाचो सुरेश धोंडान ते दिसा फोन केलो. आयकून कच्च जालें. ४३ वर्सांचो तरनाटो. आतांच खंय संवसार फुलता थंय आसा. अशें म्हूण अर्दकुटो संवसार सोडून कोणें वचपाचें आसता?

तरी ज्योती गेलो. वेळ पावलो म्हणटकच कोणाचें कांयच चलना. सगळो नियतीचो खेळ हें सगळें म्हणपाक खूब सोंपें. पूण आपल्या सामको लागचो मनीस ऐन उमेदीच्या काळार आमकां सोडून वता तेन्ना काळजाक खंय तरी लागताच. ज्योतीच्या सगळ्या इश्टांक, ताच्या घरच्यांक, सोयरेदायऱ्यांक खूब लागलां हातूंत दुबाव ना. पूण आमचे हातांत कितें आसा?

तरी म्हणचेंशें दिसता ज्योतीची ज्योत खूब बेगीन पालवली.



– दिलीप बोरकार



# गजालींच्या व्हाळांत...

– राजश्री मोरजकार

कुली शुटींगा वेळार अमिताभ बच्चनाक दुखापत जाल्ली तेन्ना सगळो देश तांकां लागून कितल्यो तरी प्रार्थना करतालो. पूण संध्याच्या त्या काळांत म्हळ्यार तीसेक वर्सां आदीं तिका लागून कोणे तरी प्रार्थना केल्ली आसतली काय? आमीय बी बावडीं तितल्या पुरतींच आं! पिक्चर पळयलो, घरा आयलीं, जेयलीं-खाल्लीं न्हिदलीं. जालें!

'न भुतो न भविष्यति' अशें म्हणूं येता तें फक्कत 'संध्या' क लागून हां! कशें? आरे....व्ही-शांताराम ज्यांका 'चित्रपती' म्हूण पदवी लाबल्या....

ही एक अविस्मरणीय व्यक्ती आनी तांच्या अनेक चित्रपटांची नायिका संध्या हीय बीन एक अविस्मरणीय व्यक्ती! तिचो कोणूय फॅन आसत वो नासत...पूण हांव मात हे अभिनेत्रीची 'फॅन' आसां.

खूब्ब तेंपाआदीं म्हाका जर कोणेंय विचारिल्ले की तुजी कितें इत्सा आसा? जाल्यार हांव सांगतलीं आशिल्लीं, म्हजी एकूच मनसा आसा.... गानसम्राज्ञी लता मंगेशकार, तलत मेहमूद आनी संध्या ह्या तिगांकूय म्हाका आयुश्यांत एक फावट तरी मेळपाची संद लाबूंक जाय.

लता मंगेशकारांच्या पोरण्या पोरण्या सिनेमांच्या गितांचो मधुर स्वर कानांक इतलो गोड लागतालो, तसोच गायक तलत मेहमूदाचो आवाज सामको काळजाक 'टच' जातालो. काळजाच्यो तारो छेडप म्हणचे कितें तें तलत मेहमूदाचीं गाणीं आयकतल्यांकच कळटलें. 'तस्वीर बनाता हुँऽऽ. तस्वीर नही बनतीऽऽ तकदीर नही बनतीऽऽऽ ... मै दिल हूँ एक अरमान भराऽऽ तु आके मुझे पहचान जरा...' अशीं कितलींच पदां सांगू येतात. तशेंच लता दिदीची अवीट गोडयेचीं 'ये शाम की तनहाईयांऽ ऐसे मे मेरा दिलऽऽ पत्ते कहीं झडते हवा आयी सांसो से कमऽऽ... जानेवाले से मुलाकात ना होने पायीऽऽ होऽऽ' परख सिनेमांतलें साधनाच्या तोंडांतलें, 'ओऽऽ सजना... बरखा बहार...' अनारकलीची मधुबाला गायतना दिसताली तें 'ये जिंदगी उसीकी है' जाल्यार मधुमतीची 'जुलमी संग आँख लडी' हीं गितां आनी हीं असलीं कितलींशींच गाणी काळीज हालोवन सोडटालीं...तीं आयकून आयकून एक दिसा म्हाका रातच्या दोनांक जाग आयली आनी अचकीत लतादिदींचेर एक कविता हिंदींतल्यान स्फुरली.! आतां नाका... ती केन्नाय तरी फुडल्या लेखांत बरयतलीं... तर कितें... हांवें... मागीर म्हणजे १९८० सालांत इस्त्रायलच्या ***पारिजात*** मासिकांत धाडपाक एक मराठी कविता लतादिदींच्या स्वरांच्या आकर्शणान बरोवन धाडिल्ली आनी त्या मासिकाचे संपादक डेव्हिड कुमार कांदळेकरांक ती खूबच आवडली... अर्थांत ती छापून आयली. अश्यो कांय बऱ्यो यादी मनांत घुंवता तेन्ना तातूंतच संध्याचीय बीन याद जाता.

मुंबयच्या परेल भागांत रावणारी तरतरीत नाकाची, व्हड दोळ्यांची मृगनयना संध्या शांताराम वणकुद्रे म्हणजेच व्ही. शांताराम बापूंच्या पिक्चरांनी झळकूंक लागली. राजकमल बॅनराखाला शुटींग जाल्ले तांचे अनेक चित्रपट दादरच्या तांच्या प्लाझा थेटरांत, भारतमाता, मॅजेस्टीक बी हेर थेटरांनी लागताले.

*दो आंखे बारह हाथ* ची कथा आनी सादी, भुरग्यांचीं खेळणीं विकणारी नायिका संध्या, तिचें 'ऐ मालिक तेरे बंदे हम' आनी खेळणी विकतनां भुरग्यांपासत केल्लो मजेशीर नाच विसरूं येता?




नवरंग सिनेमा तर खरेंच इतलो सुंदर आसलो की आजय बीन तो पळोवंक आवडटा. तातूंत आशा भोसलेंच्या स्वरांत आशिल्ली सी. रामचंद्र म्हळ्यार रामचंद्र चितळकरांच्या संगितान फुलारिल्लीं एका फुडलीं एक गितां...कान तृप्त जातात सामके. ***'तुम मेरे मै तेरी, तू छुपी है कहां...मै तडपतां यहां, श्यामल श्यामल बदन...कोमल कोमल चरन.. तेरे मुखडेपे चंदा गगन का चढा बडे मनसे विधाताने तुझको घडा, तु छुपी है कहांऽऽ मै छुपी हूं यहां तेरे धडकन में..., अरे जारे हट नटखट ना छोड....दुंगी तुझे गाली रे...मुझे समझो ना तुम भोली भाली रे....'*** ह्या गितांचेर संध्याचे असले कांय दणकेबाज नाच अशिल्ले ते आयजूय फामाद आसात. हालीं रेट्रोची ल्हार आयिल्ल्यान खंयच्या खंयच्या टि.व्ही. वयल्या कार्यावळींतल्यान हे डान्स पळोवंक मेळटात तरीपूण संध्याताईची सर कोणाक येना.

नवरंगचें आनीक एक गाणें ***'आधा है चंद्रमा...रात आधी...रह ना जाये तेरी मेरी बात आधी...मुलाकात आधी...'*** फामाद आशिल्लें. संध्याचो तो मजेदार पोशाक आनीक कठीण नृत्याविष्कार खरेंच प्रेक्षकांचीं मनां जिकून घेताली. नृत्याविष्कार म्हळ्यार फट ना... कित्याक...जाल्यार...ती पळय...जे तरेन नाचताली, हात पांय नाचयताली,थरथरायताली,दोळे भोंवडायताली...तशें नृत्य रेखाक...ना जाल्यार ऐश्वर्याक, माधुरीक पासून जमचें ना. ह्याच गाण्या भितर घोडो कसो नाचतालो तेंय बीन दाखयलां आनी ताका पळोवन संध्या ताची ॲक्टींग करताशें कितलें मजेशीर दृश्य आसलें... पूण तिचो अभिनय खूबच सुंदर आशिल्लो... यादीन न यादीन आख्खो नवरंग सिनेमाच अंत:चक्षु फुडल्यान सरकूंक लागलो.. अख्ख्या सिनेमांत नाचतली संध्या ती नायकाची प्रेरणा, प्रतिभेचें रूपक आसली. आनी खरी नायिका संध्या बाबडी आपलो संवसार, भुरगीं सांबाळटाली. अशीं एकाचीं दोन रूपां तिणें प्रांजळतायेन साकार केल्लीं. निसणी वयर चडून पाख्यावयल्यान तांबडो भोपळो-काशिफळ काडून तो चिरून भाजयेक लागूनं खावंचो वगत आयल्यार तिची मनाची अवस्था, माथ्यावयल्यान फुडें घुंगट घेवन, तांबड्याच व्हडल्या कुकमाच्या तिब्यान तिचो सतेज, करारी मुखचंद्रमा कसो म्लान जावन आयलो तो अभिनय तेन्ना म्हज्या मनाभितर रिगिल्लो तो अजूनय तसोच आसा!

सुप्रसिध्द कवी जगदीश खेबुडकर आनी संगीतकार राम कदम हांचे जोडयेन केल्लीं गाणी व्ही. शान्तारामांच्या पिंजरा चित्रपटाचें भांगर करून गेल्लीं. तांतुतली तमाशेवाली संध्या काळजाक घाय आनी हृदयांत घर करून रावली. उंच, उफाड्याची णववारी पातळांतली संध्या ***'छबीदार छबी मी तोऱ्यांत उभी'*** म्हणटना थरथरून नाचली, तर ***तुम्हावर केली मी मर्जी बहाल....नका सोडून जाऊ रंग महाल...*** म्हणत बाबड्या मास्तराच्या व्यक्तिमत्वाची खोप करून उडयता तो तिचो अभिनय आनी शेवटाक त्याच मास्तराचेर भितरल्या भितर नकळत झडलेली प्रीत कशी तिका तळमळावन सोडटा... नटसम्राट श्री राम लागू पिंजऱ्यांतलो हतवुध्द जाल्लो तो अगतीक मास्तर आनी संध्याचो अभिनय... खरें म्हणशी जाल्यार पळोवंकच जाय.

***जल बीन मछली-नृत्य बीन बिजली*** ह्या चित्रपटाच्या चित्रीकरणाच्या वेळार स्टेजी वेल्यान खंय स्टेज मोडून खरेंच संध्या पडली! स्टेज मोडपाचो सीन करूंक जाय आशिल्लो तो खरोच मोडलो आनी संध्याचो पांयय खंय खरोच मोडलो. तिका खूबच दुखापत जाल्ली अशी खबर आयकल्ली आमी त्या वेळार.

कुली शुटींगा वेळार अमिताभ बच्चनाक दुखापत जाल्ली तेन्ना सगळो देश तांकां लागून कितल्यो तरी प्रार्थना करतालो. पूण संध्याच्या त्या काळांत म्हळ्यार तीसेक वर्सां आदीं तिका लागून कोणे तरी प्रार्थना






केल्ली आसतली काय? आमीय बी बाबडीं तितल्या पुरतींच आं! पिक्चर पळयलो, घरा आयलीं, जेयलीं-खाल्लीं न्हिदलीं. जालें! थेटरांत वचून पिक्चर पळोवपाक मेळटा हेंच आमकां व्हड! आनीक आनी कितेंय चिंतपाचो कोणाक टायम आसा?

एक मात सत की संध्यान व्ही. शांतारामांक आपलें सर्वस्व मानलें. बापू खूब्ब कडक शिस्तीचे हें सगळे चंदेरी दुनियेक खबर आशिल्लें. तांकां जाय तसोच अभिनय करून घेताले. दोळे भोंवडावपाचें, मान डोलावपाचें, थरथरून नाचपाचें तांचेच सांगणेन तीं मन लावन करतालीं. तांच्या दिग्दर्शना सकयल तांची पत्नी जयश्री डॉ.कोटणीस की अमर कहानीची नायिका आशिल्ली. भारतांत ५०-५५ वर्सां आदीं प्लेगची जबरदस्त साथ आयिल्ली. पटापट लोक मरणासन्न जातालो. तेन्ना डॉ. कोटणीस म्हण एक खरोच दोतोर जावन गेलो. आनी ताणें स्वताच्या जिवाची पर्वा करिनासतना आपलें जीवन लोकांक त्या प्लेगांतल्यान वाटावपा खातीर शर्तीचे प्रयत्न केले. अशी ह्या चित्रपटाची कथा आसा. व्ही. शान्तारामाची कन्या राजश्री ही एक उत्कृश्ट नृत्यविशारद आशिल्ल्याची गवाय गीत गाया पत्थरों ने चित्रपटांत पळोवंक मेळटा. तातुंतलें एक नृत्य अप्रतीम आसलें. जितेन्द्र तिचो नायक आनी तातुंतले गाजिल्लें गीत म्हळ्यार टायटल साँग साक्षात गान सरस्वती किशोरी आमोणकार हांच्या गळ्यांतल्यान साकार जाल्लें.

'स्त्री' ह्या चित्रपटांत संध्या दुष्यन्त राजाची राणी 'शकुंतला'चे भुमिकेंत आसली. दुष्यन्त राजाची स्मृति वता आनी हांगा शकुंतलेची मुदी शेणटा. उपरांत तो तिका वळखूंकच शकना. तिका विसरता ती आपली मुदी सोदपाक पिशी जाता. आर्य मेरी अंगुठी खो गयी म्हणत सोदीत रावता. जंगलानी पूत भारत आनी ती रावता, वनांत वनचरां सांगाताक शकुंतला वाग-शिंवा वांगडा आपल्या पुताक खेळयता. तो शिंवाच्या तोंडांत हात घालून ताचे दांत मेजूंक सोदता. तेन्ना थंय दोळे धापून जप करपाक म्हूण संध्याक बसोवन दवरिल्लें आशिल्लें. संध्या खरी गे बाय! तिचो अतीव विश्वास, प्रेम, आनी गुरू कसो मनांत आदरभाव! ह्या सगल्या कारणान ती डायरेक्टरान सांगिल्लें तशें करपाचो यत्न करताली. वाग-शिंवाच्या नाक्श्यांचो मारूय तिणें त्या वक्तार सोंसलो. शकुंतलेचो पूत भारत हाच्या नांवावयल्यानूच आमच्या देशाक भारत हें नांव पडलें अशी आख्यायिका आसा.

व्ही. शान्ताराम बापूंचे सुपूत्र श्री. किरण शान्ताराम हेय बीन हे चंदेरी संवसारांत नामांकीत आसात.

संध्याबाय कोणाकच मेळपाक कोणाच्याय हुजरां सहसा येना. शान्ताराम वचत सावन संध्यान आपणा सोताकूय आपले भितर बंद करून दवरलां.

**निओ-रिको बंगलो, ६-७,**
**विद्यानिकेतन स्कुला फुडल्यान,**
**सालिगांव, कलंगूट रस्तो.**
**मो. : ९३२३१२७१०७**



## किंग फिशर व्हॉयस ऑफ गोवा २०११

# सूरांची राणी क्वीनी फर्नांडीस

२०११ वर्साचो किंग फिशर व्हॉयस ऑफ गोवा हो पुरस्कार मेळोवपी बाय क्वीनी फर्नांडीस हाची मुलाखत घेतल्या अपर्णा मारूडी हाणी. किंगफिशर व्हॉयज ऑफ गोवा हो पुरस्कार संगीत तिसरे वर्स उत्तर गोंयच्या शीमसुंदर आनी कलाप्रेमी अशा शिवोलेच्या गावाजाक मेळला.
२००९ वर्सा तावीया माशाडो, २०१० वर्सा मेल्वीन जरोल्हा आनी २०११ वर्सा क्वीनी फर्नांडीस ह्या शिवोलकारांनी आपल्या सुरांनी गोंयकारांचेर जादू केल्या. मेळुया सूरांची राणी, क्वीनी फर्नांडीस हांका.

*** बाय क्वीनी, तुका परबीं. म्हाका सांग, तुजो संगीतमळावेलो, म्हळ्यार सुरांचो प्रवास कसो, खंय आनी केन्ना सुरू जालो?**

** म्हज्या घराण्यांतूच संगीत रुजलां. सुरांचें बाळकडू म्हाका जल्मासावनच मेळ्ळें. म्हजो बापूय अॅन्थनी फ्रान्सीस हो एक बरो गावपी, गीतकार, तियात्र बरोवपी आनी नाट्यकलाकार आसलो. बेन अॅन्थनी ह्या नांवान ताणें स्टेज शो केल्यात. १९९८ वर्सा तो हो संवसार सोडून गेलो. म्हजी आवय लिबरेटा एक बरी गायिका आनी नाट्यकलाकार आसा. जायत्या तियात्रांनी तिणें आनी म्हज्या पापान कातारां म्हणल्यांत. सद्या ती डायोसेशनाच्या स्कुलांत टीचर आसा. भुरगेंपणातूच म्हजी सुरांकडेन आनी वाद्यांकडेन वळख जाली.




*** तुज्या जिवितांतलें प्रेरणास्थान कोण?**

** म्हजें जिवीत म्हळ्यार संगीत आनी संगीत म्हळ्यारूच म्हजें जिवीत. संगीत म्हळ्यार म्हजो स्वास आनी हो स्वास घेवपाक म्हाका शिकयलो म्हज्या आज्यान, म्हज्या आवयच्या बापायन. ताचें नांव निकोलाय अंतोनियो डायस. शिवोलेचे चर्चीत तेरा वर्सां आनी ओशेलचे चर्चीत तीन वर्सां ताणें 'कॉयर मास्टर' म्हूण काम केलां. म्हत्त्वाची गजाल म्हळ्यार म्हज्या आज्याक ताच्या जल्मासावनच दिश्टी पडना. पूण तो उत्कृश्ट गावपी आनी वाजोवपी आसा. ताका ब्रेललिपींतल्यान वाचूंक येता. बरोवंक येता. चार-पांच वाद्यां तो वाजयता. सुरांचें मुळावें गिन्यान आनी व्हायोलीन वाजोवप ताणेंच म्हाका पयलीं शिकयलां. म्हजो आजो हो म्हजो पयलो गुरू.

*** तुज्या घरांत आनी कोण आसात जांचे कडल्यान तुका प्रोत्साहन मेळटा? सद्या तूं कितें करता?**

** म्हज्या घरांत म्हाका सदांच प्रोत्साहन दिवपी म्हजी आवय लिबरेटा आनी भाव ग्लॅनफोर्ड आसा. म्हापशेंच्या सेंट झेव्हीयर कॉलेजींत हांव फिजिक्स विशयाचें लेक्चरर आशिल्लें. आतां पूर्णवेळ संगीत आनी नृत्याक दिवंक सोदतां.

*** तुजें पाश्चात्य संगीत शिक्षण कोणाकडेन जालें आनी तुका खंयचीं वाद्यां वाजोवपाक येतात?**

** संगीताचें मुळावें शिकप हांवें म्हज्या आज्याकडेन घेतलें. ते उपरांत ज्युवेंसियो कार्वालो हांचेकडेन गिटार आनी नोटेशन्स शिकलें. 'अवरलेडी ऑफ मावंट कार्मेल' हरमलच्या इश्कोलांतल्यान धावी जाल्या उपरांत सांत आंतोनियो 'टॉट टू टीच' ह्या म्हापशेंच्या म्युजीक स्कुलांत शिकलें. ह्या स्कुलांत हांवें म्युजीकांतली ग्रेड फाईव (Grade 5) थेअरी पुराय केली. व्हायोनीलाची ग्रेड फोर (Grade 4) पुराय केली आनी आतां लंडनच्या 'रॉक स्कूल ऑफ म्युजीक' ह्या स्कुलाची व्हायलीनाची ग्रेड सेवन (Grade 7) परिक्षा दितां.

*** तूं आनीक कितें शिकता? हांवें आयकलां की तुका रांदपाक आवडटा!**

** हय म्हाका रांदपाक आवडटा. म्युजीक लावन त्या तालारूच हांव रांदतां.

सद्या गोवा युनिवर्सिटींत, मुंबयच्या मयूर पुरी हांचेकडेन फिल्म मेकींगचो कोर्स करतां. डायरेक्टींग आनी ॲक्टींगय शिकतां. वास्कोच्या डॉ. मार्टीन्स आनी फ्लॉसी डिकॉस्टा हांच्या 'Dance illusion' ग्रुपांत Ballroom dance शिकतां. वेळ मेळ्ळ्यार फॅशन डिजायनींग आनी इंटीरियर डेकोरेशनाचो कोर्स करपाक आवडटलो.

*** तुवें आयज मेरेन गायनाच्यो खंयच्या कार्यावळी सादर केल्यात?**

** हांवें जायत्या वेस्टर्न म्युजीक ग्रुपांनीं तशेंच मांडो ग्रुपांनीं वांटो घेतला. तातुंतले कांय ग्रुप म्हळ्यार - सेंट झेवियर कॉलेज मांडो ग्रूप, गोंयचीं किर्णां मांड ग्रुप, बीग सीटी बँड, मोक्षा बँड आदी.

गोंयचीं किर्णां ग्रुपाक मांडो फॅस्टीवलांत इनामांय मेळ्ळ्यांत. 'लोकरंग' कार्यावळ सादर करपाक राजस्थान भोंवडी केल्या.

*** हांवें आयकलां की तुवें जायत्या सीडीं खातीर गायनां केल्यांत. ते विशीं सांगशी?**

** हय, हांवें जायत्या सीडी खातीर गीतां म्हळ्यार डिव्होशनल ऑडियो सीडी खातीर केल्यांत. जशीं - ब्लेझ, आलेलुया-बाय परेरा प्रॉडक्शन्स, जेजू आपयता, मोगान लासता, शायन लायक अ स्टार, डॉन ऑफ होप.




*** तुज्या जिवितांतल्या कांय म्हत्वाच्या घडणुकांचेर उजवाड घालशी जाका लागून तुज्या जीवीतांत खोशेचे खीण आयल्यात?**

** हालींच हांवें 'ओ मारिया' फिल्माखातीर 'सुरंगाची फाती' हें पद रेमो वांगडा गायलां. २००८ वर्सा ऑस्ट्रेलियांत जाल्ल्या 'वर्ल्ड युथ डे' कार्यावळींत भाग घेवपाक आनी गोंयचें प्रतिनिधीत्व करपाक ऑस्ट्रेलीयाक वचून आयलां. २०११ वर्साचो किंग फिशर व्हॉयस ऑफ गोवा हो पुरस्कार म्हाका फावो जाला. ह्यो तीन घडणुको म्हजे जिणेंत खोशयेचे खीण घेवन आयल्यो.

*** किंग फिशर व्हॉयस ऑफ गोवा हे सर्तीचें आनी इनामाचें स्वरूप कशें आशिल्लें?**

** किंग फिशर व्हॉयस ऑफ गोवाचे ऑडीशन रावंड वेगवेगळ्या जाग्यार जाले. इंग्लिश विभागांत पयल्या रावंडांत चाळीस सर्तक आशिल्ले आनी फायनलीक तेरा सर्तक आशिल्ले. नीरज आनी सिग्मंड डिसौजा हाणीं परीक्षक म्हूण काम पळयलें.

पुरस्काराच्या स्वरूपांत म्हाका ७५,०००/- रुपयांचो चेक आनी किंग फिशरचें ब्रँड अँबेसेडर म्हूण तीन लाखांचें काँट्रेक्ट मेळ्ळें.

*** आतां निमाणो प्रस्न. फुडाराक तूं नवें कितें करपाक सोदता आनी तुज्या तरणाट्या इश्टांक कितें संदेश दिवंक सोदता?**

** म्हाका स्वताचें म्युजीक कंपोज करपाचें आसा. अल्बम काडपाचो आसा. पिआनो आनी ड्रम वाजोवपाक शिकपाचें आसा. शास्त्रीय संगीत शिकपाचें आसा.

तरणाट्या इश्टांक इतलेंच सांगपाक सोदतां यश म्हळ्यार तेंगशी न्हय, तो एक पावंडो, थंय रावन स्वताक जोखपाचें, सावरपाचें, जतनायेन आनी जापसालदारकेन फुडें पावल घालपाचें. यश मेळटाच. मात कश्ट करपाची तयारी जाय.

*** बाय क्वीनी तुजी तोखणाय करीत तितली थोडी. २४ वर्सांचे ल्हान पिरायेचेर तुवें जायतें यश मेळयलां. फुडाराक तुका उपाट यश मेळूं आनी तुजी सगलीं सपनां खरीं जावं देव बरें करूं!**



# मिरयां-पिठो आनी धुकरा-पेटो

– सुधा खरंगटे

सोनू त्या घराकडेन पावपाक एक विचित्रसो शिपाय रानांतल्यान धांवत-धांवत त्या घराकडेन पावलो. सोनू हळूच कुशीक उबें रावलें आनी त्या शिपायाक पळोवंक लागलें.

त्या शिपायान बरोऽ चकचकीत युनिफॉर्म घाल्लो... पूण ताचें तोंड पळयल्यार... सारकें नुस्त्याचें कशें!!

ताणें दारार मारलें. भितरल्यान दुसऱ्या एका शिपायान दार उक्तें केलें... तसोच चकचकीत युनिफॉर्म घाल्लो शिपाय... पूण तोंड ज्युस्त बेब्याचें कशें!! ह्या शिपायाचे दोळे तर सामकेच वरशे... सामके खड्ड्याकच आशिल्ले..

नुस्त्या-शिपायान खाक्यांत मारिल्लो व्हडलो लाखाटो काडलो आनी बेब्या-शिपायाच्या हातांत दिलो आनी सांगलें – "राणयेचें आमंत्रण... सरदारीण बायक कोंवीत दिल्या – बॅटबॉलान खेळपाची"

त्या बरोबर बेब्या-शिपायान सारकें उरफाटें करून म्हळें – "बॅट-बॉलान खेळपाची... सरदारीणबायक



कोंवीत दिल्या... राणयेचें आमंत्रण...''

मागीर दोगांनीय आपल्यो तकल्यो इतल्यो बागयल्यो... तांच्यो तकल्यो एकमेकांक तेकल्यो... तांगेले ते मुदयाळेच केंस.. काय केंसांच्यो माथोट्यो... एकामेकांल्या केंसांत सामके घुस्पले... गच्च घुस्पले...

सोनूक ती कॉमीक पळोवन इतलें हांसूक आयलें कीं तें त्या शिपायांक आयकूंक येत म्हणून तें परतेंऽ झाडांनी धांवलें.

थोडचा वेळान झाडयेंतल्यान भायर येवन पळय जाल्यार नुस्त्या-शिपाय थंय नासलो. दार बंद आसलें. आनी बेब्या-शिपाय दारांतच फतकल मारून बशिल्लो. खड्डयाक आशिल्ल्या दोळ्यांनी पिसायसो असोऽ मळब तेळटालो.

सोनू भीत-भीत हळूच दाराकडेन गेलें आनी ताणें दारार मारलें.

''कांयच उपेग ना... कांयच उपेग ना...'' तो बेब्या-शिपाय म्हणूंक लागलो.

''कित्याक तर?'' सोनून विचारलें.

''... एक तर आमी दोगांय दाराभायर आसात. दुसरें म्हळ्यार भितर इतलो बोवाळ चल्ला तांका कोणाकच कांयच आयकूंक येवचेंच ना....''

''मागीर उपकार करून सांग न्ही म्हाका, हांव भितर कशें वचूं?'' सोनून ताका विचारलें.

''हांव जर भितर आशिल्लों, तर तुका दार काडटलों आसलों...'' तो शिपाय उलयतालो सोनूकडेन... पूण पळयतालो वयर मळबांत....!

'भोंगू बाबड्याचें! ताचे दोळेच जर खड्ड्याक आसात, ताका तो तरी कितें करतलो?' सोनून चिंतलें. आनी परतें ताका विचारलें –

''पूण हांव भितर कशें वचूं तें सांग न्ही?''

''हांव जाल्यार हांगाच बसून रावपी... सगळो दीस'' बेब्या-शिपायान पिश्यांभशेन म्हळें.

''आरे, पूण हांव...''

''फाल्यां लेगीत! .. हांव हांगाच बसून रावपी...''

भितर बोवाळ चलतालोच! इतल्यांत दार मातशें उक्तें जालें आनी एक व्हडलीशी प्लेट सूं सूं करीत भायर आयली आनी त्या शिपायाच्या नाकाक घश्टून सरळ आपटून फुटली...

– पूण कांयच घडूंक नाशिल्ले बशेन तो शिपाय परतोऽ उलोवंक लागलो – ''फाल्यांच कित्याक?... परवां लेगीत हांव हांगाच बसून रावपी...''



''आरे, हांव तुका... 'हांवें' भितर कशें वचपाचें? तें विचारतां...''

''पूण भितर वचूंक जाय कित्याक तुका?'' त्या शिपायान विचारलें.

''शी: बाबा! हांगाचीं सगळींच जाणां कसो वाद घालतात जाणा! शाण्या मनशाक पिशें करून सोडटले हें..!!'' सोनून वाजेवन म्हळें.

ताचेर शिपायान ताका सांगलें - ''हांव हांगाच बसून रावपी... फाल्यां, परवां, येरवां... तेरवां... दिस्सान दीस.. दिस्सान दीस...''

ताका थातारीत सोनून विचारलें - ''आरे, तूं बस रे! पूण 'हांव' कितें करूं?''

''तूं मगो...'' ताणें बरेंच चिंतून सांगलें... ''तूं मगो तुका जाय तें कर...'' आनी तो मळबाकडेन पळोवन शिळोणी घालीत बसलो.

''शीऽस्साऽऽ! सामकीच पिसाय मरे ही!! हाचेकडेन उलोवन कांयच फायदो ना. आतां हांवेंच कितेंय करचें पडलें...!''

सोनूक भितर चल्लां तरी कितें तें पळोवपाची भारीऽ उमळशीक लागिल्ली.

- मागीर आनी ताणें चड चिंतलें ना...! सरळ दार धुकल्लें आनी भितर सरलें.

भितर सरतनाच तें एके व्हडले रांदचे कुडींत पावलें. सगळी कूड धुंवरान भरिल्ली आनी मिरयांचो सामको नास मारतालो... कितलो ना ऽ स रे बाबा..!!

कुडीचे मदींच एके चवायेचेर एकली बायल... ती सरदारीणबाय जावये... बरीऽ बशिल्ली. तिचे मांडयेर एक ल्हानशें भुरगें आशिल्लें... ताका ती खेळयताली.

एके कुशीन रान्नीचेर एक व्हऽडलो सो तोप आसलो. तातूंत सूप खतखततालो. थंयच एक रांदपीण तो सूप चाळत बशिल्ली. मदीं-मदीं तातूंत मिरयां-पिठो घालताली.

''आवयस्! सुपांत मिरयांपिठो सामको माऽरून दिला...'' सोनून म्हळें आनी लागलें शिंकपाक.!

सरदारीण त्या बाळकाक आल्लयो म्हणून न्हिदयताली. पूण ''जय रे बाबा जऽय!'' अशें म्हणून धोलोवचे बदला ती दुसरेंच कसलें पद म्हणटाली आनी भुरग्याक हळूच थापटावचे बदला धोपटयताली सामकी...

सोनू ती म्हणटा त्यो आल्लयो कान दिवन आयकूंक लागलें-

''भँक-भँक-भँक रे बाबा वँक-वँक-वँक
वँक-वँक-वँक रे बाबा भँक-भँक-भँक
बाबुल्याक सद्दा उठून धोपटूंवंक जाय
आनी मस्ती करून शिंकता जाल्यार खुटलावंक जाय...
वँक-वँक-वँक रे बाबा भँक-भँक-भँक
वँक-वँक-वँक रे बाबा वँक-वँक-वँक''

असलें विचित्रशें पद म्हणटना ती त्या बाबुल्याक खऱ्यांनीच धोपटयताली... खुटलायताली...

आनी पद गायतां-गायतांच मिरयांच्या वासान 'आक्श्येऽऽ - घोऽऽ' करून शिंकताली.

तें भुरगेंय बी 'घोऽऽ' करून शिंकतालें - किंळचतालें - आड्ड्यो मारतालें. मातशें थांबतालें. मागीर परतेंऽ 'घोऽऽ' करून शिंकतालें - किंळचतालें - आड्ड्यो मारतालें...

- मात्तय थार करिनासतना तांचें हें चलतालें...!!

रांदचे कुडींत दोगांच जाणांक शिंको येना आसल्यो.

- एक ती रांदपीण... आनी दुसरो रान्नीपोल्लांत बशिल्लो गुबगुबीत बुकलो...!!

– तो बुकलोय म्हणून विचित्रच!! बशिल्लेकडेन ह्या कानासावन त्या कानामेरेन वाळू फांकारून हांसतालो.

– सोनू ताका अजापान पळयतच उरलें!

मागीर ताणें भीत-भीत ते सरदारणीक विचारलें –

"हें पळयात, तुमचो हो बुकलो असो हांसता सो कित्याक?"

"कित्याक म्हणचे? पुर्तुगाली बुकी तो!... देखून हांसता..." आनी मागीर सरदारणीन इतल्या फोर्सान 'धुक्कोर' म्हळें... सोनू तर सामकें उसळ्ळेंच!... पळय जाल्यार ती आपल्या भुरग्याक 'धुकोर' म्हणटाली... सोनूक न्हीं!

सोनून मागीर परतेंऽ विचारलें – "अशेंऽऽ! पुर्तुगाली बुकलो असो हांसता? म्हाका खबरच नाशिल्लेंऽ!"

"तशें जाल्यार तूं कितें जाणा तर?... सामकेंच अन्नाडी काय कितें गो तूं?"

सोनूक सामकी तिडक मारली. तें कितेंय परतें उतर दितलें, इतल्यांत ते रांदपिणीन सुपाचो तोप रान्नीवेल्यान सकयल दैंवयलो; आनी मागीर हाताक लागता तें काडून सरदारणीचेर आनी त्या भुरग्याचेर शेंवटूंक लागली.

– पयलीं चिमटो शेंवटिलो, मागीर गावी... ताचे नंतर तवो, ताचेमागीर बशी म्हणूं नाका, ताट म्हणूं नाका, कायल म्हणूं नाका... कितें हाताक येता तें तांचेर मोखूंक लागली.

–आनी ती सरदारीण थापो शी थंयच बसून रावल्या?

शेंवटून मारिल्ल्यो वस्तु तिचेर आपटतात... भुरग्याचेर आपटतात... भुरगें व्हडा-व्हडान किंळच्यो मारता... पूण ती ब़ायल कुशीक लेगीत सरना...!!

– भुरगें तर पयलीं आड्डतालेंच!... आता तें व्हडा-व्हडान बोबाट मारूंक लागलें.

"आगे, आगे, पळय...! तूं खंय शेंवटिता तें पळय!... त्या भुरग्याचेर आपटत म्हणून तरी पळय!" आपल्याचेर कितेंय आपटत म्हणून हांगा-थंय उडक्यो मारीत सोनून सरदारणीक शिटकायलें.

– ताका त्या भुरग्याची भोवच चिंता जाल्ली. त्याच वेळार एक तवो त्या भुरग्याच्या नाकारच बसलो.

"आगे, आगे! पळय मगे! तुज्या भुरग्याचें नाक फुटलें पळय...!" सोनून म्हळें.

"घे! तूंच घेवन खेळय हाका जाय जाल्यार! म्हाका आतां राणयेबरोबर बॅट-बॉलान खेळपाक वचूंक भायर सरूंक जाय..."

– आनी ते सरदारणीन भुरग्याकच काडून सोनूकडेन शेंवटून दिलो.

– कसोतरी सोनून ताका वयलेवयर जिखून धरलो...!

तो भुरगोय म्हणून विचित्रच! हे वटेन, ते वटेन हात-पांय फांकारूंक लागलो. सोनूक कस्सोच आटापा येना जालो. शेवटाक सोनून ताच्या हाताची आनी पांयांची गांठ मारिल्लेभशेन पोंटली केली आनी ताका घट्ट आंवळून खाक्यांत मारलो... आनी तसोच ताका भायर वाऱ्याक व्हेलो.

"आतां हांवें ह्या पोराक म्हजे बरोबर व्हेलो ना जाल्यार!... ह्या घरांत कितें घडटा तें पळयल्यार... एक-दोन दिसां भितर हो भुरगो सेर्त मरतलोच!! हाका हांगा सोडप म्हणचे हाची हत्त्या केल्ल्या बरोबर म्हळ्यार जाता... पूण हांव खंय म्हणूण व्हरतलें हाका?"

– त्या पोरान आतां शिंको काडप आनी किंळच्यो मारप थांबयिल्लें... पूण तोंडान कसले तरी आवाज काडटालो... विचित्रसो आवाज...!!... रडटा काय हो?... काय हिमट्यो काडटा...??

– सोनूक कितेंच समजना जालें.

– पूण कानांत मात तो आवाज!!

... धुकरान वेंकेल्लेबशेन...??... शीऽ...!!

"पळय बाबुल्या, ल्हान भुरग्यांनी अशें धुकरान वेंकेल्लेबशेन 'वँक-वँक' करूं नजो हांऽ...!"

सोनून त्या पोराक जायतो समजायलो, पूण तो परतोय 'वँक-वँक-वँक' करताच...!!

मागीर सोनून बारीकसाणेन ताच्या तोंडाकडेन पळयलें... जाल्यार कितें??... सगळें तोंडच ताचें धुकराबशेन!... बारीक दोळे... नाक अशें वरशें, सारकी धुकराची सोंड कशी!... सगळेंच धुकराबशेन...

"हें पळय बाबुल्या, तूं धुकरा-पेटो बी जायत जाल्यार हांव काय तुका सांबाळचेंना हां! सांगून दवरतां..."

हाचेर त्या बाबुल्यान धुकराबशेन 'वँक-वँक-वँक-वँक' केलेंच...



सोनून परतेंऽ बारीकसाणेन पळयलें – तो आवाज... ते दोळे... ती सोंड...!!

हो धुकराचोच पेटो हातूंत मात्तय दुबाव ना.

सोनून ताका हळूच जमनीर सोडलो.

– आनी 'वँक-वँक' करीत तो पेटो खोशेन चारय पांयांनी चलत झाडयें भितर गेलो.

– सोनूक खोस जाली.

''जावं सायबा! तो धुकरापेटो खुशाल जावन भोंवता पळे! तो भुरगो जाल्लो जाल्यार सामकोच नदर घालपाचो नासलो... पूण आतां काय बरो अपुरबायेचो पेटो दिसता पळय..''

''जालें तें बरेंच जालें!'' अशें येवजून सोनू मुखार चलूंक लागलें.

– अकस्मात एका झाडाचे खांदयेर पळयल्यार पुर्तुगाली बुकलो बसला.

– तो बुकलो सोनूकडेन पळोवन वळखीन सो हांसलो.

''जावं हां! हो बुकी सभावान बरोऽ दिसता.'' सोनून चिंतलें आनी ताचेकडेन खबरी मारूंक रावलें. पूण ताचेकडेन कितें म्हणून उलयतलें?

तरीकय ताणें विचारलें – ''पुर्तुगाली बुकी, म्हाका एक सांगशीत रे? आतां हांवें हांगाच्यान खंय गेल्यार बरें जातलें?''

''तुका खंय वचपाचें आसा?'' बुकीन विचारलें.

''तशें अमकेच कडेन वचूंक जाय अशें ना... खंयय पावल्यार जाता...''

''अशें?'' बुकीन विचार करून सांगलें, ''तशें जाल्यार खंयच्यानय वच, चलूंक लागल्यार खंय तरी पावतलेंच तूं!''

''तशें न्हीं रे!... हांगा कोण कोण रावतात तें तरी सांग!''

मागीर बुकल्यान आपलें उजवें दावकूल एकेवटेन वावुडलें आनी सांगलें – ''पळय. ते वाटेन गेल्यार एक चेपेंकार रावता थंय... तो तुका मेळटलो...''

मागीर दुसरें दावकूल दुसरे वटेन वावडून ताणें म्हळें– ''आनी त्या वाटेन गेल्यार, थंय एक आवटो-सोंसो रावता – तो मेळटलो.. तुका जाय ताका वचून मेळ. खंयचेयकडेन गेल्यार सारकेंच! कारण दोगय जाण केरेक!... सामके पिशे!!''

''आवयस्! नाका रे बाबा! म्हाका पिशांमदीं वचपाचें ना.'' सोनून आंग शिरशिरायलें.

''पूण ताका उपायच ना. हांगा आमी सगले पिशेच!!... हांव पिसो.. तूं पिशें...!!''

''एऽ, म्हाका ओगीच पिशें म्हणनाका हां!''

''आगो, पूण तूं पिशेंच! शाणें आशिल्लें जाल्यार तूं हांगा येवचेंच नासलें....'' सोनू येवजूंक पडलें! हो बुकी म्हणटा तें सामकेंच फटी न्हीं.

मागीर ताणें विचारलें – ''पूण तूं पिसो हें कित्यावेल्यान म्हणटा तूं?''

''पळय हां!'' बुकीन म्हळें. ''तूं सुणो जाणा न्हीं? तो पिसो आसता?''

''ना...!'' सोनून म्हळें.

"ना मुगो?... मागीर पळय हां!... सुणो रागार जालो कीं किते करता?... गुरगुरता न्ही?... आनी खोशी जालो कीं किते करता?... शेंपडी हालयता न्हीं?"

"हय! हय!" सोनून म्हळें.

"आतां म्हाका पळय...! हांव रागार जाल्यार शेंपडी हालयतां... आनी खोशी जाल्यार गुरगुरतां...!! सारकें उरफाटें करतां...! म्हणचे हांव पिसो जालो ना?"

– सोनूक दिसलें, आतां हांगा चड वेळ रावल्यार हांव खऱ्यांनीच पिशें जावन पडटलें...!

मागीर बुकल्यानच विचारलें- "आगो, एक सांग! तूं आज राणयेबरोबर बॅट-बॉल खेळूंक वतलें?"

"म्हाका सामकें वचन दिसता रे! – पूण म्हाका काय तिणें आफोवंक ना... आमंत्रणा बगर कशें वचप?"

बुकीन तें कांयच आयकून घेतलें ना जातलें.

"– मेळटा हांव तुका थंय..." अशें म्हणून तो थंयच्यान नाच्च जालो.

... पूण दुसऱ्याच खिणाक पळयल्यार परतोऽत्या झाडार बसला. – म्हणूंक लागलो... "हांव विसरलोंच तुका विचारपाक!... त्या बाबुल्याचें किते जालें गो?"

"–ताचें आनी किते जातलें? तो धुकरा – पेटो जालो..." सोनून भुरग्याचो धुकरा-पेटो जावप ही सदचीच गजाल जाल्लेबशेन सांगलें.

"म्हाका तशेंच दिशिल्लें..." बुकीनय मात्तय अजाप दाखयनासतना थंडसाणेन म्हळें... आनी परतोऽ नाच्च जालो.

सोनू तो परतो बी येत म्हणून कितलो वेळ झाडार पळयत रावलें. पूण तो परतो आयलो ना म्हणून तें मागीर चलूंक लागलें.

"–खंय वचया पयलीं? चेपेंकारागेर काय आवट्या-सोंशागेर!... पूण चेपेंकार हांवें जायते पळयल्यात. – पूण आवटो – सोंसो म्हणटात तो केन्नाच पळोवंक ना... ताकाच वचून मेळया... मज्जा येतली.

अशें मनात येवजून ताणें एक पावल मुखार घालां मात्त – धुत्त करून पुर्तुगाली बुकलो परतोऽ एका झाडाचे खांदयेचेर बशिल्लो दिसलो.

"आगो, तुवें 'धुकोर' म्हणिल्लें काय 'कोंकोर' म्हणिल्लें?" ताणें विचारलें.

"हांवें 'धुकोरच' म्हणिल्लें." सोनून सांगलें. "पूण तूं असो धुत्त करून येता आनी अकस्मात पुट्ट करून नाच्च जाता – हें मात सारकें न्हीं हां!... आरे, म्हजी तकली मागीर सामकी घुंविल्ले भशेन जाता..."

"बरें बाये, बरें!!" बुकीन वाळू चडच फांकारून हांसत म्हळें. "आतां सामको हळू-हळू वतां पळय." ताणें म्हळें

– पळय जाल्यार... ह्या सभाग्यान किते करचें! – पयलीं ताची शेंपडी नाच्च जाली... मागीर फाटले पांय.. मागीर पोट... अशेतरेन इल्लो-इल्लो करून तो सवकासायेन ना जावंक लागलो.

– शेवटाक कितलोसोच वेळ तागेलें तें वाळू पेचिल्लें हांशेंच झाडार दिसतालें...

–सोनूची तकली चडच घुंवपाक लागली.

"आंवंय! आंवंय! हें आनी किते रे सायबा!!... हांवें हांसो नाशिल्लीं माजरां जायतीं पळयल्यांत... पूण माजर नाशिल्लो हांसो आजच पळयतां...! म्हज्या सवन आयुश्यांत सगल्यांत व्हडलें अजाप आज हांवें पळयलें म्हळ्यार जाता... सोनू बडबडत चलूंक लागलें. चलतां-चलतां सोनू त्या आवट्या-सोंशाल्या घराकडेन पावलें. त्या घराक पळयतनाच सोनूक हेंच्च सोंशाचें घर म्हणून समजलें.

– हेंच घर जातलें सोंशालें! ह्या घराचीं धुंवर वचपाचीं धुराडीं पळय, सामकीं सोंशाल्या कानाभशेन आसात... आनी घराचेर नळ्यां बदला सामकी मोव-मोव ल्हंव कशी धवें-फुल्ल करड आसा.... हेंच जातलें आवट्या-सोंशालें घर... सोंशाभशेन सोंशालें घर...!!

सोनू भीत-भीतच घरांत वचपाक गेलें. कोणें सांगचें! एखाद्रो तो सोंसो सामकोच आवटो बी जाल्लो आसल्यार? देवा पाव! चड पिसो जालो ना जाल्यार पुरो तो...! –आतां म्हाका दिसपाक लागलां – ह्या आवट्या – सोंशागेर येवचे परस हांवें चेपेंकाराकच मेळूंक वचपाचें...

सोनू मनांत बरेंच चुटपुटपाक लागलें. पूण पळय जाल्यार ताका दोगय थंयच मेळ्ळे.





– सुधा खरंगटे
अ-४,
कुडतरकार क्लासीक,
आर्के, मडगांव-गोंय.

# भिकाऱ्याची दशा बदल्ली





**शा**मू शाळेंतल्यान आयलो. खांकेतलें बॅग मेजार दवरलें. हात पांय धुले आनी तो जेवपाक बसलो. जेवतां जेवतां ताच्या कानार उतरां पडलीं. 'बाय, कितेंय खावंक दी.' हीं उतरां आयकून शामूचे आवयन दार उगडून पळेलें. एक भिकारी भीक मागूंक दारार आयिल्लो. तिणें ताका मात्सो राव म्हळें आनी ती दार धांपून भितर गेली.

आईन शामूक सवकास जेव म्हळें, बेगीबेगीन तिणें पत्रावळीर जेवण वाडलें आनी तें घेवन ती भायर गेली. तिणें तें भिकाऱ्याच्या हातांत दिलें. भिकारी जेवण घेवन बलकावां भायर आंगणांत जेवपाक बसलो.

इतल्यान शामू जेवन भायर आयलो. ताणें भिकाऱ्याक विचित्र दशेंत पळेलो. भिकाऱ्याच्या आंगार धड कपडे नाशिल्ले. एक पिंदकरो बुशकोट आनी एक लोळिल्ली मोटवी पॅन्ट ताच्या आंगार आशिल्ली. ताका पळोवन शामून आईक विचारलें, ''आई हो कोण गे?'' शामूच्या प्रस्नांक जाप दीत तिणें म्हळें, ''शामू,हो भिकारी. ताचे कडेन कांयच ना म्हूण तो भीक मागता.'' तें आयकून शामून म्हळें,''पूण ताची अशी दशा कशी जाली?'' हीं शामूचीं उतरां भिकाऱ्यान आयकलीं. तो म्हणूंक लागलो, ''बाबा म्हजी अशी दशा जावपाक हांवूच कारण. हांव भिकारी म्हूण जन्माक येवंक नाशिल्लों. म्हजें नांव समशेर. म्हजें नशीब फुटकें म्हूण अशी दशा जाली.'' तीं उतरां आयकून शामून म्हळें. ''नशीब फुटकें म्हणचे कितें?'' त्या उतरांक भिकाऱ्यान परत आपलें तोंड उगडलें. तो म्हणूंक लागलो, ''बाबा, सांगतां तुका म्हज्या नशिबाची काणी. हांव ल्हान आसतना खूब मस्ती करतालों. जेवणाकडेन लेगीत हट्ट करतालों. एक दीस म्हज्या व्हडल्या भावाक आवयन नुस्त्याचे दोन कुडके वाडल्या आनी म्हाका एकूच वाडला तें पळोवन हांवें म्हजें ताट धुकल्लें आनी हांव तिडकीन जेविनासतना रावलों. फुडेंय हांवें अन्नाकडेन जायती मस्ती केली. ताटांत घेवन कोण तांदूळ वेंचता जाल्यार हांव ताचेर हात मारून तांदूळ सकयल उडयतालों. त्या वेळार दुसऱ्यानी म्हाका तशें करचें न्हय म्हूण सांगल्यारूय हांव आयकनाशिल्लों. फुडें फुडें हेच मस्ती खातीर

म्हाका जेवण लागीं करिना अशें दिसूंक लागलें. जेवंक गेल्यार म्हाका ओकूंक येवंक लागलें. हांव दुयेंतूय पडलों आनी एक दीस गुजराताक गेल्लेकडेन रेल्वेक अपघात जाल्ल्यान म्हजी आनी म्हज्या घरच्या लोकांची ताटातूट जाली. आवय बापाय पासून हांव पयसावलों. हांवें तांकां खूब सोदलीं आनी ताणींय म्हाका सोदलो आसतलो. पूण म्हाका तीं मेळ्ळींना. हे गजालीक २५ वर्सां तरी जातलीं. त्या दिसाच्यान हांव असो भोंवतां, कोणेंय कितेंय दिलें जाल्यार खातां. म्हाका रावपाक घर ना, आंगार घालपाक सारके कपडे नांत, जेवपाक, खावपाक तर म्हाका लोकांचेर विसंबून रावचें पडटा आनी असले जिणेन म्हाका नाका आशिल्लीं दुयेसां जाल्यांत.''

भिकाऱ्याची काणी आयकून शामूक आनी शामूचे आवयक भिकाऱ्याचे चुरचुरे दिसले. आईन घरांत भितर वचून शामूच्या बापायचे थोडे कपडे हाडून भिकाऱ्याक दिले आनी भिकाऱ्याक थंयच बसपाक सांगलो. तितल्यान तिणें शामूच्या बापायक फोनार भिकाऱ्याची सगळी गजाल सांगली. ती आयकून शामूच्या बापायक भिकाऱ्याचे चुरचुरे दिसले. तो रोखडोच थंय आयलो आनी भिकाऱ्याक घेवन लागशिल्ल्या आश्रमांत गेलो. थंय ताणें आश्रमाच्या मुखेल्याक सगळें सांगलें. मुखेल्यान सगळें आयकतकच भिकाऱ्याची ताणें आश्रमांत रावपाची आनी थंयच काम करपाची वेवस्ता केली. त्या दिसाच्यान ताचें भीक मागप बंद जालें.





**– रेखा रामनाथ नायक**
मार्रा, पिलेर्न,
बार्देश – गोंय

---




एका राज्यांत एक भुरगो रावतालो. ताचें नांव शूर. ताका जनावरांचो म्हळ्यार सगल्याच प्राण्यांचो आनी झाडांचो मोग आशिल्लो. आपलो अभ्यास आनी खेळ जातकच तो झाडांक आनी प्राण्यांक तेळीत बसतालो.

शूरागेर माजरां आशिल्लीं. तशेंच ताच्या आंगणांत सुणीं आसतालीं. ताच्या पोरसांत तरेतरेचीं झाडां-झोपां आशिल्लीं आनी तांचेर तरेतरेचीं शेवणीं, कोमुले, पांखे येताले. झाडांमुळांत लेगीत तरेतरेचे शेड्डे, पारवे, शिल्ल्यो दिसताल्यो.

इतलेंच कित्याक झाडांचेर भोंवपी मुयो आनी हुमले लेगीत शूराचें लक्ष ओडून घेताले. सगलीं पानां एकठांय करून केल्लो हुमल्यांचो घोटेर तोखेवपा सारखो आसतालो. झाडाच्या ताळयानीं पानां फाटल्यान तणाची वाटकुळीच वाटी कशी तणशी आनी तातूंत आशिल्लीं सवण्याचीं पिलां पळोवन शूराक अजाप जातालें.

झाडाचेर वयर गांजील मूस वाटकुळो बोल कशें मालें करताले आनी व्हडल्या खांद्यार म्होंवामूस करताले तें मालें पळयल्यार झाडाच्या खांद्याक खाड आयिल्लेवरी दिसतालें.

एक दीस शूरालें माजर व्हिलें, शूराचे आवयन शूराक एक काश दिवन पिलांक हांतूण करूंक दाखयलें. शूरान ते काशींत आपल्या पोरण्या कपड्यांच्यो घडयो घालून पिलांक मोव हांतूण केलें. कळिल्ले भशेन माजरान आपल्या पिलांक अचळय उबारलीं आनी काशींतल्या मोव हांतुणाचेर व्हरून दवरलीं. आपूणय पिलां म्हऱ्यांत न्हिदून रावलें.

माजर खावंक पिवंक भायर येतालें आनी पिलां म्हऱ्यांत वचून न्हिदतालें. पिलां इल्लींशीं कापसा गुळयो कशीं आशिल्लीं. तांकां दोळे लेगीत फुट्रूंक नाशिल्ले. फक्त आवय म्हऱ्यांत येतकच तीं 'मिंव, मिंव' करतालीं.

पिलां काशींतच व्हड जातालीं. थोड्या दिसांनीं तांकां दोळे फुटले. निळ्याच दोळ्यांनी तीं शूराक पळयतालीं आनीक काशींतल्या काशींत खेळटालीं.

मात्शीं व्हड जातकच तीं आवयचे फाटल्यान भायर येवंक लागलीं. आवय एका जाग्यार बसून शेपडी हालयताली आनी पिलां शेपडेचेर उडयो मारून खेळटालीं. आवयचे फाटल्यान तीं घरभर भोवंक लागलीं. पूण मजा म्हळ्यार तीं फक्त आवय आपयता तेन्नाच थंय वतालीं.

आतां तांकां भायर व्हरपाचो वेळ जाल्लो. माजर तांकां भायर आपोवन व्हरतालें. माजर पिलांकडेन कशें उलयतालें तें कळनाशिल्लें. पूण ताची भास पिलांक दिस्त समजताली. भायर वतकच तें आंगणा मेरेन बसतालें आनी पिलां पोरसांत खेळटालीं.

शूराक हुस्को जालो. आतां हीं पिलां भायर वतात आनी भायर आंगणांत तर कितलींच सुणीं बशिल्लीं आसतात. हीं सुणीं माजरांक दिश्टी पडूंक दिनांत. शूरागेर माजर हाडचे पयलीं ह्या सुण्यानीं लोकालीं माजरां येतालीं तांकां मारून उडयिल्लीं. पूण तेदेवेळार शूराच्या लक्षांत आयलें कीं ह्या दिसानीं आंगणांत एक्क सुणें दिश्टी पडना. माजरा पिलां आसूदाय पोरसांत खेळटात.

मागीर एकदीस एक सुणो आंगणांत आयलो. शूरालें माजर ल्हंव फुलोवन ताच्या आंगार गेलें आनी आयिल्लो सुणो आयिल्लो तसो गेलो. तेन्ना शूराक कळ्ळें कीं तांची एका दुसऱ्याकडेन उलोवपाची, संपर्क सादपाची, दुसऱ्यांक संदेश दिवपाची एक रीत आसता. एक भास आसता. देहबोली म्हणूं येत. पूण एका प्राण्याक दुसऱ्या जातीच्या प्राण्याक लेगीत सूचना दिवंक जमता.

म्हणटकच शूराच्या आंगणांत बसतालीं तीं सुणीं एकदम ना जालीं. ताचें कारण फकत हो माजराचो आक्रमक पावित्रोच आसतलो. माजरानच तांकां तशी सुचोवणी दिल्या आसतली आनी सुण्यानींय ताचे अधिकार मानून घेतल्यात.

पळोवंक गेल्यार माजरां आवाज काडून उलयतात तशीं सुणीं उलयनांत. माजरां पिलांक आपयतात तेन्ना वेगळो आवाज काडटात. तांकां खावंक घेवन येतात तेन्ना वेगळो आवाज काडटात. खावंक मागतना वेगळो आनी झगडटना वेगळो आवाज काडटात.

सुण्याचें तशें नासता. सुणीं दुसऱ्यांचेर भोंकून वतना आनी कसल्याय संकटाची सुलूस लागता तेन्नाच आवाज काडटात. केन्ना केन्ना 'कूं कूं' करून कितेंतरी सांगपाचो यत्न करतात. पूण तांचें चडशें उलोवप मोन्यानीच आसता.

आनंद जातकच तीं शेंपडी, कमर हालयतात. अपराधी जातात तेन्ना कान दोडून तकली सकल घालतात आनी शेंपडी पायांत घालतात. तांकां आवडीची गजाल करताशें दिसल्यार सगलो आनंद तांच्या दोळ्यांतल्यान उसळटा. म्हळ्यार तांचें उलोवप चडशें आवाजाबगर आपल्या देहाच्यो हालचाली करून जाता. सुण्याच्या तोंडार तांच्या मनांतले भाव दिसतात.

अशीच एकदां शूराच्या आंगणांत बसपी कोली शूराचे गॅरेजींत व्हिली. थोड्या दिसांनी तें कोलूक पिलांक घेवन गेलें. तें पिलांक घेवन खंय गेलें तें कोणाक कळ्ळें ना. एक फावट अवेळार पावस आयलो आनी तें कोलूक धांवट शूराच्या आंगणांत आयलें. तें सगलेंच भिल्लें. काचाबूल जावन तें हेवटेन तेवटेन नाचतालें. ताणें पिलां दवरिल्ले सुवातेर उदक भरलां जातलें इतलें सगल्यांच्या लक्षांत आयलें. पूण पिलांक खंय दवरिल्लीं कोणाक खबर नाशिल्लें. इतल्यांत, कोलकान तोंड वयर काडून आवाज काडलो. दोग तीग कुत्रे धांवत आयले. तांतलो एकलो त्या कोलका म्हऱ्यांत गेलो आनी पेल्यान गेलो. तो गेले उपरांत कोलूक वचून एका पेट्याक घेवन आयलें. ताणें त्या पेट्यांक हाडून परत गॅरेजींत दवरले.

शूर पळयतालो. तो कुत्रो आनी कोलूक हांचेमदीं कितेंतरी मसलत जाल्ली.

तांची भास तांकांच कळटा... सगल्या प्राण्यांची आपआपल्या जातभाईकडेन उलोवपाची एक भास आसता आनी ती तांकां शिकयनासतना आपशींच कळटा.

चिमणेच्या घोटेरांत एक फावट एक चानी चुकून भितर सरली. चिमणेन बोवाळ केलो आनी खंयतरी आशिल्लो तो चिमणो आयलो.

वण्टीर भोंवतात त्यो मुयो एकमेकांक कितें तरी सांगतात. आरत्यो परत्यो वचपी मुयो मुखावयल्यान येता त्या मुयेच्या तोंडा म्हऱ्यांत वचून फुडें वतात.





आनी एके जातीची भास तेच जातीक कळटा अशें ना. एका प्राण्यान दिल्ली धोक्या सुचना सगल्या प्राण्यांक सादूर करतात.

जमनीर उस्तुवपी कुकडां 'क्यॅक, क्यॅक' करतात तेन्ना कोणतरी शत्रू आयिल्ल्याचें माजराक आनी सुण्याक लेगीत कळटा.

सोरोप झाडार चडटा तेदेवेळार शेवण्यांच्या कुलकुलाटान माकडय भियेवन पळटात आनी सगल्यांत म्हत्वाचें म्हळ्यार सैमाचीं अरिश्टांय येवपाचीं आसात तें प्राण्यांकच कळटा आनी ते एकमेकांक तेविशीं सादूर करतात.

सगल्या प्राण्यांक, मूय आनी मुसाक लेगीत देहबोली आसता आनी ती सगल्यांक कळटा. उपजत कळटा आनी जशें प्रत्येक प्राण्याक खाण जेवण मेळोवपाची अक्कल आसता तशीच आपले सुरक्षतेविशीं ते सामके सतर्क आसतात.

शूरान ताचो अभ्यास केलो आनी हळुहळू शूराक तांची देहबोली, आवाज - बोली कळूंक लागली. तांचे भाशेंत तांचेकडेन उलोवंक येवंक लागलें.

मुयांच्यो हालचाली पळोवन आजी म्हणटाली 'पावस लागीं आयलो' खरेंच आशिल्लें तें.

शूरान आपल्या गिन्यानाचो उपेग करून घेवपाचें थारायलें. तो वचून राजाक मेळ्ळो. राजाय हुशार आशिल्लो. ताणें शूराचें म्हणणें आयकून घेतलें आनी ताचेर विचार केलो आनी ताकाय कळ्ळें ह्या सगल्यांचो उपेग करून घेवप.

राजान फर्मान धाडलें. कोणेंच खंयच्याच प्राण्याक दुखोवप ना. सगल्यांक आपले जिणेंत आस्पावन घेवप. ताका लागून त्या राज्यांतले प्राणी हळुहळू मनशांक भिवपाचे बंद जाले आनी ताच्यो हालचाली मुक्तपणान जावंक लागल्यो. तांच्या हालचालींतलो फरक मनशांच्या लक्षांत येवंक लागलो.

राजान शूराचे विचार मतींत घेवन आनी एक येवजण केली. सगल्या प्राण्यांक सैमीक आपत्तीची सुलूस लागताली. पूण मनशानीं केल्ल्या शस्त्रस्त्रांचें तांकां गिन्यान नाशिल्लें. शूरान आनी ताच्या मित्रांनीं तें गिन्यान प्राण्यांक

दिवपाचें काम सुरू केलें. आधुनीक शस्त्रांस्त्रांत जे घटक लागतात ते सोदून काडपाचें प्रशिक्षण प्राण्यांक मेळ्ळें. म्हळ्यार ते घटक धोका दायक आसतात हाची जाणीव प्राण्यांक करून दिवपाची तजवीज जाली. त्या घटकांचो वास लागतकच धोको वळखून प्राण्यानीं सूचना दिवंक सुरवात केली.

एकदां शूराच्या राज्यांत आतंकवादी भितर सरले. आतां मेरेन शूराच्या राज्यांतल्या सगल्या प्राण्यांक आपल्या राज्यांतल्या लोकांची संवकळ जाल्ली. शूराच्या राज्यांतले लोक प्राण्यांकडेन जे तरेन वागताले तशे भायल्या राज्यांतले वागऽ नाशिल्ले. देखून परकी मनीस प्राण्यांक रोखडोच वळखूंक येतालो.

त्या भायर जे धोकादायक पदार्थ आसात तेय प्राण्यांक वळखूंक येताले. आतंकवाद्यानीं हाडिल्ली स्फोटकांची सुलूस मुयांक, मुसांक, हुंदरांक, शेवण्यांक सगळ्यांक लागली आनी ताणी सुचना दिवंक सुरवात केली. प्राण्यांच्यो सुचना वळखून राजाच्या सैनिकांनीं हालचाल केली आनी आतंकवाद्यांक धरले. जीवीत आनी माल हांची जावपाची आशिल्ली हानी टळ्ळी म्हण सगळ्यांक सूऽऽ जालें. राज्यांतल्या प्राण्यांविशीं सगल्यांक कृतज्ञता दिसली.

पूण व्हडलें संकश्ट लागींच आशिल्लें. अकस्मात राजाच्या लक्षांत आयलें कीं राज्याच्या शीमेपेल्यान शत्रुंच्यो हालचाली चल्ल्यात. शीमे लागसार रस्तो बांदपाचें काम चलिल्लें.

शिमे पलतडींच सैन्य एकठांय जातालें. शस्त्रांस्त्रांचो सांठो वाडटालो आनी सगल्यांत वायट गजाल म्हळयार तेवटेंतल्या दोंगरार अणवस्त्रां तैनात जाल्लीं.

राजान शूराक घेवन परिस्थितीचेर विचार केलो आनी नवी येवजण तयार केली.

शूर आनी शूराच्या मित्रानीं शिमेकडल्या प्राण्यांक आदेश दिवंक सुरवात केली. प्राण्यांचें एक आसता. तांचे खातीर आप आपणें घालून घेतिल्ल्यो शिमो आसतात. मनशांच्यो शिमो तांकां लागनांत. ते आपले आपणें घालून घेतिल्ल्या शिमां भायर वचनांत. पूण दुसऱ्या वाठारांतल्या प्राण्यांकडेन संपर्क दवरतात. तांकां सुचना दिवंक शकतात.

जेदेवेळार शूरान शीमेर वचून थंयच्या प्राण्यांक सैन्य आसा थंय एकठांय जालां थंय वचपाची सुचना दिली. तेदेवेळार सुचना सैन्य आशिल्ल्या वाठारामेरेन पावली आनी ज्या किटकांक जशे तरेतरेच्यो मुयो आनी मूस हांकां हल्लो करपाची सूचना मेळ्ळी. किटकांचो हल्लो इतलो भयानक आशिल्लो कीं सगल्या सैन्याक तळ रितो करचो पडलो. किटकांच्या फाटोफाट मात्शे व्हडले प्राणी हल्लो करूंक तयार आशिल्ले. ताचे फाटल्यान व्हडलीं जनावरां.

शूरान आनी ताच्या मित्रानी खूबशे प्रयोग केल्ले. क्रियेक प्रतिक्रिया आसता त्याच तत्वाचो आदार ताणीं घेतिल्लो.

शूरान आनी ताच्या मित्रांनी पळयिल्लें कीं कसलीय सैमीक आपत्ती येता तेन्ना ती प्राण्यांक येवचे पयलींच समजता. मागीर तांच्यो हालचाली सुरू जातात. भूकंप जाता, वादळ जाता, सुनामी जाता तेदेवेळार अशेंच जाल्लें आसता.

आतां शूरान आनी ताच्या मित्रांनीं उरफाटें करपाचें थारायलें. ताणीं शिमे भायर आशिल्ल्या शत्रूपक्षाच्या अण्वस्त्रां दवरिल्ल्या जाग्यावयल्या प्राण्यांक सुचना दिवन उचकायलें. सगले प्राणी भूकंप जावपाचो आशिल्लेवरी धावंक लागले. आड्डी मारूंक लागले. शेवण्यांचो कुलकुलाट जावंक लागलो. सगल्यांचो परिणाम थंयच्या झाडांचेर जालो. झाडां जोरा जोरान हालूंक लागलीं आनी सगलीं करंदाय आनी अच्छेव आयकुपाच्या, पळोवपाच्या, सोंसपाच्या शक्तीच्या भायर पावलो तेन्ना चमत्कार घडलो.

'घुडूम्म' करून व्हडलो आवाज जालो आनी सगलो दोंगर फुटलो.

शत्रूचीं अण्वस्त्रां 'घस्स' करून जमनींत भितर गेलीं.

शूराच्या प्रयोगाक येस आयलें आनी कोणाच्याच जीवाचें वो मालाचें लुकसाण जायनासतनाच शत्रूचीं अण्वस्त्रांच जमनीच्या पोटांत गेलीं. शूराचें जैत जालें. ताचें राज्य नाश जावपा पसून वाटावलें. सगल्यांक आनंद जालो.



२०६, कैलासदर्शन,
आकें, मडगांव - गोंय




आयज हांगा येवन म्हाका कळ्ळें की कॉंक्रीट आनी मायनींगाच्या जंगला भायरूय एक गोंय आसा. पांचव्याचार दाट रानांनी भरलेलें सोबीत सुंदर गोंय. आयज म्हाका कळ्ळें की गोंयांत आयजूय कांय लोक आसात जे गोंयची ही सुंदरताय जपून दवरपाक नेटान वावुरतात.

हांव गोंयांत रावतां खरें पूण आयज खरें गोंय पळयल्लेवरी जालें. हांव ज्या वाठारांत रावतां थंय दीस रात मायनींग, ट्रकांचो तो गजगज, जळीमळीं धुल्ल, शी! कंटाळो आसलो. तांबडी सुर्ला ह्या गांवचें नांव पूण पाचवोचार हो गांव! खरें म्हळ्यार सावड्डेचें नांव 'तांबडी सावड्डें' आसपाचें. ह्या कांय फुक्या गोंयकारांनी पोखरून खाल्लें आमचें गोंय. गोंय आसाच पयलीं ल्हान आनी ह्या मायनींगान तें अर्दे केलां आनी काळजासावन सलाम त्या गोंयकारांक जे गोंयची अस्मिताय राखूंक रातीचो दीस करून वावुरतात. म्हाका भंय दिसता. फुडले पिळगेक हें आमचें पांचवेंचार गोंय पळोवपाक मेळटलें? पयरूच हांव एके शाळेंत गेल्लें. थंय लागीं मायनूय आसा. शाळेकडेन दोळे ताणून पळयल्यार एक झाड लेगीत दिसना. ते शाळेंतलीं भुरगीं जेन्ना भायर सरतात तेन्ना तांकां व्हडले मिनाचे ढिगारेच दिश्टी पडटात आनी ह्याच भुरग्यांक जर अशा मनरमणीय जाग्यार सहलीक हाडलीं जाल्यार म्हाका दिसता ते तोंडांत बोटां घालून हांगचो वांठार नियाळून पळयतलीं आनी कांय वर्सांनीं भुरगीं म्हणटलीं 'आमची आजी सांगताली, गोंयांत झाडां नांवाचो प्रकार आशिल्लो खंय' आनी ताचें अशें म्हणपाचें कारणीभूत आमीच आसतले. ह्या लोकांक झाडांविशीं मनांत मातूय दया ना माया, येयल्लो गेल्लो निर्दयतायेन ह्या झाडांची कत्तल करपाक पेट्टा. ह्या मनशाक खबर ना की तो आपल्याच फुडाराची वाट लायता म्हणून.

आयज मेरेन येयल्ल्या पर्यटकान आमच्या ह्या गोंयांत कांय फामाद जागेच पळयल्यात. तांकां म्हजी एक सुचोवणी आसा 'येयात... गोंयचें हें इबाडिल्लें विद्रूप रूपूय पळयात.' म्हाका खात्री आसा तांकां नेटाचो धक्को बसतलो हो मिनाचो धंदो पळोवन. तुमकां जाणविकाय आसा धर्तरीमाय कितली घुस्मटता आसतली ती! तिका खिणा-खिणाक स्वास घेतना कितलो त्रास जाता खबर आसा व्हय तुमकां?

रवीन्द्रबाब केळेकार म्हणटाले, 'हांव रायटर न्ही फायटर' म्हळ्यारच पेन हें तांचें शस्त्र. तांचेकडेन लिखाणानूच झगडपाची शक्त आशिल्ली आनी हीच शक्त दर एकट्याकडेन आसची अशें म्हाका दिसता. गोंयच्या विद्यार्थ्यांची परिस्थिति वायट जाल्याशी दिसता. कित्याक म्हळ्यार एक उपक्रम दिल्लो तातूंत एक विशय आशिल्लो History of two Religious Institutions म्हणजे खंयच्याय दोन धार्मीक संस्थांची म्हायती बरोवप. चडांत चड भुरग्यांनी तिरूपतीचें देवूळ आनी वॅलंकनी चर्चीबद्दल बरयल्लें. अरे बाबांनो इतले पयस वचचे बदला कायबरी ४०० वर्सां पयलींची पोरणे गोंयची इगर्ज कितें शोभेक दवरल्या...? ते इगर्जेचो इतिहास बरोवपाक पानां पावचींना... तशेंच काय बरीं देवळां देखीक मंगेशीचें... थंयची गर्दी पळोवपा

सारखी आसता. हीच आमची परिस्थिती जाल्या. आमकां वाडललें नाका सांडललें जाय. आयज आमी आमची संस्कृताय सोडून ती भायली संस्कृताय आपणावपाक फुडें सरल्यात. आयज गोंयांत मायनींग सोडलो जाल्यार आनी एक बोवाळ चालू आसा तो म्हळ्यार माध्यम प्रस्न. इंग्लीश ही संवसारीक पावंड्यावेली भास हाका कोणूच विरोध करिना. इंग्लीश भास संवसारांतल्या वेगवेगळ्या साहित्यांक आनी विशयांक दारा उक्तीं करून दिता आनी आयच्या काळांतली गिन्यानाची भास अशेय आमी मानतात.पूण learning English is different from learning in English. इंग्लीश शिकप आनी इंग्लीशिंतल्यान शिकप हातूंत जमीन मळबा इतलो फरक आसा. Unesco ह्या संवसारीक पावंड्यावेले संस्थेन मुळावें शिक्षण दिवपाचे कांय म्हत्वाचे नेम आखून दिल्ले आसात. तातूंत सगळ्यांत म्हत्वाचो नेम म्हळ्यार मुळावें शिक्षण हें आवयभाशेंतल्यानच जावपाक जाय. हो असो कायदो आसतना सरकारान हो असो निर्णय कसो घेतलो. आमकां आमचे भाशेकडेन आनी संस्कृतायेकडेन जुळोवन दवरपाची तांक इंग्लीशींत आसा व्हय? आमच्या गोंयच्या कांय क्रिस्तांव भावांचो एक समज आसा तांका दिसता हिन्दू भाव जी पळया कोंकणी उलयतात ती खंयचीतरी दुसरीच भास... तांगे ती कोंकानी! अशेय म्हणपी कांय लोक आसात. मुळावें शिक्षण घेवपाची पिराय ही मुळाव्यो संकल्पना शिकपाची पिराय आसता... भास शिकपाची न्हय. वयापयलींच भुरग्यांच्या माथ्यार इंग्लीशीचें अडेचें वजें लादून भुरग्यांचो फुडार कितें जातलो? हांवें खंयतरी वाचलेलें We do not see things as they are, We see things as we are. आमचेकडेन दोळे आसात पूण पळोवपाक नदर जाय. कांय गोंयकारांक दिसता गोंयांत कोंकणी भास शिकून खंय वतले? गोंयांत कलेच्या मळार खूब नामना जोडल्या आनी हाचे फुडेंय जोडटले. हें सगळें आसा म्हज्या हातांत, तुमच्या हातांत, गोंयच्या सगळ्या युवांच्या हातांत.



**– आश्विनी सिरसाट**
फोंडकुलें, टॉनी नगर,
सांवर्डे – गोंय.
फोन : ९८२३५७८८३३



## फुलपाखरां

तरातरांचीं फुलपाखरां
नटून थटून
आपलीं आपलीं कामां करूंक
भायर सरलीं
तांकांय दिसता ह्या सोबीत
सुंदर दिसा उजवाडा आयज
आपणेंय अशें कितें करचें

सकाळच्या वेळार फुलिल्ल्या
फुलांचेर तीं बसतात आनी तांकां दिसता
आपूण आतां पवित्र जाल्यांत
आनी तीं फुलांचें म्होंव खावन
आपूण आतां
नितळ जालीं अशें समजतात



फुलपाखरांनो फुलपाखरांनो
व्हर म्हाका तुमच्या वांगडा
जंय रंगरंगयाळीं भुरगीं
तुमचेच भशेन आनी
दुसऱ्या रंगाचीं फुलपाखरां खेळटात थंय

**– फेलिक्टी लॉपीस**
वाडें कॉलनी, न.१,
सांगें–गोंय.



**शणै गोंयबाब कोंकणी सेवा केंद्र, सांवर्डे हे संस्थेन उच्च माध्यमिक विद्यार्थ्यांखातीर गोवा कोंकणी अकादेमीच्या जोड पालवान एक सृजनमेळ तांबडी सुर्ला वाठारांत आयोजीत केल्लो त्या वेळार विद्यार्थ्यांनीं सादर केल्लें साहित्य.**

# सैम सर्कल



**पड्डो धांपिल्लो आसा.**
**साक्षिदार हातांत हार घेवन येता.**
**पड्ड्याच्या एका पोताक बांदता.**
**दुसरी आंठी हातांत घेता आनी प्रेक्षकांक नमन करता.**

**साक्षिदार :** माय-बाप प्रेक्षक तुमकां नमन. तुमकां म्हजो साश्टांग दंडवत. खूबच कळाव जालो न्ही. हांगा धांव-थंय धांव. फेसबुकार बस, गुगलाचेर सर्च कर, हाका मेल धाडा, ताका फॉर्वर्ड कर, अशें करतां करतां वेळ कसो पासार जाता कांयच कळना. कुल्याक जळारी चाबपाक लागल्यो की लक्षांत येता की तिनसांज जाली. आयज हांवेन चड आळस करूंक ना. दनपारची न्हीद तर काडलीच ना. आयज म्हजी कार्यावळ. हांव हेच एकांकीकेंत पार्ट करपाचों आसां. घरांतल्यान बेगीन भायर सरलों. पूण सदच्याच ट्रॅफीक जामान घुस्पलों. म्हाका माफ करात. हांवें तुमकां तिश्टत दवरले. तुमी म्हाका मनांतल्या मनांत खूब गाळी घातल्यो आसतल्यो न्ही? हय न्ही? मागीर आतां पिकासांव करून घेवं नाकात. फुकट गेल्यो ना त्यो. जाका गाळी घालतात ताकाच दिल्ली मतां जशीं फुकट वचनांत तशो म्हाका दिल्ल्यो गाळी फुकट वचच्यो नात. लागल्यो त्यो सत्कर्माक. लोकांनी पोटभर गाळी संवच्यो अशेंच तर काम केलां हावें. तुमचो चड वेळ घेना हांव. नाटकाक सुरवात करतां. नाटकाचें नांव आयकून तुमी खूब अपेक्षा घेवन हांगा आयल्या आसतले. तुमचे अपेक्षेक जागप हें आमचें, कलाकार ह्या नात्यान कर्तव्य. तें आमी कशे विसरतले? पूण जर तुमचो अपेक्षाभंग जालो तर मात परत एक फावट गाळी घालपाक विसरूं नाकात. हे फावट बऱ्या कास्ताच्यो दिल्यो तरी चलता. तुमचो हक्कच तो! आयजच्या आमच्या नाटकाक तुमी नाटक म्हणूं शकनांत. तें एक चक्र. तुमचे भाशेन सर्कल. चक्र म्हणटकीच घुंवप आयलेंच. चक्र घुंवतलेंच. तें मदीं थारतलें...? हें हांव सांगपाक शकना. कित्याक काळ म्हज्या हातांत ना. वेळ-काळ घुंवडायतलो तशीं पात्रां घुंवतलीं. घडये तेन्ना हांव एकटो पडत... पूण हांव हार मानपी न्हय. हांव यत्न करतलों. पात्रांक म्हज्या इशाऱ्याचेर नाचोवपा खातीर.

ह्या सैम चक्रांत आमी सगळे घुंवत आसात. तुमीच पळयात. तुमी जन्माक येतना तुमच्या चक्राक घुंवडावपाक सुरवात केली तुमच्या स्वताच्या हातांत. सुवर्ण महोत्सवी वाडदीस मनयतना अर्दे सर्कल पुराय जाता. पुराय जाण्टे जाता म्हणसर ३६०चो कोण गाठचो पडटा. कांय जाण पुराय सर्कल करतात. कांय सेमी सर्कल तर कांय फूल सर्कल. पूण ह्या सगळ्या गजालींक कारणीभूत तो काळ.

देवा म्हज्या! वदळच्यान हांव बडबडटां पूण हांवेन म्हजें नांव तुमकां सांगलेंच ना. सॉरी हां. हांव... **(नांव याद करता)** याद जायना पूण एक सांगतां हांव साक्ष दिवपी म्हळ्यार हांव साक्षीदार. म्हाका सगळेच वळखतात गवाय दिवपी म्हण. चराचरांतल्या जण एकल्याचें म्हजेकडेन काम आसता. बारीक मोठें केदेंय. परत एक फावट जीब सुटली म्हजी. नाटक सुरू करया. खंय गेले रे सगळे. लायट, म्युझीक ऑन करात. घे रे तो पड्डो वयर घे. हांव रावतां हांगा प्रॉम्टींग करपाक. **(पड्डो वयर वता. साक्षीदार एका कोनशाक. फाटल्यान बगीच्याचो देखावो. साक्षीदार लागींच उबो आशिल्ल्या कारणान तो गार्डनांत आसा असो भास जावपाक जाय. थंय एक तरनाटो धांवत येता.)**

**सुजीत :** अय! शुक! शुक! हय तुकांच उलो मारतां. मात्सो हांगा येता? म्हजें एक बारीकशें काम आसा तुजेकडेन. मात्सो बेगीनच यो. हांव थंय येतां आसलों पूण थंय लोक आसात. प्लीज मात्सो यो न्ही.

**साक्षीदार: (ताचेकडेन लागीं वचत)** कितें म्हणटा मनीसजात. कित्याक आपयलो म्हाका. वळख ना पाळख. सोयरो न्हय धायरो. तुजी वळख.

**सुजीत** : हांव सुजीत

**साक्षीदार:** नांवाक आदार दिवपाक फाटले फुडले वटेन कोण ना दिसता. तूं जल्माक येवंचे पयलींच पितर सर्गांत बी गेले ना मू?

**सुजीत** : हांव सुजीत लवंदे. सुजीत रामचंद्र लवंदे.

**साक्षीदार:** बेवारशी?

**सुजीत** : शी! शी! बारीक काय जायना आसा म्हजें घर स्वताचें. बेवारशी कसो तर? शांतीनगरांत आसा.

**साक्षीदार:** शांतीनगर खंयच्या रस्त्याक?

**सुजीत** : आनी खंय? एम्.जी. रोड.

**साक्षीदार:** पीन कोड?

**सुजीत** : चार, शुन्य, तीन अशें कितें तरी आसा.

**साक्षीदार:** होच प्रोब्लेम तुमचो. हजार चलयांचे हजार मोबायल नंबर तुमकां याद उरतात पूण गांवचो पीनकोड खबर नासता. लक्षांत दवर मोबायल नंबर बदलत उरता पूण पीन कोड न्हय.

**सुजीत** : तुमी मात बरेच चौकस हा! पूण इंटरेस्टींग.

**साक्षीदार:** सैमाची देणगी ती. दुसरें कांयच न्हय. पूण तूं लेगीत खूबच शॉर्टकट हां. तें सोड म्हाका कित्याक आपयला?

**सुजीत** : एक काम आसा तुमचेकडेन **(लजता)**

**साक्षीदार:**लजता? हय? मागीर पयलीं पोटभर लजून घे. म्हज्या समोर लजप ना. हांव कोण खबर आसा न्ही?

**सुजीत** : तरीय मात्शी लज दिसताच.

**साक्षीदार:** तूं पोटभर लजून घे. हांव चल्लों. तुज्या नादाक लागल्यार पेजेक म्हारग जातलों. **(वचपाक लागता)**

**सुजीत** : वचूं नाका. राव सांगतां.

**साक्षीदार:** म्हजी फी खबर आसा? एक गजाल लक्षांत दवर, तुजें काम सोंपसर तुवें म्हाका पोसपाक जाय. म्हाका गुलाम म्हण काम करपाक आवडटा. नोकर म्हण न्हय. तूं कितेंय सांग हांव तें करपी. जावं नैतीक जावं अनैतीक. तो विचार हांव करचो ना. तो विचार तुवें करप. तुजें काम सोंपलें की म्हाका मुक्त करप.

**सुजीत** : तूं सांगता ती फी दिवपाक हांव तयार आसां. पूण म्हजें हें नाजुकशें काम मात्शें करच तूं. म्हज्या काळजांत सगळ्यांत उंचेली सुवात दितां हांव तुका.

**साक्षीदार:** चल, हे घटकेच्यान आमचो करार सुरू. काम सांग. **(तो मात्सो लजता)** आतां लजप ना. तूं वेळ पिड्ड्यार करता कारण नासतना. हांव करार मोडूंक लेगीत शकतां. बेकार रावप म्हाका आवडना.

**सुजीत** : कशें सांगू?

**साक्षीदार:** देवान तोंड दिवंक ना? तातूंत जीब, दांत, वोंठ आसात काय ना? त्या सगल्या गजालींचो वापर कर आनी उलय मरे बेधडक.

**सुजीत** : हांव मऽऽरे... ता ऽ चे ऽ चे.

**साक्षीदार:** आरे बाबा बाराखडी शिकपाचो हो वेळ? केजी चो पोर्शन पी. जी. क कित्याक?

**सुजीत** : एक मिनीट बस असो. हांव तुका सगळें समजायतां म्हणजे तुका सगळें समजतलें, होलमतलें आनी कळटलें. मागीर आपसुकच तुजें काम तुका कळटलें. **(दोगूय बसतात. हांगा संवाद ना. दोगांचोय मुकाभिनय)**

**साक्षीदार:** आरे देवा म्हज्या. हें काम मरे. सादें मरे. ते तुज्या कॉलेजींत आसा. नांव कितें म्हळें ताचें? आतां आनी लज नाकां. बेगीन.

**सुजीत** : वर्षा....

**साक्षीदार:** हा! तर हें वर्षा तुज्या वर्गांत आसा. तुका तें आवडलां पूण ताका तूं आवडला काय ना हें तुका जाणून घेवचें आसा. ताच्या मनाचें गुपीत काडपाचें आनी ताचो कसाय तुज्या कानांत ओतपाचो.

**सुजीत** : तूं म्हणून सॉलीड हां! बरोच हुशार. तूं म्हजें काम करतलोच हातूंत मातूय दुबाव ना.

**साक्षीदार:** आनी ये मजनू म्हज्या सोदा उपरांत म्हाका अशें कळून आयलें की तें तुजेर मरना तर!

**सुजीत** : कितेंय उलोवं नाका. आमच्या घरांत हार्टाचें दुयेंस सगळ्यांक आसा. म्हाका हार्ट अॅटेक येवपा सारकें उलयता तूं. ह्या वक्तार शुभ शुभ उलोवंचें.

**साक्षीदार:** पूण हांव म्हणटां. न्ही न्ही. जाण्टे म्हणटाले मनशान वायट खंय पयलीं चितचें. मनाची तयारी जाता मागीर. तर रिजल्ट नॅगेटीव्ह आयलो तर?

**सुजीत** : तर हांव ताच्या हॉस्टेला सामकार, ताच्या दोळ्यां सामकार, आंब्याच्या झाडाक गोळ लावन घेतलों आनी फडफडत मोठ्यान आड्डतलों वर्षाऽऽ...

**साक्षीदार:** बोब मारूं नाका. पूण म्हाका एक सांग अशें आसा तरी कितें ते चलये भीतर?

**सुजीत** : कितें आसा? कितें ना तें विचार. गोरें गोरें पान, फुलासारखे छान. आनी खूब कितें. एक फावट पळोवन घे. दोळ्यांचेर विश्वास बसचो ना. ताका पयले फावट पळयतना बोल्सांत कांदो दवरचो पडटा. ताचें रूप पळोवन बेशुध्द पडल्यार, नाकाक लावपा खातीर.

**साक्षीदार:** आयज रूप नगण्य जालां. आयजचे तरणाटे सुवार्थी जाल्यात. रूप सामान्य आसल्यार पुरो, चलयेचो बापूय गर्भगिरेस्त आसपाक जाय. पूण तूं तर म्हणटा तें हॉस्टेलांत रावता. म्हणजे सामान्य घरांतलें आसतलें. गिरेस्तांचीं भुरगीं अपार्टमेंट घेवन रावतात. बरोबर न्ही?

**सुजीत** : चुकता तुजें. वर्षा तशें गरीब वा मध्यमवर्गीय न्हय. तसो हांव एकेवटेन मात्सो नशीबवान लेगीत आसां. पूण ते घडणुकेक अजून मात्सो कळाव आसा. ती एक लॉटरीच म्हळ्यार जाता.

**साक्षीदार:** म्हाका समजलें ना.

**सुजीत** : आरे वर्षा मोठ्या उद्योगपतीचें चली. मुंबयच्या. कार अपघातांत ताच्या आवय-बापायक मरण आयल्या उपरांत ताच्या एका संचालकान बोगस पावर ऑफ अॅटर्नीचेर ताचो उद्योग आपणें बळकायला. आतां कोर्टांत केस चालू आसा. जर कोर्टाचो निकाल वर्षावटेन लागलो तर हांव एकाच खिणाक उद्योगपती आनी वर्षाचो पती. आतां चड वेळ वगडाय नाका.

निकाल लागचे पयलीं आमचें मात्शें जाग्यार घाल. आमचें जावचे पयलींच जर कोर्टाचो निकाल आयलो तर तें जातलें मोठें मनीस आनी हांव सादो गरीब. मागीर तें वतलें कोणा गिरेस्ताच्या घरांत. आतां म्हजे लॉटरीचो नंबर काडपाचें काम तुजें.

**साक्षीदार:** म्हणटकीर तुजो दोळो वर्षाचे इस्टेटीचेर आसा तर! पूण म्हाका कांयच देणें-घेणें ना हां.

**सुजीत** : सारकें उलयलो. म्हाका सांग मनीस जल्मासावन अंतामेरेन घश्टे कित्याक काडटा?

**साक्षीदार:** ऑफकोर्स पयशे मेळोवपा खातीर.

**सुजीत** : मागीर हुशार बुध्दीच्या निर्बुध्द मनशा, समज हांवें एकाच फातरान दोन शेवणीं मारलीं तर चुकलें खंय?

**साक्षीदार:** आनी समज कोर्टाचो निकाल ताचेविरूध्द लागलो तर तुजो निर्णय बदलतलो?

**सुजीत** : तें फाल्याचें फाल्यां पळोवया. सद्याक सद्य परिस्थितीचो विचार करया आनी पावलां मारया. तूं म्हजें काम करता काय ना?

**साक्षीदार:** हांव म्हजें काम करतलों आनी हांव जैतिवंत जातलों हाची म्हाका पुराय खात्री आसा. मागीर तूं आनी तुजें नशीब. वर्षा आनी वर्षाचें नशीब.

**सुजीत** : मागीर वचूं हांव एक खोस मनार घेवन?

**साक्षीदार:** चल आवांतान चल. फाल्यांसावन एका नव्या नाटकाक सुरवात जावंची आसा. सगळेंच बदलतलें. रंगमंच बदलतलो. नाटक बदलतलें. संगीत, आवाज सगळेंच. तुजो प्रवेश बदलतलो. तुजी रंगभूषा बदलतली आनी मुख्य गजाल म्हळ्यार तुजी भुमिका लेगीत बदलतली. पूण प्रेक्षक मात तेच आसतले. नवीन संहितेंत तुका घडये खूब धांवपळ करची पडत. तेन्ना आतां मात्सो विसव घे. फाल्यांसावन आड पडपाक मेळत ना मेळत. चल म्हाकाय प्लॅनींग करपाचें आसा. हॉस्टेल खंयचें म्हळें तुवें...?

**सुजीत** : वर्कींग वुमन्स हॉस्टेल, पर्वरी. आनी कितें?

**साक्षीदार:** नो थॅक्स. चल तूं, न्हीद काड. हांव वर्षाचो माग काडटां. **(सुजीत वता)** काळाच्या चक्रांत निमणो हो फारावलोच. काळपरत्वे हें जावपाचेंच. मन घुंवडायतलें तशें हाणें घुवपाकच जाय. खूब सपनां सजयल्यांत ताणें! पळोवया कितलीं पुराय जातात तीं! हांवूय कामाक लागतां. **(माचयेचेर काळोख. संगीत चालू आसा. उजवाड येता तेन्ना साक्षीदारा फाटल्यान धवो पड्डो आसा. जाचेर फाटल्यो सावळ्यो प्रेक्षकांक स्पश्टपणान जाणवोपाक जाय.)**

**साक्षीदार:** खूब दिसांनी आमी मेळटात. कशीं आसात तुमी? सुजीताच्या कामाक लागिल्लो न्ही, ताका लागून तुमकां मेळप जालें ना. ताचें काम केलें हांवें हां. जमयलें एकदांचें. तुमकां प्रस्न पडला आसतलो. कशें केलें काय हाणें. सादी गजाल न्हय ही! पूण म्हाका ही गजाल सामकी सोपी. ह्या चलयांचें कितें आसता खबर आसा? आपल्यो मनांतल्यो भावना त्यो सोपेपणान कोणाकडेन व्यक्त करिनात. तांचो मुरवती सबाव मात्सो आड येता. आपल्यो भाव-भावना व्यक्त करपाक तांकां एक माध्यम जाय आसता. हांगाय नेमकें हेंच घडलें. हांव माध्यम जालों. पयलीं वर्षाकडेन इश्टागत



केली आनी एक दीस **(हांगासर पडद्या फाटल्यान दोन सावळ्यो दिसपाक जाय. तांचें हातवारें बीन सगळें आकृतीबंध जावपाक जाय.)** हावेन सुजीताक व्हेलो. कॅन्टीनांत बसयलो. मागीर वर्षाक आपयलें आनी हाच्या म्हऱ्यांत बसयलें **(हांसत)** सुजीताचो चेरो तेन्ना पळोवपा सारको जाल्लो. घामाघूम म्हणजे कितें तें स्पश्टपणान जाणवतालें. हांवें आनी चड वेळ केलो ना. वर्षाक सांगलें, वर्षा हो म्हजो, तुजो इश्ट. तूं खंय ताका आवडलां. ताका तुजेकडेन लग्न करपाचें आसा. आतां तुका जर हो पसंद आसा तर हय म्हण आनी मेकळें जा. हांवेन इतलें म्हळां मात. तें उठलें आनी पळयता म्हणसर नाच्च जालें. हेवटेन सुजीतान बोब मारली. म्हणपाक लागलो, 'तुवेन वाट लायली. आतां तें वतलें प्रिन्सीपलाकडेन. सोपलें सगळें सोपलें. आतां नो उद्योगपती, नो वर्षा पती आनी नो पत.' हांवेन ताका म्हळें. 'अभिनंदन. काम जालें तुजें...' **(फाटल्यो आकृत्यो ना जावन. फाटल्यान काळोख. उजवाड फकत भायर. याऽऽहू करीत सुजीत येता.)**

**सुजीत** : तूं हांगा कितें करता? आख्खो गांव सोदलो हांवें तुका. आयज म्हजे खोशयेचो आनीक एक दीस.

**साक्षीदार:** पूण असो नाच करपाक जालें कितें?

**सुजीत** : कशें सांगूं? कितें सांगूं? **(सगळे संवाद नाचतूच)** खंयच्यान सुरवात करूं?

**साक्षीदार:** तूं नाच कर. हांव चल्लों. म्हाका खूब कामां आसात.

**सुजीत** : राव रे! आरे म्हज्या काळ इश्टा म्हाका नोकरी लागली. आतां हांव राजा आनी तूं... न्हय तूं न्हय... हां वर्षा राणी... वर्षा राणी हांव राजा.

**साक्षीदार:** मागीर केन्ना वाजयता बॅण्डबाजा? तुमचें एकदां वाजलें की हांव मेकळों. हेवटेन तुमचेर अक्षता पडल्यो तेवटेन हांव दुसरो कोंत्राद करपाक मेकळों.

**सुजीत** : म्हणजे आमचें लग्न जातकच तूं वयतलो, म्हाका सोडून?

**साक्षीदार:** एकदां तुजें लग्न जालें की म्हजें कितें काम?

**सुजीत** : पूण हांव इतल्यान लग्न जावपा ना.

**साक्षीदार:** आतां आनी वेळ कित्याक? तुका नोकरी लागली न्हय. आतां कळाव नाका.

**सुजीत** : लग्न जावन म्हजेवेल्या जबाबदारींचें कितें?

**साक्षीदार:** तुजेर आनी कसली आसा जबाबदारी?

**सुजीत** : वेळ आयल्यार सांगतां तुका. स्वाभिमानाचो प्रस्न आसा तो. कोणा एकल्याच्या.

**साक्षीदार:** म्हणटकीच आमचें तोंड इतले बेगीन गोड जावपा ना तर!

**सुजीत** : तोंड गोड करपाक लग्नच करपाक जाय अशें खंय बरयलां? चल आतांच खंयच्या बऱ्या हॉटेलांत या. म्हजे नोकरेची खोस चियर्स करून मनोवया.

**(काळोख. संगीत पार्टी सोंग. उजवाड येता. सुजीत टेबलार फायली चाळीत बसला.)**

**साक्षीदार:** सुजीतच्या जिवीतचक्राक आतां गती प्राप्त जाल्या. मन भुलोवणो वेग आयला. पास जालो, नोकरी मेळ्ळी, मोग मेळ्ळो, आतां लग्न की सेमी सर्कल पुराय जातलें. फुडें पुराय सर्कल. बाबडो आतां जिविताची तिसरी भुमिका पार पाडटा. एका कर्तबगार चल्याची, असो चलो जो जल्माक येतनाच घडये मोठें वजें घेवन आयला वो ताचेर तें लादलां म्हाका अजून कांय खबर ना. एक चलो.. एक मोगी... जिवीत चक्र दोनूय वटांनी घुंवत आसा. घुंघरांचो छम् छम् आवाज करत. पळयात कसो कामात गुंतला तो! ऑफीसांत काम. घरांत काम. हो बेगीन वयर सरतलो. कोण तरी आयलो दिसता. आयतरा आनीक कोण आयलो काय? मनशां खूब येतात. हांव संबंध दवरिना. म्हाका कितें करचें आसा अनोळखी मनशांकडेन? हांव फकत एकट्याकच बरो वळखतां तें म्हळ्यार वर्षा. आतां हांव हांगा कोनशाक बसतां आनी मजा पळयतां.

**(पंचेचाळीस पिरायेचो सुजीताचो बॉस भितर सरता)**

**बॉस** : दार उक्तें करून कसलें काम करता सुजीत?

**सुजीत** : कोण सर? तुमी? येयात सर. बसात सर. तुमी हांगा कशे कितें?

**बॉस** : तुजेकडेन आयलों तुका आवडलें ना? तशें तर वतां हांव.

**सुजीत** : तशें न्ही सर. म्हाका आपोवचो आसलो ऑफीसांत. येतां आसलों हांव. तुमी कित्याक त्रास काडले? बसात सर.

**बॉस** : कितें करतालो? फायली सगळ्यो ऑफीसाच्योच दिसता.

**सुजीत** : फाल्यां ऑडीट आसा न्ही? वेंडराचीं बिलां मात्शीं ऑर्डरीन लायतालों. फाल्यां मागीर बरें पडटलें. तांचोय वेळ वाचतलो. बारीक मोठो फॉल्ट मेळ्ळोच जाल्यार सुदारपाक बरें जातलें.

**बॉस** : वा! सुजीत वा! तुज्या सारकींच मनशां जाय आमकां. हांव वयर सांगून तुजें प्रमोशन बेगीनूच करून घेतां. वयर वयर वचत राव. जा मागीर ॲडमीनीस्ट्रेशन हेड एक दीस.

**सुजीत** : थँक्यू सर. तुमची अशीच कृपा आसूंदी म्हजेर. हांव कश्टाक तसो भियेना. जुवानपणातच कश्ट करपाक जाय. सर तुमकां कितें हाडूं पिवपाक बी?

**बॉस** : नो. थॅंक्स. हांव भायरचें शक्यतो टाळटा.

**सुजीत** : नो प्रोब्लेम सर. सर म्हजेकडेन कितें काम घेवन आयिल्ले?

**बॉस** : काम? हय! आसा एक काम. सुजीत तुमगेर कितलीं मनशां? हांगा तर कोणच दिसना.

**सुजीत** : ही भाड्याची रूम सर. म्हजे घरचीं सगळीं गांवांत रावतात. हांगा हांव एकटोच.

**बॉस** : ते दिसा इंटरव्ह्यूक आयिल्लें तें चली तुजें कोण?

**सुजीत** : तें म्हजें फियान्सी. हांव म्हज्या जबाबदारींतल्यान मुक्त जालों की आमी लग्न करपाचीं आसात.

**बॉस** : बरें चेडूं पटयलां मरे! फिगर एकदम दोळ्यांत भरून उरता. पळयत रावन दिसता.

**सुजीत** : सरऽऽ

**बॉस** : कांचवेलो? भियेवं नाका. तोखणाय केली म्हण हांव कितें लग्न करपा ना ताचेकडेन. लग्न तूंच कर. **(सुजीत स्तब्ध)** ते दिसा ताका कॅबिना भायर पळयलें आनी दिसलें, ताचेकडेन फ्रॅन्डशीप करपाक हरकत ना. मागीर आमची भेट केन्ना घडोवन हाडटा? अशें कर आयज वेस्टर्न झोनच्या सरवेवस्थापकांची मेरीयटान मिटींग आनी मागीर डिनर आसा. आयज डिनर ताचे वांगडा करतां.

**सुजीत** : बरें सर येतां आमी. पूण बेगीन परत वचपाक मेळटलें न्ही? ताच्या हॉस्टेलचीं दारां बंद जातात अकरा उपरांत.

**बॉस** : जावंदी रे दारां बंद. आयज न्हिदनी ताका म्हजे वांगडा मॅरीयेटान. घेवंदी नखेत्रांचें सूख. हांवूय घेतां पांच नखेत्री सूख ताचे वांगडा.

**सुजीत** : सर कितें उलयतात तुमी? तुमचे जिबेक हाड आसा काय ना? असलीं उतरां उलयतना तुमकां लज दिसली ना? तुमचें चली कशें तें!

**बॉस** : चली कशें आनी चली हातूंत फरक आसा. आतां उल्ली गजाल लजेची! तर तसो हांव जन्मासावन निर्लज्ज. लज नांवाची गजाल चड वेळ सांबाळून दवरपाची नासता. ज्यो गजाली अनमोल आसतात त्योच सांबाळून दवरपाक जाय. समजलें बच्चू?

**सुजीत** : वर्षा म्हजेखातीर अनमोल आसा.

**बॉस** : सद्या म्हाकाय तशेंच दिसपाक लागलां. म्हाकाय तें मोलादीक वस्त अशेंच दिसपाक लागलां.

**सुजीत** : पूण तें तुमकां वळखना मागीर तुमी अशे कशे म्हणपाक शकता की ती मोलादीक वस्त?

**बॉस** : पूण तूं ताका वळखता आनी म्हाकाय.

**सुजीत** : पयलीं सारको वळखलों ना हांव तुमकां. पूण आतां वळख मेळपाक लागल्या. तुमी तोंडार जितके म्हण सादे दिसतात तितले ना तुमी.

भोळेपणाचें रुपडें पांगुरलां तुमी. तुमचे भीतर एक स्त्री लंपट मनीस धुमसत आसा. वासना तुमची भूक आनी बायल म्हळ्यार मनीस जिणेचें साधन अशें तुमकां दिसता. तुमचे परस शेणांतले किडे परवडले.

**बॉस** : मिस्टर लवंदे हें तूं म्हाका सांगता? तूं कोण आसलो विसरलो? तुवय शेणांतलोच किडो आसलो. भुकेन वळवळपी. हांवेन नोकरी दिली म्हण माणसुकी. नाजाल्यार येन्नाधर सोर्ती विकत भोंवता आसलो. आयज ऽऽ आयज ऽऽ ड्रॉ आयज ऽऽ! तुका कितें दिसता हांवेन नोकरी दिली ती तुजी सर्टीफिकेट पळोवन? आयज त्या कागदांक कुत्रींय खायनांत. वशिलो जाय. आसलो तुजेकडेन वशिलो? हांवेन तुका नोकरी दिली ती, तुज्या त्या शेवण्याकडेन पळोवन आनी एक गजाल, हांव तुका नोकरी दिवपाक शकतां तशीच खोटय मारूंक शकतां. आयज सगळे एच. आर. मॅनेजर म्हजे वळखीचे आसात. एक मेल सगळ्यांक धाडीत तर कोणच तुका लागीं करून घेवंचो ना. रस्त्यार येतलो. मागीर भोंव ताका घेवन. म्हण पदां, ये दुनिया ये महफील मेरे काम की नहीं।

**सुजीत** : थुकतां हांव तुजे नोकरेचेर. म्हज्या भुजांनीं ताकद आसा. हांव कसलोय धंदो सुरू करपी. गेले उडत तुमचे ते एच. आर. वाले. तुमीच म्हणत बसात मागीर मिले सूर मेरा तुम्हारा.

**बॉस** : चल. तूं जिकलो. नाका म्हाका तुजें वर्षा. आतां मात्शें धंद्याचें उलोवया. औद्योगीक मंत्र्याक सॅटल करपाक एम. डी. न दिल्ले पन्नास लाख तुमी पावयले?

**सुजीत** : तुमच्याच आदेशावेल्यान हांवेन ते हेडक्लार्काकडेन दिल्ले.

**बॉस** : हांवेन तुमचेकडेन पयशे दिले हें सगळ्या ऑफीसान पळयलां. तुमी क्लार्काकडेन पयशे दिले ते कोणामुखार?

**सुजीत** : तुमीच सांगलें तो आयज रजेर आसा. पयशे ताच्या घरा पावय म्हण!

**बॉस** : लेखी आदेश आसा? आनी हेडक्लार्क ते दिसा ऑफीशीयली रजेर ना. म्हणजे कागदोपत्री. मागीर पन्नास लाख गेले खंय? क्लार्क म्हणटा तुमची आनी ताची भेट जालीच ना. लवंदे पयशे गेले खंय? सांजचो एन. डी.चो फोन येतलो. कितें सांगूं हांव ताका? उलय सुजीत उलय.

**सुजीत** :बास्टर्ड तुमी म्हाका फसयतात. हांव तुमकां सोडचो ना.

**बॉस** : कितें करतलो? तुजेकडेन कितें पर्याय आसा? फाल्यांचे पेपर वाच. हेडलायन आसतली तुज्या नांवाची सुजीत लवंदे यानी खाल्ल्या ताटांत घाण केली. पन्नास लाखांची अफरा तफर आनी परवां आनीक एक बातमी. फकत एक कॉलम. लोक लज्जेस्तव सुजीत लवंदेची गळफास लावून आत्महत्त्या. आनी तुजें तें वर्षा म्हणटलें वो जानेवाले हो सके तो लौट आना. **(सुजीत रडटा)** तुजी ही कॅसेट आयकुपाक म्हाका वेळ ना.

**(वता. साक्षिदार सुजीताकडे येता. ताचे फाटीर हात दवरून.)**

**साक्षीदार:** सुजीत आतां तुजो स्टॅण्ड कितें? कितेंय जावं पूण वर्षाक भकीक घाल नाका हां. हीं तुजीं प्रश्नचिन्हां तुवेन सोडोवपाचीं.

**सुजीत** : तूं मात्सो वोग्गी बसता? तूं म्हजो गुलाम. हांव सांगतां तितलेंच तुवेन करपाक जाय. हे वेळार तरी तुज्यो जाणवायो नाका म्हाका. चल वर्षाक सांग मॅरीयेटान यो म्हण. हांवेन सरप्राईज दवरलां म्हण सांग.

**साक्षीदार:** आर यू मॅड? **(आड्डता)**

**सुजीत** : शट अप्. जस्ट डू वॉट आय से.

**(मोठ्यान संगीत. ल्हव ल्हव काळोख. उजवाड येता तेन्ना शांत संगीत चालू आसा. दोन तोकांक सुजीत आनी साक्षीदार बसल्यात.)**

**साक्षीदार:** सुजीत मिटींग सोपली. तूं, बॉस आनी वर्षा जेवपाक बसल्यांत. सॉफ्टड्रींक घेतनाच वर्षाक घुंवळ येवपाक लागता. तूं ताका सावरता. बॉस म्हणटा ॲनी प्रॉब्लम? इफ शी इज नॉट फिलींग वॅल देन टेक हर टू आवर आफीशीयल कंपनी रूम. लॅट्स वायन्ड अप. तूं ताका रूमान व्हरता. फाटल्यान बॉस येता. तुका भायर धांवडायता. तूं धांवत येता हांगा तुज्या रूमार. तुका येवन एकवर तरी जालें आसतलें. रूमाचें दार लावन तुज्या बॉसान खाटीर न्हिदिल्ल्या वर्षाक खूब वेळ पळयलां आसतलें. चड नशा येवंची म्हण आनी दोन पेग घेतल्या आसतले. व्हिस्कीचे दोन थेंबे न्हिदिल्ल्या वर्षाच्या वोंठार उडोवन आपल्या वोंठानी चोखल्या आसतले आनी...

**सुजीत** : स्टॉप इट. बंद कर तुजी बडबड. म्हाका कॉमेन्ट्री नाका आनी तुजे कमेंटय नाका.

**साक्षीदार:** कॉमेन्ट्री सांगपाक हांव कितें धृतराष्ट्राचो संजय? आनी समजा आयजच्या दिसा पुरती म्हाका जर कोणेंय दिव्यदृष्टी दिल्ली न्ही तर हांव ती तुका दिवपाचों. नाजूक फुलावरी वर्षाचेर तुजो बॉस कितें प्रयोग करता हें तुका कळपाक जाय आसलें. मोग विस्वास ह्या शब्दाक आयज तुवेन कलंक लायलो.



**सुजीत** : म्हज्या इश्टा म्हजी परिस्थिती कितें आसली खबर आसा न्ही तुका? धर्मसंकश्टांत आशिल्लों हांव. मान्य करतां हांवेन म्हज्या अब्रू खातीर केलें.

**साक्षीदार:** आतां हीं नाटकी उतरां नाकात. वर्षाच्या जाग्यार ताणें तुजे भयणीक धाड म्हणिल्ली तर?

**सुजीत** : तर हांव ताचो जीव घेवपाचों.

**साक्षीदार:** मागीर वर्षाचो सौदो करतना कित्याक घेतलो ना?

**सुजीत** : तेन्ना म्हाका म्हजी जापसालदारकी याद आयली. जाण्टे आवय बापूय, लग्नाच्यो भयणी. म्हाका कितें जायत जाल्यार सगळीं वाऱ्यार पडपाचीं. गरिबींत दीस काडल्यात ताणीं. म्हजेकडेन दोळे लावन आशेन बसल्यां सगळीं तीं आनी सगळें जावन लेगीत हांव लग्न वर्षाकडेनच जातलों.

**साक्षीदार:** वॉट?

**सुजीत** : हय. आसा तसो हांव परत हॉटेलार वचपी आनी सकाळ जाय मेरेन वर्षा कुशीक न्हिदून रावपी. ताका जाग आयली की ताका हांव ताचे कुशीक दिसतलों. घडये ताका वायट दिसत लग्नापयलीं आमी सगळें केलें. तें सुध्दां ताका कळनासतना, सॉफ्टड्रींकांत घुंवळी वखद घालून. पूण हांव ताका मनयतलों.

**साक्षीदार:** आनी ताणें तुजेर बलात्काराचो आरोप केलो तर?

**सुजीत** : तशें करचें ना. म्हजेर विश्वास आसा ताचो.

**वर्षा** : विश्वास सोंपलो. तुवेन सोंपयलो. हांव चल्लें. तुज्या सारख्या विश्वास घातकी मनशाकडेन म्हाका एक खीण लेगीत रावपाचें ना. कितें गॅरन्टी एकदीस म्हाकाय विकशीत खंयच्याय हिजड्याक! हरशीं म्हण तुजें काळेंकिट्ट भविश्य म्हाका आतांच स्पश्ट दिसपाक लागलां. वतना इतलेंच म्हणटां, तूं सदींच याद उरतलो. एक कसाय म्हण

**(काळोख. उजवाड येता तेन्ना वर्षा एका तोंकाक आनी सुजीत एका तोंकाक. कांय वेळ शांतताय. फक्त संगीत. सुजीत वर्षाकडेन लागीं येता.)**

**वर्षा** : सुजीत थंयच राव. लागीं येवं नाका. तुजो वास लेगीत नाका म्हाका.

**सुजीत** : वर्षा म्हाका उलोवंदी. तुका वेंगेंत घेवन रडचें आसा म्हाका.

**वर्षा** : रड तूं पूण आसा थंयच रावन. लागीं येवं नाका. तूं रडटाना कसो दिसता म्हाकाय पळोवपाचें आसा.

**सुजीत** : वर्षा पूण हांव लग्न तुजेकडेन करपा आसां. जें कितें जालां तातूंत म्हजी कांयच चूक ना.

**वर्षा** : कित्याक स्वत:क सावरपाचो यत्न करता? काकूळट येवपाक लागल्या म्हाका तुजी. ह्याच कामा खातीर मोग केल्लो म्हजेर? अफरातफर तुवेन केली आनी ख्यास्त म्हाका कित्याक?

**सुजीत** : हांवेन एका रुपयाचो अपहार केल्लो ना. म्हाका फसयला. म्हाका ब्लॅकमेल केला ताणें.

**वर्षा** : म्हाका कित्याक सांगलें ना तुंवेन? आनी सांगतलो कसो? **(आवाज चडोवन)** कम ऑन वर्षा यू हॅव ॲन अपोयंटमेंट टुडे. यू हॅव टू स्लीप वीथ माय बॉस **(हासता)** सुजीत तुजें नशीबूच खोटें. आयजचे पेपर वाचले? वाच. म्हाका तुज्या बॉसान सांगलें तो तुजेर हरशीं म्हण पोलीस तक्रार करपाचोच आसलो. ताचें एक नाटक तुका कळिल्लें. केन्नातरी रागाच्या भरांत तूं कितेंतरी करशीत म्हण ताणें पोलीस तक्रार केल्या. तुवेन पन्नास लाखांचो अपहार केला. कांय खिणां भितर पोलीस येतले हांगा. कमीत कमी पांच वर्सां तरी उरतलो तूं बंदखणींत. रंगय तुजीं म्होवाळ सपनां चार वण्टीं भितर. हॉटेलांतल्यान येतना हांवेन ताचोच पेपर हाडला. ही पळय म्हजी बातमी **(पेपर दाखयता. पानां परतिता.)**

**सुजीत** : म्हणजे पेपरवाल्याक कळ्ळें सगळें? तुजे बाबतींत आमी केल्लें कारस्थान?

**वर्षा** : म्हजी बातमी फाल्यां जातली. आयजची बातमी तुका मालामाल करपी आसा. कोर्टान चलपी केस जिखलें हांव. कोट्याधीश जालां हांव. बाबाचे सगळे वेवसाय आतां म्हजे. हांवेन तुका वदळ म्हळें न्ही, तूं फुटक्या नशिबाचो. आयज तूं लेगीत कोट्याधीश जावपाचो पूण आतां कांय खिणांभीतर रस्त्यार येतलो. बॅड लक सुजीत बॅड लक.

**सुजीत** : हांव सोडचो ना त्या नालायकाक. आपले वासने खातीर म्हज्या जिवीताकडेन खेळ मांडपी त्या मनशाक जितोच मारतां. हरशीं म्हण बंदखण आसाच. हांव थंय बंदखणींत हाल काडटलों आनी हो हिजडो नव्या नव्या चेडवांक खेळयत रावतलो? सोपयतांच ताका. **(वचपाक वता)**

**वर्षा** : खंय वता? हॉटेलांत काय घरा? हांवेन तुका वदळ म्हळें एक बातमी फाल्यां येवपा आसा. हांवेनच खून केला ताचो. येन्नादर थंय लेगीत पुलीस पावले आसतले. म्हाका धरपाक. तुका प्रस्न पडला आसतलो हांव इतलें सादें-भोळें! कित्याक मारलो ताका? आनी धारीश्ट खंयच्यान आयलें म्हज्यांत? हांव बेशुध्द आसतना ताणें म्हज्या नागड्या कुडीचें मोबायल रेकॉर्डींग केल्लें. परत आपल्या चेऱ्याचेर तुवालो बांधून म्हज्या वांगडा जें जें कितें केल्लें ताचें रेकॉर्डींग केल्लें ताणें. ताची इत्सा आसली हांवेन खंय सदींच ताची सेज सजोवपाक जाय. घातली खुर्ची तकलेर. खंयच्यान बळगें आयलें खबर ना.

**सुजीत** : म्हणटकीच आतां तुका लेगीत ख्यास्त जातली तर! कितें कर्मभोग हो! आमी दोगांय जेली भितर. पळयलें वर्षा नियतीक लेगीत आमी वांगडा राविल्लीं जाय.

**वर्षा** : शट-अप्. म्हाका पोजड्यो गाळी येनांत. ना जाल्यार शिंवर करता आसलें तुजेर. हांव बुध्दू न्हय. हें पळय मेमरी कार्ड. पोलीसांक सांगतलें जें कितें हांवेन केलें तें. त्या वेळच्या घडणुकेचो विस्फोट आसलो. आतां हांव दुडवांकार. बऱ्यांतलो बरो ॲडव्होकेट काडून निर्दोश सुट्टलें. तूं बस निराशेच्या मळावेल्यो खपल्यो काडीत.

**(भायर पोलीसांच्या सायरनचो आनी मागीर पोलीस धांवपाचो आवाज. ल्हव ल्हव काळोख.)**




**– अजय बुवा**

फोंडें – गोंय

मो. : ९६३७३६६७५७

मनसंवेदना

## शंबर वर्सां आदीं...

शंबर वर्सां आदीं हांगा मेणवाती पेट्टाल्यो
त्या वातींच्या उजवाडान आमकां सभ्यतेचे पाठ शिकयिल्ले
शंबर वर्सां आदीं आमच्या पोरसांत
माटवार चडपी मोगऱ्यांची वेल आशिल्ली
रातराणयेक रातचो सांवार येतालो
आयज आमच्या गार्डनांत रंग आसा पूण सुगंध ना
छंद आसा पूण मोग ना.

शंबर वर्सां आदीं अशेंच वादळ आयिल्लें
आनी तें झेलपाक आमकां तांक आशिल्ली
आयज जेन्नां वारें वादळ नेट धरता
तेन्ना आपत्तेक तोंड दिवपाक
आमची शक्त उणी पड्टा

शंबर वर्सां आदीं म्हज्या शारांत उंच इमारती नाशिल्ल्यो
उच्च शिक्षणाची सोय नासली
पूण हांगासर उच्च संस्कारांच्यो खणी आशिल्ल्यो
आयज शाळा-कॉलेजींतलें शिक्षण
मनशा-मनशाक जोडपाक उणें पडटा

शंबर वर्सां आदीं वाऱ्या वादळान आमचें घर मोडिल्लें
माडाचे वांशे हाडून, मातयेच्यो वण्टी उबारून
आमगेल्या समेस्त शेजाऱ्यांनीं
आमचें घर बांदून दिल्लें

आयज जणेकलो आपआपल्या खातीरूच वावुरता
आयज जणेकलो म्हाका म्हज्या घराचें मोल विचारता
म्हाका घरांतल्यान भायर घालपाक सोदता!

शंबर वर्सां आदीं मनीस पावला पावलार जियेलो
आतां खिणा खिणाक स्वास सोडटा
लक्ष दियात
सभ्यतेचे तेंगशेर पाविल्ली आमची भूंय आयज
बळाबळा रडटा
तिचीं दुकां पुसपाक फुडें सरात
एकचाराचें बळगें जोडात



– युसूफ अ. शेख
बायणां, वास्को.

## घराची बुन्याद मारतना

घराची बुन्याद मारतना
ताका कांय देवळाच्यो वस्तू मेळल्यो
आदल्या तेपार घडये थंय देऊळ आसूंयेत
म्हूण ताणें उत्खनन केलें
पूण ताका थंय आनीक कांयच मेळ्ळें ना
हांव म्हणटा
उत्खनन करपा वाट्या
ताणें थंय बरें घर बांदपाचें
आनी तातूंत देवाभशेन रावपाचो
घर आपशींच देऊळ जातलें आशिल्लें...!

आतां तो कपलार हात दवरून बसला...बेघर!

## काळखाचें अती जालें

काळखाचें अतीं जालें
तशे हांवें खोटलोभर काजुले हाडले
आनी म्हज्या घरभर शिंपडूले
तरी लेगीत उजवाडाची आपालिपा
चालूच उरली
निमणो यत्न म्हूण
हांवें म्हज्यांतल्या म्हाका जागयलो...समजायलो
आनी कितें अजाप!
तो रसरसून पेटलो..
म्हज्या घरभर उजवाड फांकलो...
आतां हांव दिसल्यारूच काळोख पळ काड्टा...



– आर. रामनाथ
एम-ओ-६,
गोवा हाऊर्जींग बोर्ड,
कुर्टी - फोंडा, गोंय.
मो.:९८५०४५८७६३



## गांव

शारांतल्यान एक चलो
भुरगेंपणांत गांवांत राव
गांवाचेर मोग
आयज तो गांवांत पावला
चीत्र विचीत्र आसा
गांवूच बाबड्यालो शेणला...

## जोत

म्हज्या भुरगेपणांत
आजो जेन्ना बैलांक
जोत बांदतालो
तेन्ना आमचो बैल
खूब धुमशेणां घालतालो
दोगां भीतर जावपी 'धिरयो' पळोवन
म्हाकाय मज्जा येताली
पूण अखेरेक म्हजो
आजोच जिखतालो
आतां हांव जोत बांदतां तेन्ना
लोकांक म्हजी काकूट येता....



– अमेय नायक
धारबांदोडें,
सार्कोंड्या – गोंय
मो. : ९८५०५३९७६३

## पडबिंब

रात जाली म्हूण
दीस केन्नाच उदास जायना
येतली फाल्यां सकाळ
हे आशेन!

आयज आपूण पानां विरयत आसां
म्हूण झाड केन्नाच रडचेंना
तयार आसता तें वसंत ऋतूच्या
येवकाराक!

आयज पडला दुकळ
म्हण जमीन तळमळत रावचिना
आस धरून रावता ती
काळ्या कुपांची!

कुस्करून-मुस्करून पडलो घोंटेर
म्हूण सवणी आपलो धर्म विसरनात
तरीय तीं करीत रावता आपलें कार्य
नवे आशेन!

फटयलां दुसऱ्यान म्हूण रडचें न्हय
स्वताक सावरून धरप होच खरो धर्म
कित्याक तर जीण जावन आसा
एक पडबींब!

आपलेंच पडबींब पळोवंक
जिणेक दिका दिवन
जिवीत जगत राव
जगत राव!

– कविता फोंडेकार
साळकार उच्च माध्यमीक शाळा,
चोडण – गोंय.

## कवनां

१

सगळेकडेन काळोख म्हण
दोळे बंद केल्यार
उजवाड कसोच जावंचो ना

२

खूब पावस पडटा म्हण
दारां लावन घेतलीं जाल्यार
मन कशें भिजतलें?

३

मोग जाय
जाल्यार
करपाक शीक

४

फटीच उलोवन
काम जाता जाल्यार
खरें कोण उलयतलो?

५

पयशां फाटल्यान धांवल्यार
न्हीद पडना
न्हीद खूब घेतल्यार
पयसोय मेळना

– शीतल नंदकुमार परब
म्हापशें – गोंय

# मनसंवेदना

## निरोप

ओ ऽऽऽ तारया! ओ ऽऽऽ तारया!
तारया मामा तारया मामा व्हडें मात्शें ताण
पलतडीं म्हजें कुळार निरोप मात्सो सांग

मांय मांव म्हजीं भांगरा उतराचीं
पिपळा पानांची सावळी मोगाची
आसा सुखान सांग, दंडवत सांग
तारया मामा ऽऽऽ!

देर नणंद म्हजीं फुलतीं फुलां
उपाट दर्याचीं खेळटीं ल्हारां
आसा सुखान सांग, दंडवत सांग
तारया मामा ऽऽऽ!

घरधनी म्हजो कर्तुत्वान
म्हाकाय ताचो व्हड अभिमान
आसा सुखान सांग, दंडवत सांग
तारया मामा ऽऽऽ !

जिवीत म्हजें अस्तुरेचें
वोत सावळी सुकते भरतेचें
आसा सुखान सांग, दंडवत सांग
तारया मामा ऽऽऽ!



– चंद्रिका पाडगांवकर
'ईशदीप',
चोगम रोड,
आल्त-पर्वरी, गोंय.

## ती

ती म्हळ्यार एक वाल
रुखाच्या आदारान सडसडीत वयर चडपी
ती म्हळ्यार एक चंद्रीम
सगळ्यांक शितळसाण दिवपी
ती म्हळ्यार एक कळी
केन्ना केन्नाय गर्भांतूच किरमून वचपी
ती म्हळ्यार एक फूल
तिच्या रंगरूपान ताचे नदरेंत भरपी
ती धर्तरेची धूव पृथा
आनी तीच अनंतकाळाची माता
ती म्हळ्यार ताची सावली
ती आशिल्ली ताचे फाटल्यान
म्हणून जालो तो कर्तृत्ववान
केन्ना केन्नाय मेळटात तिका असलीं फितां
आतां ती भुल्लूसून वचना
असल्या पदव्यांक
तिका खुणायता आशिकुशीचो मुक्त वारो
ती खळाळत व्हांवता
कांट्याकुट्यांतल्यान, दोंगर गाळींतल्यान
वाट काडीत
जाय थंय, जाय तशी.....
तिच्या ह्या नव्या रुपान
तो पयलीं कांचवेता
ल्हवू ल्हवू तिचें हे मर्दानी रूप
ताका सुखायता
आनी तोय लागता घसघसूंक
तिच्या सांगातान...

– हर्षा शेटये
मडगांव – गोंय.
मो . : ९८५०५३०१५२





## फकत आपलें

पडूंक ना कोणाक कोणाचें
जो तो चिंतता फकत आपलें

दोंगर कापून बोडको केलो
मोनजातीचो राबितो नश्ट केलो
फकत आपलो सुवार्थ सादलो
सूख सोदतना दुखांत बुडलो

सैमान नटिल्लें गोंय आमचें
लागणूक तें सांबाळपाचें
सुवार्थान कुड्डो जाला मनीस
भिरें सुटलां दुस्मानाचें

उरलां कितें हातांत आमचें?
वारें येता तशें सूप धरचें
पडूंक ना कोणाकच कोणाचें
जो तो चिंतता फकत आपलें

– उषा ज. कामत
हरी मंदिरा लागीं,
मडगांव – गोंय.
मो. : ९७६३८२३७४५



# आत्मनिरिक्षण



- कुसूम अग्रवाल



नेम हे दुसऱ्यांखातीर आसतात आमच्याखातीर न्हय ही वृत्ती आसत जाल्यार कांयशा भंयान, संकोचान तुमकां लोक विचारचेनात. पूण फाटल्यान तुमच्यो वकटछायो करतले. तसोच स्पश्ट वक्तो आसत जाल्यार तुमच्या तोंडारूच तो विचारतलो. तेन्ना तुमकां तोंडार थापट मारिल्ल्यावरी जातलें.

**स**दचे भशेन हांव धावेच्या वर्गांत गेलें. कालचे तासिकेक हांवें भुरग्यांक खूब तापयल्लें. अभ्यासक्रम पूर्ण जाल्लो. आतां ताणीं आपल्या चोपड्यांचेर जापो बरोवन म्हाका दाखोवपाच्यो. तशें प्रत्येक पाठानंतर त्या पाठाच्यो जापो हांव तपासतालें. पूण कांय विद्यार्थी 'हांव चोपडी घरा विसरलों' 'जापो बरोवंक ना' हीं निमतां सांगून चोपड्यो दिनासलीं. जळू कशी फाटीक लागून हांवें तांचेकडल्यान जापो पूर्ण करून घेतल्यो. इतलें करून लेगीत दोन-चार विद्यार्थी चोपड्यो घेनासतना आयिल्ले. सगल्यांक उबे केल्ले आनी प्रत्येकाच्या फुड्यांत वचून, ताचेकडल्यान दोन दिसांनी पूर्ण करतलो म्हूण वदोवन घेतलें. सगल्या विद्यार्थ्यांनीं मान सकयल घालून तापोवणी आयकली आनी चोपड्यो घेवन येता हाची हमी दिली.

एक विद्यार्थी छाती मुखार काडून उबो आशिल्लो. आपूण चुकलां ही भावना ताच्या तोंडार मातसुद्दां दिसनासली. बाकीच्या भुरग्यांपरस तो पिरायेन व्हड आशिल्लो.

आजूय तो केसांक जॅल लावन आयिल्लो. अभ्यासाक लाय चुट्टी. म्हाका तिडक मारली. हांवें ताका कडक शब्दांत विचारलें, ''तुका शाळेचे नेम खबर ना? शाळेंत येतना केंसांक जॅल लावन येवपाचें नासता. तूं जॅल लावन येवंक ना जाल्यार कितें शेण लावन आयला?'' ताणें म्हाका सट्ट करून जाप दिली.

''हय शेण लायलां.'' परतीं उतरां दिता म्हूण हांव ताचेर ताणशेलें.

उतरां-उतरांनी वाद वाडटा. हांवें म्हज्या भावनांचेर अंकूश दवरलो. ताका परत समजायलें आमी ताका सक्ती करतां ती ताच्या बऱ्याखातीर. चोपडेंत जापो ना जाल्यार अभ्यास कसो करतलो हें पटोवन दिलें.

चड करून हांव 'शेण' सारकें शब्द केन्नाच वापरिना. पूण त्या दिसा म्हज्या तोंडांतल्यान 'तो' शब्द आयलो. हांवें आत्मनिरिक्षण करपाक सुरवात केली. हांवें जर 'तो' शब्द म्हणूंक नासलो तर तो शब्द भुरगो उच्चारचो नासलो. म्हणजे हांवें ताचे तकलेंत तो शब्द घातलो. ताणें परतीं उतरां दिलीं म्हूण म्हजो स्वाभिमान दुखावलो. विद्यार्थ्यां मुखार म्हजो अपमान जालो. पूण हांवेंच म्हजो अपमान करून घेतलो. मवाळ भाशा वापरून म्हाका ताका समजावंक जातालें. म्हणजे हांव खंय तरी चुकिल्लें.

अश्या प्रकारच्यो घडणुको आमचे जिणेंत खूब घडटात. चूक खबर आसतनाय आमी आमची चूक कबूल करिनांत. कित्याक आमचो स्वाभिमान आड येता. ल्हानाकडे तर 'आपली चूक जाली' म्हूण कबूल करपाक आमचें मन कशेंच तयार जायना.

केन्ना केन्नाय आमी 'आमकां सगलें जमता' अशें मिथ्या आभासाचें वलय आमचे भोंवतणी तयार करतात आनी तेच गुर्मींत जगतात.

**(पान नं. ७० पळयात...)**



- ब्रॅन्डा मिनेझीस

# ख्यास्तीचें फळ



म्हजी जाप बंद जाली. हातांतली बशी सकयल पडली आनी शिता गोंटि शिंवरले. म्हजें धवें पडिल्लें तोंड पळोवन पायक दुबाव पडलो आनी म्हज्या तोंडांतल्यान सत जाणून घेतलें. ताका अजापाचो धक्कोच बशिल्लो. आपली येदीशी धूव अशें करीत? ताणें येवजूंक नासलें. आतां म्हाका पडटा लडो, येवजूनच हांव रडूंक लागलें.

“बाय, कितें खाता गो बसून?” कांदोलिनान आपले धा वर्सांचे धुवेक जॅमीक विचारलें. मांयच्या आवाजान जॅमीन भिवून आंग काडलें. तें कोनशाक बसून खातालें तो चीज ताणें फाटल्यान लिपयत, तांबडें धवें जायत, घोगऱ्या आवाजान म्हळें, “कांय ना मांय. कांय...”

ताचीं उतरां सोपचे पयलींच ताच्या हातांतलो चीज कांदोलिनान हिस्कायलो आनी मेजार दवरलो. ताच्या मनांत पाल चुकचुकली. ‘कोणागेर गेल्लें काय हें? म्हजे धुवेन चोरी केली? कोणेंय, कितेंय दिल्यार रोखडेंच येवन सांगपी, आयज लिपून कित्याक खातालें? कितलीं वर्सांच जाल्लीं, ताणें चीज चाखल्यार? म्हणून ल्हेंवटेपणां केलीं काय हाणें?’ प्रस्नार प्रस्न, ल्हारां कशीं ताच्या मना देगेर आपटूंक लागले.

जॅमीची वाचाच धरली. कांदोलिनान ताका कदेलार बसयलें. चडट्या रागाक गिळ्ळो. ‘काडली जीब लायली ताळ्याक’ अशें केल्यार सत भायर येवचें ना. ताका बरें समजायत, थंडसाणेन विचार केल्लो बरो. कांदोलिनान शाणेपणान चिंतलें.

“बाय म्हज्या, कोणें गो दिलो तुका चीऽज? कोणागेर गेल्लें तूं?” कांदोलीन.

जॅमीक कळ्ळें. ही आतां म्हाका कशीच सोडची ना. सत सांगल्यार बरें. नातर फाटीर पडचे पडून खरी गजाल उस्तून ती काडटलीच. आपली मांय खूब शिस्तीची हें तें जाणा आसलें.

“मांय मारचिना न्हय तूं म्हाका? सोपूत घे. खरें तेंच सांगतां. पूण मारल्यार मात हांव...” जॅमी खांकडेलें, मात कांदोलीन उसळ्ळें,

“हय कितें करतलें? पळून वतलें? धांवतलें घरांतलें? हय? सत सांगूंकच जाय. मरपाक लेगीत भियेवंक फावना. सताक सदांच विस्वाशी रावचें.”

आनी परतून प्रस्नांचो शिंवर ताणें जॅमीचेर केलो.

“मांय, ट्युशन सोंपतकीर हांव लॉरेटा वांगडा तागेर खेळपाक गेलें. म्हाका गॅलरींत बसोवन, लॉरेटा भितर गेलें. ताचे मम्मीन चीज घालून ताका बिस्कीटी दिल्यो त्यो ताणें खाल्यो. ज्यूस पियेवन म्हजे म्हज्यांत खेळूंक आयलें. ‘सोरोप-शिडी’ आमी खेळूंक बसलीं. ताची मम्मी, इगर्जेकडेन मिटींगेक वता म्हणून गेली. ताचो भाव फुटबॉल खेळूंक गेलो. म्हजें मन कशेंच खेळार नासलें. ती चीज बिस्कीट, परतून परतून म्हज्या दोळ्यां मुखार येवंक लागली. म्हज्या तोंडाक उदक सुटलें सामकें. मांय म्हाका कित्याक दिवंक ना गे एक बिस्कीट आंटीन?” काकुळतेन जॅमीन विचारलें.

गळ्यांत आयिल्लो आवंडो गिळत कांदोलिनान म्हळें, “तुका दिवंक ना म्हणून तुवेन चीज चोरलो? लॉरेटाकडे मागचो तरी आसलो. म्हज्यान तुका व्हड व्हड खाणां दिवंक जायना बाय. दोन पावटीचें जेवण, तुजें शिक्षण आनी ट्युशनाचें वजें पेलतां म्हळ्यार नाका पुरो जाता.”

“म्हाकाय रूच येता गे मांय बऱ्या बऱ्या खाणांची. एक ग्लुकोज बिस्कीट सोडल्यार तूं आनी कितेंच म्हाका हाडटा? तो चीज दोळ्यांमुखार पळोवन, सामकीच रूच आयली म्हाका.” जॅमीन सांगून सोडलें. कांदोलीनाचें काळीज रडलें. दोन घरांतलीं आयदनां, घर, कपडे धुवन मेळटा तातूंत तें आपलो खर्च मिटयतालें. आपली धूव शिकून, नोकरी करून घर दार सांबाळटलें. आपल्याक जाय तें खातलें, जाय तें न्हेसतलें ह्या भरवंशाचेर, हेच आशेन तें

आपल्या आनी जॅमीच्या पोटाक चिमटो काडटालें. ताचो घरकार तर जॅमी जल्मल्लें तेन्नाच तांकां खोंटावन, एके अनवळखी बायलेचो सांगात जोडून घरूच सोडून गेल्लो तो परतो आयलोच ना.

''मागीर, लॉरॅटाकडेन मागलो तुवें चीज?'' कांदोलीनाच्या विचाराक, जॅमीन सट्टकन म्हळें, ''छे! मागल्यार तें हिमटें दिवपी? दितलें जाल्यार भितर रावन एकटेंच खांवचें नासलें.''

''मागीर तुवेन चोरून काडलो तर?'' कांदोलीन.

''खेळटां खेळटां, लॉरॅटाच्या पोटांत मगे चाबून आयलें. म्हाका 'बस हां' म्हणून तें टॉयलेटींत धांवलें. होच चान्स बरो म्हळें. आंटी, चीज फ्रिजांत दवरतना हांवें पळयल्लो. घरांत कोणूच नाशिल्ल्यान म्हाका आयतीच संद मेळ्ळी. हांवें ल्हवूच फ्रीज उगडलो आनी दोन कुडके काडले आनी कागदांत गुठलावन म्हज्या बॅगांत उडयले. बिस्कुतीचो डबो वयर दवरिल्लो. काडटना आवाज जावन हांव सांपडत म्हणून, 'नाकाच ती बिस्कीट' म्हळें आनी साडसुबें म्हज्या जाग्यार बसलें. थोड्या वेळान लॉरॅटा आयलें आनी मात्सो वेळ आमी खेळ्ळीं. केन्नाकाय म्हाका घरा पावन शें जाल्लें. पूण तुवें म्हाका खावंक खंय दिलें?'' जॅमी रडकुरें जालें.

''बाय, केन्ना चोरी करची न्हय. तुजी गत म्हाका समजता. हे फावटीं म्हज्या हातांत पयशे पडटकीर हांव हाडून दितलें तुका चीज. आतां हो कुडको व्हरून लॉरॅटागेर दी. तांची माफी माग. अशें आनी केन्नाच करचेंना. म्हाका उतर दी.'' म्होवाळ उतरांनी मांय धुवेक समजायताली.

''ना मांय. हांव परत लॉरॅटागेर वचचें ना. चोरी केन्नाच करचेंना हें उतर तुका दितां मांय. पूण तांगेर म्हाका धाडिनाका. तूं म्हाका माफ कर मांय.'' जॅमीन लजेन मान सकयल घाली.

''बरें तर. हांव व्हरून दितां आनी तुजे वतीन हांव माफी मागतां. जॅमी, तुजी मांय गरीब खरी. पूण गांवचो लोक तिका मानता. कित्याक जाणां तूं? कश्ट करून ती खाता. भीक मागिना आनी कोणाचेच, कसलेच वस्तूक हात लायना. दोन घरांनी हांव काम करतां. पुराय घर म्हजेर सोडून वतात तीं. हांव विस्वासू म्हणून. पळय, आयज तुकां सांगतां. तुज्यान हांव ल्हान आशिल्लें ज्या दिसा हांवें पयली आनी निमणी चोरी केल्ली.''

''कितें? तुवेंय चोरिल्लें? कितें चोरिल्लें गे तुवें?'' जॅमीन अजापून विचारलें.

''म्हजी मांय, आपल्या भावा म्हऱ्यांत हॉस्पीटलांत रावंक गेल्ली. बरेच दीस ती घरा येवंक ना. पाय म्हाका सदांच चपात्यो आनी पाल्या भाजी शिजोवन वाडटालो. तेंच तेंच खावन हांव उबगल्लें. शीत कडयेची रूच आयिल्ली. आमच्या शेजरा मानीन तिमायची खोंपटी आसली. ती एकटीच रावताली. तिचे खोपींतल्यान नुस्त्या कडयेचो घमघम सुटलो.

शेतांतल्यान येवन तिणें रांदूक सुरू केल्लें. बांयचेर कळसो-शिदी घेवन वतना हांवें तिका पळयली. म्हजी बशी घेवन हांव खोंपीत भितर सरलें. शिताचो बुडकुलो पळयलो. वाफ येताली. दवलो वयरूच आसलो. हुमण शिजतालें. म्हज्या पोटांत खवदळ पडलो. तोंडाक उदक सुटलें. ती येवचे पयलीं, दोन दवले शीत बशयेंत घातलें आनी धाकट्या चिपान हुमण शिताचेर रकयत, सडसडीत भायर सरून घरांत धांव घेतली. हांव खूब खरशेल्लें. बांकीन घेवन जेवंक बसलें. अर्दे सोंपता म्हळ्यार पाय भितर सरलो आनी म्हज्या हातांत शीताची बशी पळोवन अजापलो. 'मांय आयली? आनी इतले बेगीन रांदलें तिणें?'

म्हजी जाप बंद जाली. हातांतली बशी सकयल पडली आनी शिता गोटे शिंवरले. म्हजें धवें पडिल्लें तोंड पळोवन पायक दुबाव पडलो आनी म्हज्या तोंडांतल्यान सत जाणून घेतलें. ताका अजापाचो धक्कोच बशिल्लो. आपली येदीशी धूव अशें करीत? ताणें येवजूंक नासलें. आतां म्हाका पडटा लडो, येवजूनच हांव रडूंक लागलें. भायर पावस घोग्यांनी रकतालो. हांगा भितर म्हज्या दोळ्यांतल्यान पावळ्यो झडटाल्यो. पायन म्हज्या हाताक धरून भायर आंगणांत हाडलें. काळोख आशिल्लो. पायन म्हळें, 'हांगाच उबें रावतलें रातभर. परतून चोरी कशी करता पळयतां.'

'धाड्ड' करून दार मारलें आनी भितर गेलो. हांव पावसांत भिजून कुडकुडटालें. भितर म्हाका व्हरतलो हे आशेन, थोडो वेळ ओगीच भिजत रावलें. बरोच वेळ जाल्लो. पावसूय थांबिल्लो. म्हजे पांय दुखले. रडून दोळे जळूंक लागले. म्हज्यान कुडकुडो सोंसूंक नजो जालो. हांव गॅलरींत आयलें. दार धाडायलें. पायक उलो केलो. माफी मागली. पूण दार उगडलेंच ना. थकून हांवें थंयच बसकण मारली आनी ओलेंच, केन्ना दोळो लागलो कळ्ळेंच ना. सकाळीं जाग आयली. पाय म्हज्या म्हऱ्यांत बसून आसलो. हांव उठपाची वाट पळयतालो. ताचे दोळे दुकांनीं भरिल्ले. पायन म्हाका वेंगेंत धरलें आनी म्हळें, 'बाय, केन्नाच चोरचें न्हय पुता. उपाशीं न्हिदल्यार जाता. पूण असली करणी करूं नाका.'

म्हाका भितर व्हरून, गरम गरम उदक न्हाणयलें. म्हजे खातीर तांदूळ वाटून पोळे केल्ले. गरम गरम च्या आनी पोळे आपणें खावयले. त्या दिसा पाय कामांक वचूंक ना. शीत रांदलें. नुस्तें हाडून बरें 'काल्दीन' केलें. दोगांय आमी पाय-धूव, रूचीन, आवडीन, मोगान जेवलीं. त्या दिसाचो तो खीण हांव आयज मेरेन विसरूंक ना. पायन दिल्ले ख्यास्तीचें फळ, आयज हांव 'विस्वासू' जावन भोगतां.'' कांदोलीनाचो गळो भरून आयलो.

''मांय, चुकलें हांव. कळ्ळें म्हाका. दी तो चीज. हांव लॉरॅटागेर वचून येतां.'' म्हळें जॅमीन आनी धांवलें चुकिची माफी मागूंक.



कुस्मण - केपें, गोंय
फोन : २६६२४९१.

# दुसऱ्यांची टिका करतना...





– जॉन एम. आल्फोंमो, कार्मेलीत

आयज निर्माणकारी टिकेची गरज आसा. दुसऱ्याच्यो भावना दुखोवंक वा तांचें नांव वाऱ्यार उबोवंक केल्लें टिकेक मोल ना. खरी टिका करपी सदांच बरें तरेन त्याच मनशाक सांगता, वाऱ्यार उलयना, भौशीक माचयेचो वापर करिना. दुसरें वाटेन नाशक टिका करपी पुरावे नासतना कितेंय उलयतात.

'आयज आमचे कॉलेजींत गायनाची सर्त आसली. जाणाय तूं, तें XXXX वर्गातलें चेडूं गायताना, रडटा काय दिसतालें. ताणें त्या वर्गाचें नांव पिड्ड्यार केलें.' अशे एक तरणाटें आपल्या जम्याच्या वांगड्यां लागीं उलोवन खेबाडां करतालें. दुसरीं त्या जम्यातलीं ताचें अनुकरण करतालीं. हांवूय ते सुवातेर म्हज्या इश्टाची वाट पळेतालों. 'मातसो वेळ जालो आं.' म्हजो इश्ट थंय पावलो. 'वोगीच कित्याक? कितें चिंतता?' इश्टाचो हुसक्यान भरोन प्रस्न. 'जालें कांयच ना. मनीस कितें...' म्हजे जापेक ताणें मदींच जाप घालून म्हणलें, 'तुजें फकत मनशांविशीं आनी जिविता वयर उलोवप, दुसरे विशय नात?' ताणें गंभीरतायेन प्रस्न केलो. ताणें दुसरोच विशय काडलो, पूण म्हजी गंभीरताय न्हिवली ना. तो दीस गेलो. म्हजीं चिंतनां गडबड करूंक लागलीं. मनीस, मनशाची टिका करूंक फाटीं रावना कित्याक?

आमकां दुसऱ्या मनशाची गरज आसा, हें कोणूय सांगतलो. दुसऱ्या मनशाचे गरजेक पावप खूब बरी गजाल. ही गरज आमी कशी मानून घेतात तें खूब गरजेचें. आमची गरज केली म्हणटकच उपकार मानतात आनी थोड्या दिसांनी आमी ताचेर टिकेचो शिंवर घालतात. दुसऱ्यांची टिका करची न्हय, अशें म्हाका म्हणपाचें ना. टिका जाल्यार बरी, पूण ती कशी, केन्ना आनी खंय जावंची तें गरजेचें. आयज, आमचे मदलीं कांय जणां आपलो फायदो पळेतात. दुसऱ्यांक बरें दिसता तें केल्यार तुका तांचे कडल्यान शाबासकी मेळटा. ना तर तेच मनीस तुजे बारा बिरेस्तार आनी तेरा शुक्रार करूंक फाटीं सरनांत.

आयज आमच्या थोड्या तरणाट्यांनी पसून असलीच वृत्ती आपणायल्या. आपल्या बरोबरच्यांनी कसलीय चूक आदारली जाल्यार तीच चूक घेवन बसतात. ते ल्हानशे चुकी खातीर ताचें नांव पिड्ड्यार करतात. समाजातले दुसरे वर्ग तरणाट्यांचेर टिका करतात तेन्ना समाज बरें आनी वायटूय केल्यार उलयता म्हूण आवाज करतात. तरणाट्यांनो, तुमच्याच भावा-भयणीचेर तुमचीच टिका जाता तेन्ना कितें?

टिका करूंक जाय म्हूण कशीय केल्यार ती आमकां सोबना. खंयचेय वस्तूकडेन / विशयाकडेन पळेतना आमी आमच्या मनाची फास्की रूंद करून पळोवची गरज. आयज निर्माणकारी टिकेची गरज आसा. दुसऱ्याच्यो भावना दुखोवंक वा तांचें नांव वाऱ्यार उबोवंक केल्ले टिकेक मोल ना. खरी टिका करपी सदांच बरे तरेन त्याच

मनशाक सांगता, वाऱ्यार उलयना, भौशीक माचयेचो वापर करिना. दुसरे वाटेन नाशक टिका करपी पुरावे नासतना कितेंय उलयतात. 'उखल्ली जीब, लायली ताळ्याक.' असली गत तांची जाता. खरें म्हळ्यार तांकां एका खास विशयाचेर अशी टिका करपाची ना, पूण त्या विशयाच्या नांवान एका मनशाची प्रतिमा इबाडपाची मोख आसता. असली करणी मनीसपणा भायली म्हणची पडटा. आमी चडशे फावटीं नेणारपणान आनी दुस्वास दवरून टिका करतात तें मात बरें दिसना.

नामनेचे अभ्यासक आनी मानसशास्त्री शीव खेरा आपल्या 'You can win' ह्या पुस्तकांत टिकेविशीं खूब सांगतात. ते म्हणटात ते प्रमाणें, दुसऱ्याची टिका करताना आमी एका प्रशिक्षका वा कोचापरीं वागची गरज. कोच आपल्या खेळगड्यांक कसो सांबाळून घेता, हाचेर नियाळ करून पावलां उबारल्यार बरीं. दुसऱ्यांचो हुस्को मनांत धरून टिका करतात जाल्यार ती टिका बाजारांत वा तिट्यार जावंची न्हय; पूण ती खासगी रितीन केल्यार बरी. दुसऱ्यांचो राग काडूंक टिकेचो शिंवर घालचे परस टिका करिना जाल्यार अदीक बरें. मनशाची टिका सोडून, ताच्या करण्याची टिका केल्यार वायट न्हय.

तेचपरीं, दुसऱ्यांनीं केल्ली निर्माणकारी टिका मानून घेवंक आमचें मन उक्तें आसल्यार बरें. केल्ले टिकेवरवीं आयतें बरेपण येवं येता. आमचे लागीं घडिल्ले चुकीक जर कारणां दियत रावलीं जाल्यार, आमचेच वाडीक लुकसाण जावंक वेळ लागचोना. टिका घेतना फावो ते रितीन घेवंक जाय. टिका घेवन जर भावनांचेर परिणाम जायत रावलो जाल्यार वा दुसरो टिका करता म्हूण घेवन बसून आमचोच मनोभंग जालो जाल्यार कोणाक शिणपाचें? निर्माणकारी टिका घेवंक आमचेलागीं तांक आसूंक जाय.

दुसरे आमचे भशेन मनीसूच. दुसऱ्यांच्यो भावना दुखतात वा प्रतिमा उबता, अशी टिका करपांत अर्थ ना. दुसऱ्यांचो हुस्को मनांत धरचो, निर्माणकारी टिकेवरवीं दुसऱ्यांचे वाडीक आदार दिवंचो. आसात तुमी तयार?



लोलयें - गोंय
E-mail : jmaocd1376@yahoo.co.in

(पान नं. ६६ वयल्यान...)

**आत्मनिरिक्षण**

म्हजे वळखीचो एक शिक्षक आसा. जेश्टतायेनुसार केन्नाच मुख्याद्यापक जावपाचो. पूण ताका वेवस्थापन मंडळ हें जबाबदारीचें काम दिवपाक तयार ना. तो त्या कामाखातीर लायक नाशिल्ल्यान येदी व्हडली शाळेची जबाबदारी ताच्या भुजार दवरप म्हळ्यार मूर्खपणाचें अशें तांकां दिसता. शिक्षक हो भुरग्यांचो आदर्श आसता. ताचीं बेजबाबदारपणां गांवांतल्या सगल्या लोकांक खबर आसा.

त्या शिक्षकाक आपणें मुख्याध्यापक जावचें अशें मनापासून दिसता. आपल्याक मुख्याध्यापकाचें पद दिनांत म्हूण तो आपल्या इश्टांक आनी सोयऱ्या-धायऱ्यांक सांगता. वेळ पडल्यार वेवस्थापन मंडळाक कोर्टांत लेगीत व्हरपाची धमकी दिता. हांव मुख्याध्यापक जाल्यार म्हाका शाळेची जबाबदारी घेवपाक जमतली? भुरगे, शिक्षक, नोकर म्हाका मान दितले? भुरग्यांचेर म्हजेकडल्यान बरे संस्कार जातले? हे विचार ताच्या मनांत कित्याक येनात? मुख्याध्यापकाच्या हुद्द्यामुखार हेर गजालींक इल्लीय किंमत ना?

आपल्या भुरग्यांकडल्यान, विद्यार्थ्यांकडल्यान, तरनाट्यांकडल्यान आमी खूब अपेक्षा करतात. ताणीं शिस्तीन वागचें, आपलें काम आपणें करचें. वेळ वगडावचो न्ही. वेळार सगलीं कामां करचीं, तांचें चारित्र्य बरें आसचें अशें आमकां काळजासावन दिसता. हे सगले शिस्तीचे नेम आमी व्हड मनशां पाळटात? दुसऱ्यांक शिस्त लायतलीं जाल्यार आमकांय शिस्तीचे नेम पाळचे पडटले. ते सुद्दां उतरांनी न्हय तर करण्यांनी.

नेम हे दुसऱ्यांखातीर आसतात आमच्याखातीर न्हय ही वृत्ती आसत जाल्यार कांयशा भंयान, संकोचान तुमकां लोक विचारचेनात. पूण फाटल्यान तुमच्यो बकत्छायो करतले. तसोच स्पश्ट वक्तो आसत जाल्यार तुमच्या तोंडारूच तो विचारतलो. तेन्ना तुमकां तोंडार थापट मारिल्ल्यावरी जातलें. त्याखातीर शब्दांनी मनां दुखोवचिनांत हाची जाणवीकाय दरेकान घेवपाक जाय. त्याच खातीर वापरिल्ले शब्द तोलून मापून वापरपाक जाय.

आत्मनिरिक्षणाची ही वखदाची गुळी आमकां खूब बऱ्याक पडटा. दीसभराच्यो घडणुको दोळ्यां सामकार हाडच्यो. एखाद्रे घडणुकेन दोन व्यक्तीमदीं तेढ निर्माण जाली जाल्यार मागीर ती व्यक्ती ल्हान वा व्हड आसूं आपणेंच आपल्याक प्रस्न विचारपाचें. म्हजे बाबतींत अशें घडिल्लें जाल्यार म्हजी प्रतिक्रिया कितें आसतली? हे गजालीचेर जर आमी चिंतन मनन केलें जाल्यार आमची चूक आमकां कळटा. दुसरे फावटीं आमी उलयतना, वागतना सादूरताय बाळगितलीं आनी तीच चूक परत करचेनांत. हेच खातीर एकामेकांमदीं मनीसपणाचे संबंद वाडीक लागतात.



शिवोले-गोंय
फोन : २२७२०२१

# प्रतिभावंत सूर संयोजक



## अँथनी गोन्साल्विश

**भा**रतीय सिनेमाचे आयचे उज्वळ अवस्थेक ज्या हजारांनी समर्थ आनी सृजनशील व्यक्तिमत्वांचे हात लागल्यात तातूंत 'अनसंग हिरों' चीच संख्या चडांत चड आसा. सिनेमाच्या दर्शकांमुखार येतात ते नट आनी नटयो. तांकां मेळटली नामना इतकी व्हड आसता की तांच्यो प्रतिमा आसता ताचेय परस त्यो व्हड दिसतात. ताका लागून सिनेमाच्या जैताचे आनी पराजैताचेय मालक हे नट नटयोच आसतात. पूण सिनेमा हें माध्यम मुदलांतूच एका जोम्याचें आसता. कोणाय एकट्याक ह्या माध्यमाच्यो सगळ्याच्यो सगळ्यो गजाली करप सामकें म्हटल्यार सामकेंच अशक्य आसता. खंयचीय कलाकृती संपन्न आनी यशस्वी करपाखातीर जांची जांची प्रतिभा कारण ठरता, तांचेमदल्या जायते जाणांची मरणा उपरांत कोण याद लेगीत दवरिना. पूण जितो आसतनाच आपल्या कर्तृत्वाचो छाप अजरंवर करपी अँथनी गोन्साल्विश ह्या सिनेसंवसारांतल्या सर्जनशील संगीतकाराक मात ताचेंच नांव आसलेलें, "माय नेम इज अँथनी गोन्साल्विश" हें गीतूच ताचे संगीतकार लक्ष्मीकांत प्यारेलाल हाणीं प्रेजेंट करून उडयलें. १९४९त "महल" ह्या सिनेमांतल्या गितांनी सगळ्या भारतीयांक पिशे करून उडयले त्या गितांचें संगीत संयोजन करपाची संद आपले जिणेच्या बाविसाव्या वर्सा गोन्साल्विश हाका मेळळेली. ('आयेगा आनेवाला' हें गीत ह्याच चित्रपटांतलें!) तेन्नापासून ते सामके १९६५ मेरेन तो सिनेमा संगीताच्या वाठारांत जाका टाळुंकूच येना असो जावन गेल्लो.

संगीत ही एकाच कलाकाराची मिरास आसलेल्या भारतीय संगीतांत साथ करपी वाद्यां आयलीं आनी ताचें स्वरूपच बदलूंक लागलें. जंय संगीतांत आनीक जायत्या वाद्यांचो मेळ करून एक नवोच सुरेल 'ध्वनी' निर्माण करपाची माणणी आयली, तेन्ना हे मिराशेचे वांटे जावपाक लागले. संगीत हें नवनिर्माणाचें क्षेत्र आसा आनी थंय दर खिणाक अज्ञातांतल्यान सृजनाचे झरे फुट्टात. भारतीय सिनेमा संगीतान ते संपदान केल्लें म्हान कार्य ह्याच आटापांत येता. संगीत निर्माण करपाची जबाबदारी संगीतकार म्हण काम करपी मनशाचेर सोंपयली, तो काळ तंत्राचे नदरेन सामकोच नवो आसलो. रसिकांक एकठांय आपोवन तांचे सामकार कला सादर करप आनी ध्वनीमुद्रणाच्या तंत्रान संगीत सांठोवन दवरून परिपूर्ण रूपांत रसिकांमेरेन व्हरप ह्यो दोनूय गजाली एकाच वेळार घडटाल्यो.

सिनेमा उलोवंक लागल्यार ताका आतां ऐशीं वर्सां जाल्यांत. सामको मुदलापासून संगीत हो त्या पुराय माध्यमाचो अविभाज्य असो घटक जावन गेला. ताका लागून संगीतकार म्हण इतल्या जाणांनी तातूंत मोलाची भर घातल्या की भारतीय संगीताचेर ह्या ललित संगीताचो प्रभाव पडप सभावीक जालें. संगीतकार उतरांक स्वर दसयता, म्हणचे फकत स्वररचना करिना, तर उतरांतलो भाव स्वरांतल्यान अदीक प्रभावी कसो व्यक्त करूंक येत हाचो विचार करता. ताचे रचनेतलें सौश्टव अदीक उठून दिसचें म्हण संगीतकाराक आदार करपी आनी एक व्यक्ती आसता आनी ती स्वरसंयोजक म्हण काम करता. एकदां जशी



चाल तयार जाली, की मागीर तिका अदीक रुपसुंदर करचेखातीर तिचेर कसल्या कसल्या वाद्यांचो शिरंगार घालपाचो, ताचो विचार हो संयोजक करता. अँथनी गोन्साल्विश हो असलो प्रतिभावंत आसलो, की ताच्यांतल्या गुणांक संगीतकारांकूय सॅल्यूट करीन दिसलें.

संगीत संयोजन हो आयच्या जगांतलो एक अति आवश्यक वांटो जरी आसलो, तरी ताचें म्हत्व वाडलें, तें संगणकाचेर संगीत निश्पन्न करपाक येवंक लागलें तेन्नासावन. १९६८त पयलेच पावट ''२००१ : ए स्पेस ओडिसी'' ह्या सिनेमाचें संगीत मॅक्स मॅथ्यू हाणें संवशोधीत केल्ल्या संगणकाचेर आदारून केल्ल्या संगीतनिर्मितीच्या नव्या तंत्रज्ञानान जाल्लें. गोन्साल्विश हाचें खाशेलपण हें की असलें संगीत निर्माण जावंचे पयलींच ताणें संगीताच्या वाठारांतल्यान निवृत्ती आपणायल्ली. स्वता एक उत्कृश्ठ व्हायोलिनिश्ट जाल्ल्यान ताका संगीताची फिशाल जाणकारी आसली.

अभिजात संगीतांसंबंदीची आपली आपली जिज्ञासा, आपली उत्सुकताय भागोवपा खातीर ताणें पं. रविशंकर, उस्ताद अली अकबर खाँ, उस्ताद अल्लारखा सारक्या दिग्गजांकडल्यान संगीत शिकपाक सुरवात केली. मुळांतूच पाळां मुळां गोंयचीं आसल्या कारणान हांगच्या संगीताचे जन्मजात संस्कार आनी अभिजात संगीताची सांगड आपल्या संगीत संयोजनांत घालपी गोन्साल्विश हो अभिजात कलाकार आसलो. पंकज मलिक, यस. डी. बर्मन, खय्याम, खेमचंद प्रकाश, मदनमोहन हांचे सारक्या प्रतिभावंतांच्या स्वररचनांचें ताणें सामकें भांगर करून उडयलां. आपलीच स्वररचना ह्या संगीत संयोजनाक लागून आनी आनी आयकन दिसता असो अपूर्व अणभव ह्या संगीतकारांक जायते पावटीं आयला तो अँथनी गोन्साल्विश हाका लागून. ताका वाद्यांची फिशाल जाण आसली आनी त्या वाद्यांचो सभावूय ताका बरे तरेन खबर आसलो. संगीत व्यक्त करपाखातीर उपयोगाक येतल्या जगांतल्या तरातरांच्या वाद्यांचो आमच्या संगीतांत मुदयेर थीक बसपासारको उपेग कसो करप, हाचो आदर्शच आमच्या गोन्साल्विशबाबान घालून दिला.

मदनमोहनान लता मंगेशकारांसंबंधान एक पावट अशें म्हटलेलें की ही कलावती संगीतकाराच्या मनांत आसलेले चालीक आपल्याक गळ्यांतल्यान व्यक्त करूंक शकता. गोन्साल्विशबाबा बाबतींतूय मदनमोहन धरून सगळ्याच संगीतकारांनी हेंच मत व्यक्त केल्लें आसा. ज्या काळांत गायक स्टुडिओंत सगळ्या वाजोवप्यांक वांगडा घेवन आपलें गाणें ध्वनिमुद्रित करताले, त्या काळार उण्यात उण्या वाद्यांची साथ चड फायद्याची आसताली. हाचें सादें कारण अशें आसलें की वांगडयांतल्या एका लेगीत कलाकाराचे ल्हानशे चुकी खातीर सगळें ध्वनिमुद्रण परत करचें पडटालें. विसाव्या शेंकड्याच्या सत्तराव्या दसका मेरेन कितल्याशाच गाण्यांचीं ध्वनिमुद्रणां दीस-रात अशीं करचीं पडटालीं. अशा काळार गोन्साल्विश हाणें एकाच वेळार शंबर शंबर वांगड्यांचो पंगड उबो करून अप्रतिम अशा गीतांची निर्मिती केल्या. संगीतकार म्हण आयजूय जांचीं नांवां स्मरणीय आसात, तांच्या सर्जनांत अँथनी गोन्साल्विशा सारक्या संगीत संयोजकान आपले प्रतिभेन जी मोलादीक भर घातल्या ताची तुलनाच जावंक शकना. सिनेमा संगीताच्या क्षेत्रांत जायत्या दिग्गजांनी एकठांय येवन प्रतिभांचो जो संगम घडयला तो हाकाच लागून चड स्मरणीय जाला.

भारतीय सिनेमांतल्या जायत्या सुमधूर गीतांक मेळ्ळेली स्वरसाज आनी कर्णमधूर वाद्यमेळ हाचें श्रेय संगीत संयोजकाकूच वयता. गोन्साल्विशाप्रमाण स्मृतिशेश शामराव कांबळे आनी मनोहारी सिंग हांचींय नांवां सिनेमा संगीताच्या मळार याद करून घेतात. संगीतकारांच्या रचनांचो सभाव वळखून आनी तांतल्या शब्दांक दिल्ल्या स्वरांची नुरा पळोवन तांचेर वाद्यस्वरांचो साज चडोवप कितलें केदे प्रतिभेचें आसता, ताच्यो पती ह्या सगळ्याच संगीतकारांनी घालून दवरल्यात. संगीत संयोजकाचें नांव सिनेमाचे नामावळींत आसता खरें पूण तो पड्ड्या फाटलोच कलाकार आसता. संगीतासारक्या सतत नवनिर्मितीचो ध्यास धरपी वाठारांत आपली प्रतिभा सतत सृजनशील दवरप हाका खूब म्हत्व आसता. गोन्साल्विश हाचें वैशिश्ट्य अशें की तो खूब काळ जायत्या संगीतकारांच्या गळ्यांतलें माणीक जावन गेल्लो. भारतीय सिनेमा संगीतान जागतीक संगीताच्या क्षेत्रांत जें योगदान दिलां, ताच्या आरंबाच्या काळांतलो गोन्साल्विश हो एक कर्तो साक्षीदार. ताच्या क्रिस्तवासान ह्या संगीतांतले एक भांगरपर्व अस्तमलां.

(लोकसत्तेच्या सौजन्यान)



**– रमेश भगवंत वेलुस्कार**

पाळें, शिरदोन – गोंय.

मो.: ९४२०६८८४६१



# देवा, तूं खंय आसा?





- अतुल र. पंडित

अपघातांतल्यान वाटावलें जाल्यार आमी सरळ म्हणटात : देवान आमकां वाटायलें. खंयच्या तरी जल्माक आमी पुण्य केल्लें म्हणून आमी वाटावले. पूण देवाच्या दर्शनाक वचून आयिल्ल्या मनशांक अपघात जाता आनी ते मरतात तेन्ना देवान तांकां कित्याक वाटायलें ना? तांणी कसलेंच पुण्य करूंक नासलें?

**दे**व! मनशान स्वताचे सोयी खातीर केल्ली तजवीज. भुरग्यांक भियेवपा खातीर केल्ली संकल्पना. देव आसा? हय. देव आसा. ह्या संवसारांत देव आसा. तो खंयच्याय रुपान अवतार घेता. फरक इतलोच : ताका पळोवपाची नदर आमचे कडेन ना. कारण एकूच : आमी खऱ्या देवाक पळोवंक ना. आनी म्हणूनच तो खंयच्याय रुपांत आयल्यार आमी ताका देव मानूंक तयार नांत. देव सगल्याक आसा. आस्तीक देव मानतात. ते देवाक पुजतात. ते देवळांत वतात, पूण नास्तीक आपूण देवाक मानिनांत अशें लोकांक दाखयतात, पूण संकश्टा वेळार ते देवाकूच उलो मारतात. कारण निमाणें देवूच आपणाक पावतलो ही तांकां खात्री आसता आनी ही खात्रीच तांकां घरांतल्यान भायर सरतना देवाक पांयां पडपाची बुद्द दिता.

हांगा एके काणयेचो उल्लेख करूंक जाय. काणी आजयेन सांगिल्ली. प्रल्हाद आनी हिरण्यकश्यपुची. प्रल्हाद देव मानतालो. तो सदांच नारायण नारायण म्हणून देवाचो जप करतालो आनी ज्युस्त हेंच हिरण्यकश्यपूक आवडनासलें. तुजो देव खंय आसा अशें हिरण्यकश्यपून विचारतकच प्रल्हादान सट करून म्हणलें : देव सगल्याक आसा.

ह्या खांब्यांत देव आसा? अशें हिरण्यकश्यपून रागान विचारतकच प्रल्हादान तितल्याच नेटान म्हणलें : हय. ह्या खांब्यातूय देव आसा. त्या बरोबर हिरण्यकश्यपून रागान त्या खांब्याचेर खोंट मारली आनी तातुंतल्यान अवतरलो नरसिंह अवतार. ताणें हिरण्यकश्यपूक मांडयेर घेतलो आनी आपल्या नाखटांनी ताचें पोट पिंजून उडयलें. ही काणी आमकां संवसारांत देव आसा हें दाखयना? संवसारांत देव आसा हें खबर आशिल्ल्यानूच प्रल्हादान आपल्या बापायक-हिरण्यकश्यपूक खांब्यार खोंट मार, देव मेळटलो हें सांगिल्लें न्हय? हांगा एक सत् आमी मानून घेवंकच जाय आनी तें म्हणल्यार देव कसो आसलो, ताका कितले हात आसले, ताचें खरें रूप कशें आसलें हें कोणेंच पळोवंक ना. तरी आमी देवाक मानतात. देवाक भियेतात. देवाक पुजतात. देवाक होरायतात. देवाक शिणटात. देवाक पिडटात. देवाक आंगवण करतात. कसलेंय शुभकार्य जालें वा आमच्या बऱ्याचें कितें घडलें जाल्यार देव पावलो अशें म्हणून देवाचें बरेंय मागतात. कारण आमकां ह्या संवसारांत देवानूच हाडलां आनी देवूच आमकां व्हरतलो ही शिकवण आमकां आमच्या जाण्टेल्यांनी दिल्या आनी तें आमच्या काळजांत दसून आसा.

आमी नेमान देवळांत वतात. देवा कडेन अमूक तमूक मागतात. देव आमचें काम करतलो ही स्रध्दा बाळगितात आनी देवान आमचें काम केलेंना जाल्यार देवाचेर राग काडटात. इतलेंच न्हय जाल्यार देव आसा हें कोणेंय सांगल्यार लेगीत आमी ताका पिशांत काडटात. देवा वयलो आमचो विस्वासूच उडून वता. म्हणल्यार स्वताच्या सुवार्था खातीरूच आमी देवाचें अस्तित्व तिगोवन दवरतात असो ताचो अर्थ जालो ना?

एके वटेन आमी देव ना अशें म्हणटात आनी दुसरे वटेन देवाविशीं कोणेंय कितेंय उलयल्यार आमकां तें सोंसना. आमकां त्या मनशाचो राग येता, तिडक येता. वेळ पडल्यार आमी त्या मनशाचेर हात लेगीत उबारपाक फाटीं फुडें पळयनात. आतां प्रस्न असो : देव दिसना देखून देव ना अशें म्हणप कितलें योग्य? आमकां वारो दिसना पूण तो जाणवता तशेंच देवाचें. देव आमकां दिसना, पूण आपल्या अस्तित्वाचो तो आमकां खंयच्या ना खंयच्या रुपान दिश्टावो दीत



आसता. मंजा पळयात. रातीकडेन आमच्या काना कडेन जळारां गुणगुणटात. पूण तीं आमच्या काना-नाकांत वचनांत. तीं गेल्लीं जाल्यार आमची माणसुकी नासली. मूस, मूय हांचेंय तशेंच. मूस वा मूय आमी न्हिदिल्ले आसतना आमच्या नाका-तोंडांत-कानांत गेल्ले जाल्यार कितें जावपाचें? मूस, मूय वा म्हणुया जळार हांकां मनशाच्या नाका-तोंडांत-कानांत वचपा पासून कोण आडायता? देवूच न्हय? भुरगें जल्मतकच आवयक दूद कोण तयार करता? देवूच न्हय? सकाळीं आमकां आपशींच जाग कोण हाडटा? देवूच न्हय? संकश्टांक तोंड दिवपाचें बळगें आमकां कोण दिता? देवूच न्हय? तशें जाल्यार देव ना अशें आमी कशें म्हणूंक शकतात?

आयज गाड्यार पाव्भाजी खाली म्हणून कितें जालें फाल्यां ह्याच गाड्या कुशीक आशिल्ल्या पांच नखेत्री हॉटेलांत वचून आमी व्हेजिटेबल कुर्मा खातले. ही आशा आमच्या मनांत कोण जागयता? देवूच न्हय? आयज आमी एक हात दांड्यार दवरून बसीन प्रवास केलो म्हणून कितें जालें, फाल्यां आमी वातानुकुलीत मोटारीन भोंवतले ही स्रध्दा आमच्या काळजांत कोण किल्लयता? देवूच न्हय? म्हणल्यार देव ना अशें आमी कशें म्हणूंक शकतात?

अपघातांतल्यान वाटावले जाल्यार आमी सरळ म्हणटात : देवान आमकां वाटायलें. खंयच्या तरी जल्माक आमी पुण्य केल्लें म्हणून आमी वाटावले. पूण देवाच्या दर्शनाक वचून आयिल्ल्या मनशांक अपघात जाता आनी ते मरतात तेन्ना देवान तांकां कित्याक वाटायलें ना? तांणी कसलेंच पुण्य करूंक नासलें? देवाचेर भावार्थ वा विस्वास कितलो दवरप हो जाचो ताचो प्रस्न. कांय लोक संकश्टांत सांपडटात तेन्नाच देवाक उलो मारतात आनी फोल्गां मारपाचीं आसल्यर देवाक विसरून वतात. म्हाका खूब फावटीं देवाचें अजापूच दिसता. जो देवाक मानता, देवाचीं वरांचीं वरां पूजा करता, ताका देव आसा तसोच दवरता आनी जो देवाक मानिना ताचें सदांच बरें जाता. तो सुखाचे तेंगशेर पावता. ताच्या घरांत लक्ष्मी वास करता. हें अशें कशें? देव मानिना ताका देव भिता काय?

खरें म्हणल्यार देव आसा अशें सांगून आमी भुरग्यांक फटयतात अशें तुमकां दिसना? फट उलयल्यार देव पातक घालतलो. देव तुका ख्यास्त करतलो असो हावको आमी भुरग्यांक दाखयतात. ह्या हावक्याक भिवन भुरगो वागता. आवयबापूय सांगता तें आयकता. खऱ्यांनीच देव आसा? अशें विचारपाचें धाडस त्या भुरग्याक आसना. तो देवाक भिवन भिवन दीस काडटा. हें अशें कित्याक घडटा? देवाक पळयनासतना आमी देवाचो भंय भुरग्यांक कित्याक घालतात काय?

हय. देव आसा. तो सगल्याक आसा. तो आमकां दिसना इतलेंच. कित्याक दिसना? आमी तितलें पुण्य करूंक ना म्हणून? घडये आसतूय. देव जरी आमी पळोवंक ना, आमकां दिसूंक ना तरी तो आमकां खंयच्याय रुपान दर्शन दिता. ताचें रूप आमी समजून घेनांत. ताचें रूप आमकां होलमना इतलेंच. देव कोणाच्या रुपान खंय येता हाची खात्री नासता. दर एका मनशांत देव पळयत जाल्यार संवसारांत देव आसा हाची खात्री आमकां पट्टली आनी संवसारांत देव ना अशें म्हणटना आमकां धा फावटीं तरी विचार करचो पडटलो.

देव आसा काय ना अशा दुबावांत खूब फावटी हांवूय पडटां.

देखून देवा, तूं खंय आसा?



**मडगांव, गोंय**
**मो. : ९६२३२६९०१३**

# उतरकुवाडें



– संतोष शिवराम हळर्णकार
बांदिवडे-बंदर,
फोंडा-गोवा ४०३ ४०१

बिम्ब फेब्रुवारी १२

## आडवे

१. कीड लागप
३. खूब भाशेन, खूब उपायांनी
७. तळमळ, काकुळटेन केल्ली पराथणी
८. चड गोडसाणीची रूच
९. धनी, मुखेली, यज्ञकर्म करपी
११. उदक काडूंक मारिल्लो खोलसार फोंड
१२. काळ, वेळ, वगत
१३. वादयांव, तवनास
१४. चार आनी पांच
१६. किरिस्तांवालें लग्न
१८. हय न्हयशा काळ्या रंगाचें, सुमाराकशें काळें
१९. आयकुपाचें काम करपी इंद्रीय
२०. वयल्यावयर कल्पना करून दिवप, सुचोवप
२२. घोवाचो बापूय तसोच बायलेचो बापूय
२३. किडकिडीत, लांब आनी अशीर
२४. गुरुनानकाचो पंथ, एक धर्म
२५. रक्त
२७. लापयांव
२९. दरवाजो, कवाड
३०. बुतांव
३१. कुसकुटावणी, दुशण

| | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| १ | | | २ | ■ | ३ | ४ | | ५ | ६ |
| | ■ | ■ | ७ | | | | ■ | ८ | |
| ९ | १० | | | ■ | | ■ | ११ | | ■ |
| १२ | | ■ | ■ | १३ | | | ■ | १४ | १५ |
| ■ | | ■ | १६ | | | ■ | १७ | ■ | |
| १८ | | | | ■ | ■ | १९ | | ■ | |
| | ■ | ■ | २० | २१ | | | ■ | २२ | |
| | ■ | २३ | | | ■ | २४ | | ■ | |
| २५ | २६ | | ■ | २७ | २८ | | ■ | २९ | |
| ■ | | ■ | ३० | | | ■ | ३१ | | ■ |

## उबे

१. एक (कोडू) वखदी झाड
२. वारो वा आठ ग्राम भांगर
३. तरेतरेचे
४. राजाची बायल
५. वाल्मिकीचें म्हाकाव्य
६. सरळ, सारकें
१०. जप करचेली माळ
१३. मौज, करमणूक
१५. खोलायेन वच नासतना, भायल्यान
१६. वेवस्ता करपी, देखरेख करपी
१७. सवो म्हयनो
१८. कसबी, कसलेंय सोबीत काम करपी
१९. कापूस दिवचेलें झाड
२१. भुंयेचो सकयलो भाग, देंवती
२३. गजाल, गोष्ट (हिंदी), छोटी सी XX - एक हिंदी सिनेमा
२६. बडाय, व्हडवीक, अभिमान
२८. एक हजार किलोचें वजन
२९. व्हडलो भाव, गूंड लोकांचो मुखेली

### जानेवारी उतरकुवाड्याची जाप

| | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| सा | म | का | र | ■ | आ | का | श | वा | णी |
| बां | ■ | न | वी | न | ■ | न | ■ | णी | ■ |
| व | र | स | ■ | ग | ण | प | ती | ■ | आ |
| ■ | मा | प | ■ | र | ■ | ट | न | ■ | दा |
| शा | र | ■ | ज | पा | न | ■ | ■ | का | र |
| बा | म | ण | ■ | लि | क | ली | क | ■ | ■ |
| स | ण | ■ | अ | का | ली | ■ | रो | ■ | स |
| की | ■ | वा | द | ■ | ■ | आ | ड | स | र |
| ■ | आ | दी | मा | न | व | ■ | प | ■ | का |
| पि | डो | ■ | स | टी | ■ | अ | ती | सा | र |

# वखदांच्यो जायराती



जायराती ह्यो चडश्यो लोकांक भुलोवपाकूच आसतात. वखदांच्यो जायराती घेऽ म्हणून सगळ्याच प्रसारमाध्यमानी पळोवंक मेळटात. लोकांनी हाची खूबूच काळजी घेवपाक जाय. OTC वखदांक (ज्या वखदांक दोतोराच्या रशेताची गरज नासता) सादारणपणान कायद्याप्रमाणे जायरात करपाची मान्यताय आसता. पूण ह्यो जायराती केन्ना-केन्ना इलाजाचे खूबूच व्हड-व्हडले दावे करतात.

Drugs and Magic Remedies (Objectionable Advertisements) Act and Rules प्रमाणे कांय चौपन रोगांक/दुखण्यांक जायरातीन, पुरायपणान बरे करपाचे दावे करपाक जायना. पूण, १९५५त केल्ल्या ह्या कायद्यांत बऱ्योच पळवाटो आसात आनी दुसरें म्हळ्यार आमच्या देशांत कायद्याची अम्मलबजावणी खूबूच डळमळीत आसा म्हणपाचें सगळ्यांकूच खबर आसा. हाका लागून वखदांच्या गैर जायरातींचो सुळसुळाट जाला आनी दुर्दैवान, लोकांची दिशाभूल जाता आनी ते ह्या वखदांचो आपल्याचेर प्रयोग करून पळयतात. हाका लागून ते खूब फावटी फटवतात आनी केन्ना-केन्ना लुकसाण करून घेतात.

आमकां दर खबरापत्रांत आनी वेगवेगळ्या टिवी चॅनलांचेर खूबश्या वखदांच्यो जायराती पळोवंक मेळटात : डायबेटीसाचेर उपचार, कात गोरी करून सुंदरताय वाडपाक, स्मरणशक्ती वाडोवपाक, उंचाय वाडोवपाक, वजन वाडोवपाक आनी देंवोवपाक, केंसांची गळसण आनी टक्कल वाटावपाक, लैंगीक सूख आनी मर्दानगी वाडोवपाक, लींग, स्तनांचो आकार वाडोवपाक, वैगेरे-वैगेरे...

### हांचो खऱ्यांनीच उपेग जाता काय?

ह्यो जायराती आनी तांचे दावे चडशे 'तथाकथीत' आयुर्वेदीक वखदांबाबतींत आसतात. आयुर्वेदीक वखदां हीं 'एकदम सुरक्षीत' (free from side effects) हे लोकांमदले गैरसमजुतीचो फायदो घेत ह्यो कंपन्यो लोकांच्या भावनां वांगडा खेळ मांडटात आनी गंभीर प्रकरण म्हळ्यार कांय कंपन्यो ह्या वखदांनी ॲलोपथीक वखदांची मिसळ करतात. असले प्रकार कोणेंतरी तक्रार करून, त्या वखदांची प्रयोगशाळेंत तपासणी करून घेता तेन्नाच दिसून येता. अशे तरेन लोकांचे भलायकेचोय खेळ जाता.

### लोकांनी घेवपाची काळजी :

पयलें म्हळ्यार लोकांनी असल्या जायरातींच्या जाळ्यांत ना येवप हेंच योग्य. समजा जर कोणाक हीं वखदां ऊजार करपाची कुतुहलता/ इत्सा आसत जाल्यार ताणीं थोड्या गजालींचेर लक्ष दवरचें :

- ते कंपनीची फाटभूंय (background) कितें? धड काय ही कंपनी?
- काय ही जायरात चडूच व्हडले दावे करता? काय हे दावे खात्रीचे आनी भरवंशाचे आसात? हे दावे कितले खरे?
- हे दावे करपाक कांय वैधानीक पुरावे आसात काय?
- ह्या वखदांचें मोल योग्य आसा काय?

हाचें फुडलें पावल म्हळ्यार तुमी तुमचो दोतोर नाजाल्यार फार्मासिस्टाकडेन चर्चा करूंक जाय की हे जायरातींतले दावे खऱ्यानीच योग्य आसात काय ना ते!

आनी एक बाजू अशी आसा कीं जर तुमी कांय दुयेंसां खातीर अजूनय कसलींय वखदां घेत आसात तर, ह्या जायरातींतलीं नवीं वखदां आनी तुमी सद्या घेता त्या वखदांमदीं interaction जावन कसलीय समस्या जावची ना मू? असलीं आनी ॲलोपथीक वखदां वांगडा घेतलीं जाल्यार त्या मजगतीं कितेंय समस्या आनी हानी जावंक शकता की ना, हाचेर चड अभ्यास जाल्लो ना. देखून अशे परिस्थितींत जर तुमी हीं वखदां वापरूंक सोदतात जाल्यार तीं तुमचेच जबाबदारीचेर आसतलीं.





– राज वैद्य
इंडियनफार्मास्युटिकल असोसिएशन
ईमेल : ipacpd@gmail.com




हुबळी हांगा जाल्ल्या बाराव्या अखिल भारतीय कवयित्री सम्मेलनांत कवयित्री चंद्रिका पाडगांवकार हांकां 'जिणेची गंगोत्री' कविता संग्रहा खातीर ए. आय. पी. सी. पुरस्कार प्रदान करतना – दावे वटेंतल्यान सुनिता खोका, कोशाध्यक्ष श्रीमती प्रभा शर्मा, संस्थापक डॉ. लारी आझाद, अध्यक्ष श्रीमती सरस्वती चिंबलजी, स्वागताध्यक्ष श्रीमती शिल्पा शेट्टार, बाराव्या सम्मेलनाची अध्यक्ष प्रा. डॉ. सरोजिनी चावलार आनी समाज सेविका श्रीमती तारा देवी वाली.




लोकायत प्रकाशनान श्री. दत्ता नायक हांणी बरयल्ल्या जोडवीं आनी फांतोडपावली ह्या पुस्तकांचें प्रकाशन करतना संदेश प्रभुदेसाय, माधवी सरदेसाय, डॉ. जी. वी. नायक, विश्राम गुप्ते आनी लेखक दत्ता नायक.



२६ जानेवारीच्या संचालनांतल्या गोंयच्या चित्ररथाक मेळिल्लें दुसरें इनाम संरक्षण मंत्री ए. के. अँटनीच्या हस्तुकीं स्विकारतना म्हायती संचालक मिनीन पेरीस. कुशीक हेर मानेस्त. नवी दिल्लींत हो सुवाळो जालो.

